दोन नवलिका

# वसंतोत्सव

# आनी

# रगत

पुंडलीक नारायण नायक

पयली अुजवाडावणी :
मे १९८५

अुजवाडावपी :
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय फोंडें
गोंय ४०३ ४०१

छापपी :
हिरु नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय फोंडें गोंय

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकार

मोल :
पंदरा रुपया

**प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय–**
आमचे ते कुळागरांतले पयले भेटीक
जंय तुमी म्हज्यांतल्या
कथाकाराक पारखिलो

१.
**वसंतोत्सव**
७/५८

२.
**दायज**
५९/९४

आदलें अुजवाडावप :
'दायज' – '**कुळागर**'
दिवाळी अंक १९८४

'वसंतोत्सव' संबंदान–
खाशेले अुपकार :
**श्री गोविंद खानोलकार**
आनी
**श्री जानू धुळू कोळेकार**

अतले दीस आदीं तयारी करूनय निमण्या वेळार धांवाधांव जालीच. उपेंद्रनाथ महाजन जीप घेवन बंगल्याचे गेटी भितर सल्लो तेन्नाच सकाळचीं साडे अिकरा वरां जाल्लीं. आदीं थरिल्या प्रमाण दनपारच्या बारांक प्रवासाक भायर सरपाचें आसलें. पुण गॅरेजींत खूब उशीर जालो. ब्रेक, ऑयल चेक करतासर आनी पेट्रोल घालीसर पावुण वर गेलें. उपेंद्रनाथ जीपींतल्यान देंवलो. हरीदाद व्हदळच्यान तांची वाट पळयत आसलो. ताणे भौतेंक सामानाची बांदाबांद करुन दवल्लेली.

– हरीदाद इतलें करूनय गाडी धुवपाची उल्लीच.

– कांय हरकत ना. पंदरा मिनटां भितर हांव धुवन काडटां.

हरीदादान वाल्याचो कांसाटो खोयलो.

– हरीदाद, आतां आसूं. हरशीं म्हण सांतेगांवाक पावतासर ती म्हेळ्ळी जातलीच. मागीर थंय पावतकूच थंयच धुवची.

उपेंद्रनाथाची कल्पना हरीदादाक मानवली.

– बरोबर नाथबाब, सांतेगांवच्या व्हाळांत व्हरून हांव धुतां.

गांवघराच्या उगडासान तो धादोसलो. व्हाळा सकट सांतेगांवचो अख्खो आंवाठ ताच्या दोळ्यांमुखार उबो रावलो. इतल्यान घोवाची जाग आयकून मनोरमाबाय बंगल्याची सोपणां देवून सकयल आयली.

– हरीदाद, ते नायलनचे बॅगेंत किते घातलां तें खबर आसा न्हय तुकां ?
हरीदादाक तकली खरपुची पडली.
– अशें किते करता हरीदाद, कालच्यान सांगता न्हय रे तुकां.
– आं आं, उगडास जालो ताईबाय.

मनोरमाबायन आपणाले धुवेचे चारूलताचे पोरणे कपडे ताका पोतयेंत घालून दिल्ले. पोरणे तरी चारून चड वापरूंक नासले. एकदां-दोनदांच आंगार घातिल्ले म्हळचार जाता.
– तुज्या चेडवाक-जनीक सारखे जातले. म्हज्या चारू बरोबरचेंच न्हय तें ?
– हय ताईबाय.
– आनी तें नायलनचें बॅगूय दवर म्हणजे ताकाच.
– खुशाल जातलें तें ताईबाय.
जनी खुश जातलें हे कल्पनेन हरीदाद सामको ल्हान भुरग्या भशेन भुरकुटून गेलो.
– कितलो भुरकुटला रे तूं ?
– खूब तेंपान पावता न्हू घरा ....
– म्हाकाय येवपाची अित्सा आशिल्ली रे ....

इतल्यान नाथा झपाझप बंगल्याचीं सोंपणां चडून तिच्या मुखा वयल्यान वयर गेलो.
– हरीदाद, सामान घट बरें बांद. खंय किते घालता ताचो उगडास धर. हांव हांकां वाडटां.

मनोरमाबाय घोवा फाटोफाट वयर गेली. धांवत धांवत डायनींग हॉलांत पावली. पळय जाल्यार भूषण आनी चारूलता दोगांय भाव-भयणां न्हेसून थटून डायनींग टेबला भोंवतणी येवन बसल्यांत.
– वा ! तुमी शांतादुर्गेचे जात्रेक वतात काय खंय पिकनीकेक ?
आवयच्या प्रश्नातली मस्करी तांकां समजली.
– मागीर मम्मी, हांव तुजो णव वारी शालू न्हेसून वचूं ?
चारून मानेक झेल दीत आवयक विचाल्लें.

ताणे जीनची मातकट कोराची पेंट घातिल्ली. तिचेर बॅल्ट आनी वयर रंगीत टी शर्ट आसलो. भूषणान मात टी शर्टा वाटचाचो चेक्सांचो बुशकोट घाल्लो.
– आनी हांव हरीदादाचें धोतीर न्हेसतां. जाय जाल्यार वयर मुंडाशें बांदतां. मागीर सारखो तुगेले शांतादुर्गेचो म्हाजन कसो दिसतलों.
नाशिल्ल्या मिशांक पीळ दित भूषणान हड्डें तायट करीत म्हळ्ळें.
– मागीर म्हाजन न्हय तर तूं ? तुका तें आडनांव लेगीत ताकाच लागून पडलां खंय ! आनी तुगेली शांतादुर्गा म्हणटा ती कसली भास रे ?
आवय लटीकूच धेंगसली.

— तुज्या मम्मी आनी पापांचीच कुळदेवी ती? तुमची न्हय? तिचेच कृपेन इतल्या वैभवाक पावूंना आमी?

उलयतां उलयतां मनोरमाबायचो कंठ ओलो जालो.

भूषणान लटीकपणानूच चूक जाली म्हणून आपले पोले फोडून घेतले आनी मोन्यानी तो बशेंतली पुरी तोडूंक लागलो.

— पोटभर खायात.

— म्हणजे मम्मी, तुमच्या त्या सांतेगांवांत खावपाक कांयच आसचें नागे?

चारून बटाट भाजयेची प्लेट लागीं ओडीत विचाल्लें.

— परत तुमची-आमची भास सुरू जाली? थंय पावतकूच अशेच तरेन उलयशात. लोक म्हणटले - हांका देवा-गांवाविशीं मात आपलेपण ना.

आवय भुरग्यांचेर परत धेंगशेली.

—मम्मी, हांव जाल्यार सांतेगांवच्या कोणाय मनशाक 'गांव-भावाऽऽ' म्हणून कडकडीत वेंग मारपी.

भूषणाच्या विनोदार चारूक हांसता हांसतां उस्तुरें गेलें.

— कितें, प्रवासाचें वातावरण आतांच सुरू जालें?

नाथान बेसीनांत तोंड धुतां धुतां विचाल्लें.

— फकाणां चल्लयांत.

मनोरमाबायन ताच्या मुखार भाजी आनी पुरी दवल्ली.

इतल्यान फोनाची बेल वाजली. नाथा बशिल्लो तसोच उठलो. फोनाचेर स्टील फॅक्टरींतल्यान नगरकर उलयतालो. नाथा आजून भायर सरूंना म्हण ताका अजाप जाल्लें. कसल्या खास कामा खातीर ताणे फोन करूंक नासलो. पुण फोन केलाच म्हण ताणे ऑर्डरीच्या फायलीची चवकशी केली. नाथान ताका आनी मातशान आपणाले बायलेक फोन करपाक सांगलें. कारण आतां ताका खुबूच ताकतिक आसली. रिसीव्हर सकल दवरून तो परत डायनींग हॉलांत आयलो.

—नगरकर जापसालदारकेचो मनीस. आनी मातशान ताचो फोन येतलो. ती ऑर्डरीची फायल हांवें मेजार काडून दवल्ल्या. तांतुतले आंकडे ताका सांगल्यार .... आं.

— उदक पियेयात. सवकास उलयात.

बायलेन उदकाचो ग्लास उबारून हातांत दिलो.

— फक्त आंकडे सांगल्यार पुरो.

— फायल ताचे कडेन दिवपाची?

— मम्मी, नगरकराक जाय जाल्यार बंगल्यार येवनी फायल व्हरूंक. तूं दिव नाका व्हरून. पार्टनर कसलो तर तो!

चारून नेपकीनाक हात पुशीत म्हळ्ळें.

– आरे, तुमचें खावन जालें जाल्यार भायर चलात, जीपीच्या कॅरीअराचेर सामान बांदपाक हरीदादाक मातशी मदत करात.

बापायच्या उतरार दोगांय उठलीं आनी भायर गेलीं.

– भुरग्यांचेर लक्ष दवरात.

– हीं कसलीं भुरगीं ? नगरकराक हांवें हांगा लक्ष दवर म्हळां. घडये एक दोन फावटीं येतूय तो.

तसो नाथाक बायलेचो हुस्को नासलो. बरोबर वावराडी आसली. आनी बंगल्याचेर सगळें सुरक्षीत. ताची बायल तर शिटूक आनी कर्तबगार आसली. तशीच धाडशी. दार नाशिल्ल्या शिंदयाचे चाळींत घोवा बगर चार-चार दीस ती एकली राविल्ली.

– आमकां घडये परतुपाक चारांचे पांच दीस लागत...

– चारांचे पांच न्हय, स सात दीस लागूं पुण फक्त अमक्या दिसांनी येता म्हणपाचें सांगून चलात. मागीर हुस्को नाका.

– सात दीस कित्याक ?

आनी नाथान प्रवासाच्या दिसांचो हिशोब करून दाखयलो.

ते आतां दनपारां भायर सरता म्हणजे फाल्यां फांतोडेर सांतेगांवाक पावतले आसले. सकाळचो आदेस असोच वचपाचो. सांजचो आदेस आनी आख्खी रात शांतादुर्गेच्या वसंतोत्सवांत वचपाची. परवांचो दीस गांवांत वळखीच्या चौगांक भेटपाक सारपाचो. अवेंरा दनपारां ह्याच वेळार थंय सावन भायर सरपाचें म्हणजे दुसरे दीस फांतोडेर परत दौलतपुराक हाजीर.

– तूं आयल्यार वायट जावचें नासलें. धा वर्सांनी पावतां गांवांक म्हणून.

बायलेक बरें दिसचें म्हणून नाथान वयलेदरा म्हळ्ळें.

– वा ! आनी फॅक्टरीची जापसालदारकी कोण सांबाळपाचो ? हांव वचन फुडल्या वर्सा.

– पापा, सगळें रेडी.

– गुड्.

धेकर दीत नाथा उठलो. कपडे करपाक बेड रूमांत गेलो. फाटोफाट मनोरमाबाय गेली.

– आनी हें पळय, नगरकराक एक सांगपाचें विसल्लों.

– परवांच्या सॅम्पलाचें....

– बरोबर.

– आनी कामगारांच्या सॅलरी बुकाचेर नदर दवरपाचें मू ?

– वा ! तुकां तर म्हजे परस अदीक खबर आसा.

आरमारींतलीं पेंट काडून तिणे घोवाच्या हातांत दिली.

– बॅगेंत शांतादुर्गेक आंगयिल्ली ती आंगवणीची नथ आसा. देवीक बरी

सोबतली.

मनोरमाबायन देवीचे म्होवाळें नदरे मुखार हाडून कल्पना केली आनी ती संतोसली. सकयल चारू जीपीचो हॉर्न वाजोवपाक लागलें.

– भुरग्यांक थार ना.

मनोरमाबायन ताकतिक केली.

– वाटेर चड पियेंव नाका.

– ना बाय, चड पिना.

नाथान बायलेक वेंगान काडली आनी लाडानूच तिचे गाल चुंबले. सगळी तयारी जाली म्हण उलो मारीत हरीदाद आयलो. मनोरमाबायन हरीदादाच्या हातांत भाजी आनी पुरी दिली. हातांत प्लेट घेवन तो उब्यांनीच बकाबका खावंक लागलो.

– हरीदाद, तो आयदनांचो सॅट कोणांक दिवपाचो जाणा न्हय ?

– पुरयत नानूभटाक .

– बरोबर. स्टीलचो कारखानो सुरू करचे आदीं देवीक प्रसाद ताणेंच लायिल्लो.

– म्हाका खबर आसा.

– पळय, सगळ्यांमदीं जाणटो तूं.

परत एकदां मनोरमाबायन ताका सगळ्या कामाचो उगडास करून दिलो आनी ल्हवूच विचाल्लें.

– हरीदाद, परत येतलो मरे ?

– ताईबाय, दुबाव कित्याक येयलो ?

हरीदादान तोंड वाकडें करीत विचाल्लें.

– सहज रे. इतल्या तेंपान घरा पावता. थंयचे ओडीन थंयच उल्लो जाल्यार?

– थंयची ओड आसाच.... पुण हांगाचीय माया उणी ना.

हरीदादच्या दोळ्यांत दूक येवपा कडेन पावलें. मनोरमाबायक दिसलें, वगीच ताका असो प्रश्न विचारून रडच्या दुकार पावयलो. तिचे परीन एक बरें जाल्लें. तो गांवघराच्यान परतो येतलो म्हणपाची तिका खात्री पटिल्ली आनी तिजो हुस्को पयस जाल्लो. सकयल जीपीचे हॉर्नार हॉर्न वाजपाक लागले. ते सरशीं हरीदाद, मनोरमाबाय आनी नाथा धडाधड बंगल्याची सोंपणा देवून कंपाऊंडात आयलीं.

– पापा, खंय शिकारेक ?

चारू बापायक पळोवन आड्डलें. नाथान पँटीच्या भितर शर्ट घाल्लो आनी खांदाक आर्म लायिल्लें.

– पापा, वाटेर वागबी आसतलो ?

– आसतलो ? आसतलेच.

नाथान धुवेची फकाणां केली. आर्म हरीदादाकडेन दिलें आनी जतनायेन

धरपाक ताका फर्मायलें.
– वाटेर सँडव्हीच खायात. फळां आसात. वॉटरबॅग ....
मनोरमाबाय एक एक उगडास करीत आसली.
– दोगूय वांटून वांटून ड्रायव्हींग करात. भूषण, पन्नास स्पीडी वयर गाडी चलोवप ना.
त्या उतरार भूषण हांसलो.
– मम्मी, पन्नास स्पिडीन चलोवपाची जाल्यार ही जीप कित्याक घेवपाची? त्या परस नगरकराली सेकॅन्ड हॅन्ड अँम्ब्यासिडर बरी.
– अशा वेळार फक्त आयकून घेवपाचें आसता.
बापायन मदींच म्हळ्ळें.
– आनी तुजे मम्मीक खबर ना. पन्नास स्पिडी वयर वचना जाल्यार गाडी आपशींच बंद पडटा.
ते सरशीं हरीदाद धरून सगळीं हांसलीं.
नाथा स्टेअरींगचेर बसलो. मुखार भूषण आनी चारू बसलें. फाटल्या सिटार आर्म सांबाळीत हरीदाद बसलो. जीप महाजन निवासाचे गेटी भायर सल्ल्या तेन्ना दनपारची सुमार साडेबारा जाल्लीं. भर दनपारचें वोत रणरणटालें. डांबरी रस्तो वोताच्या हुल्पान भगभगतालो. रस्त्याक मदीं मदीं पचपचीत डांबर घाल्लें थंय जीपीचे टायर चरचरताले. दनपारां ऑफीसां, फॅक्टरीक लंच ब्रेक पडिल्ल्यान रस्त्यार गर्दी जाल्ली. गाडयां परस सायकली आनी स्कुटरींची चड दाटी जाल्ली. पंदरा-वीस मिनटां उपरांत शाराचो मुखेल येरादारीचो भाग फाटी पडलो आनी नाथान चाळीसां-वयली स्पीड पन्नासांचेर पावयली. घरां बिल्डींगो फाटीं फाटीं पडपाक लागल्यो तशी तशी स्पीड वाडत गेली. 'दौलतपूर तुमचें उपकारी आसा' बोर्डा कडेन जीप थाल्ली.
– शाराची शीम सोंपली. हरीदाद, परत एकदां सगळचा सामानाची याद कर.
नाथान म्हळ्ळें. हरीदादान मानेनूच सगळें घेतलां म्हणपाचें सांगलें.
– पापा, हांव चलोंव?
– तशेंच केल्यार बरें. मुखार मागीर हांव चलयतां.
भूषण स्टेअरींगचेर आयलो आनी नाथा भूषणाचे सुवातेर बसलो.
– सवकास, आमकां आतांच पावपाचें ना, फाल्यां सक्काळीं.
तागेली स्पीड पळोवन चारून ताका शिटकायलो.
– तूं मम्मी परस भित्रें!
– मम्मी भित्री? आतां पापा फाटल्यान नगरकराक कशी कडकडयता ती पळय.
– चारूं, तूं नगरकराचेर इतले कोंत्र कित्याक गो?

बापायन विचाल्लें.

– कित्याक म्हणून नकळो. म्हाकां तो मनीस आवडना. चिमटे काडटा.

आनी चारू सकट सगळीं हांसपाक लागलीं.

वोताचो रखरख मातसो कमी जाल्लो. कारण सूर्य अस्तमते वटयां लकतालो आनी जीप उदेंतेच्या मार्गार धांवताली. तरी पुण सगळयांक घामाच्यो पावळचो लागिल्ल्यो.

– हरीदाद, तुमच्या सांतेगांवाकूय अशीच गर्मी ?

चारून विचाल्लें आनी मागीर 'तुमच्या सांतेगांवाक' म्हळ्ळें म्हण जीब चाबली.

– चैत्राची गर्मी सगळयाक सारखी. हांगा मातशी चड. थंय झाडां-पेडां आसा म्हण थोडीशी शितळसाण.

हरीदाद कोनशाक बशिल्लो तो ताणे मातशें आंग हालयलें.

– झाडां-पेडां म्हणजे कितलीं झाडां ?

चारूलतान नेणारपणानूच विचाल्लें. आनी ताच्या प्रश्नांक जाप नासून हरीदाद धव्या मिश्शांनी मुमूर्खो हांसतूच उल्लो. ताका जनीची याद आयली. ... पोर सारखें अशेंच जालां आसतलें. पोरूं पळयिल्लें तेन्ना मातशें बारीक आसलें. फुडें केन्ना तरी उजोवपाक जाय. हांगेर म्हणून अशीं-तशीं आनिक अेक-दोन वर्सां काडप. मागीर आसा आपलो सांतेगांवच्या भाटांत आनी कुळागरांत गोरवां वासरां फाटल्यान वावरत.

– ए ऽ ऽ म्हशीक माल्ली.

चारू कानार हात धरून आड्डलें. भूषणान ब्रेक मारून कट माल्लो आनी मुखावयल्या जनावराक वाटयलें.

– हें पळय भूषण, गोरवांच्या मुखा वयल्यान केन्नाच गाडी घेवपाची नासता. फाटसून घेवप. गोरवां फाटसून सहसा वळना.

भूषणांक समजावणी मेळ्ळी.

– आनी चारू, ती म्हस न्हय. तो रेडो !

परत एकदां सगळीं मन सोडून हांसलीं. उक्त्या मळार उबारिल्ले उद्येगीक वसाहती कडल्या हमरस्त्यान जीप धांवपाक लागली. सांडपाणी वालेतीन कोणून एक तरेचो घाण-वास सगळयाक पातळील्लो. चारून पेंटीच्या बल्सांतलो लेंस काडून नाकाक धल्लो.

– आमचें फॅक्टरी मालकांचे युनियन घट ना नाल्यार आमची स्टील फॅक्टरी हे इंडट्रीयल इस्टीटींत येवपाची.

नाथान भायर बोट दाखयत म्हळ्ळे.

– इतले पैस ?

चारून अजापान विचाल्लें.

– शांतादुर्गेची कृपा !

हरीदादान म्हळ्ळें. गरजे भायर शांतादुर्गेक याद केली म्हण चारूक हरीदादची तिडकशी आयली आनी मागीर काकळूट.

– आरे, म्हजो लेंस हुबून गेलो मरे !

चारून भूषणाच्या भुजांर थापटां मारीत म्हळ्ळें.

– हांव जाणां ? हांव समजलों तुवें नाकाची घाण पुसून मुद्दम भायर वडयला म्हणून.

जीपीची स्पीड मात्तूय उणी करीनासताना भूषणान ताची फकाणां केलीं. आतां उगडचा- बोडक्या मळा वयल्या हाय वे वयल्यान जीप धांवपाक लागली. वोताची खरसाण मात मात उणी जाताली. आंगार लकपी वाऱ्याच्या ल्होळांतूय उणी उष्णताय भासताली.

– हांगचीं सगळीं झाडां कोणेन कापून व्हेल्यांत ?

चारून बापायक विचाल्लें.

– कापून व्हरपाक पयलीं आसूं नाका. ह्या मळार झाडाचीं बियां शिंपपाकूच परमेश्वर विसल्लो.

नाथान आपलेपरी विनोद करीत जाप दिली. चारून तिरपी नदर हरीदादाचेर घुंवडायली आनी मनांतूच म्हळ्ळें,

– तुगेली शांतादुर्गा पावूंना दिसता हांगां.

आतां जीप अंयशी स्पीडी वयर धांवपाक लागली. हाय वे आसलो. शिवाय रस्तोय मेकळो.

– पापा, म्हाका भूषणभाईचो भंय दिसता.

– कित्याक ?

– हो रेसीक गाडी चलयिल्ले भशेन चलयता.

– रेसीक इतली सवकास चलयना. इतली.

भूषणान आनिक स्पीड वाडयली. ते सरशीं चारून ताचें भूज घट धल्लें.

– निदान हरीदादा खातीर तरी इतली फांस चलोंव नाका.

– कित्याक ?

– ना जाल्यार तो शांतादुर्गेक सादयतलो आनी मागीर शांतादुर्गेचे पालखे इतले गतीन जीप चलोंवची पडटली.

हरीदादान हें आयकलेंना पुण नाथाक आयकताना हांसूक आयलें.

– थंय मुखार गाडी भितर घे. 'तीनी रस्ता ' म्हणटा थंय पावले. हांगा कुशीक उबी कर. आतां तुजी ड्युटी सोंपली.

– गूड्.

चारून जीपीतल्यान उडी मारीत म्हळ्ळें.

तीनी रस्ता म्हळ्यार तीन रस्ते एकठांय जाल्ली सुवात.

दौलतपुराकसून आयिल्लो हाय वे मुखार वतालो आनी ताका हे सुवातेर कन्हाळ सावन आयिल्लो रस्तो-जुळटालो. तीनी रस्त्याक अयस-पयस खूब जागा आसली. मात सगळ्याक हळशीक: भौशीक नळ सुटून चिखलट जाल्ली आनी मातयेचे सुवातेर हॅवी गाडयो भोंविल्ल्यान सगळ्याक धुल्लट जाल्ली. वयल्यान ताडपत्री बांदून बंद केल्ले सामानाचे ट्रक, जडगुळे माकनां चडयिल्ले ट्रक, ट्रकांच्यो उक्त्यो चेसी, रूटाच्यो प्रवासी बसी, खाजगी वाहनां अश्यो कितल्योशोच गाडयो जागो मेळटा थंय अस्ताव्यस्त आशिल्ल्यो.

– चला, च्या घेंवया.

नाथान सगळ्यांक हॉटेलांत व्हेले. येदचा व्हडल्या जाग्यांत थंय ते अेकूच हॉटेल आसलें. हरीदाद आर्मुच घेवन सकयल देंवलो. ते सरशीं नाथान चट् करून बोल्सांत हात घालून लायसन आसा कायना म्हणपाची खात्री करून घेतली.

च्याची सगळ्यांक इतली तल्लफ आयिल्ली की च्यायेची रूच पळोवपाचे धंगण कोणाकूच नासलें. तीनेक वरांच्या प्रवासान थोडो भोव शीण आयिल्लो तो ना जालो. थोडीशी ताजसाण आयली. परत सगळीं जीपींत बसलीं. आतां ड्रायव्हींगाक नाथा बसलो. चारूक सू जालें. ताचे परस अदीक हरीदादाक. थंयच्याच पेट्रोल पंपार ताणीं गाडयेक पेट्रोल घातलें. आसा तशी टाकी फूल केली. फाटल्यान धुल्ल हुबयत जीप हमरस्त्यार आयली. धायेक मिनटांच्या प्रवासा उपरांत जीप एका मोड्णार पावली, जंय हमरस्त्याचे सकले वटेन एक मातयेचो रस्तो आसलो. रस्त्याचे कडेक शिमिटाचे फातरीचेर गांवाचें नांव बरयिल्लें - आडबुद्रूक. मोड्डणारूच जीप थाल्ली.

– खंयच्या रस्त्यान या ?

नाथान सगळ्यांक विचाल्लें. मुखार येदो व्हडलो हाय वे दिसता आसतना तो अशें कित्याक विचारता तें कोणाकूच कळेंना.

– हें पळयात, आमकां आतां तिनुरी पावपाक जाय. हाय वेन गेल्यार एकशें ऐंशी किलोमीटर पडटलें. आडबुद्रूकच्या ह्या आडरस्त्यान गेल्यार फक्त एकशेंवीस किलोमीटर जातलें. दोनूय रस्ते तिनुरीक पावता. सांगा, खंयच्या वटेन या ? हाय वेन या ? काय एक वर वाटांवया ? आडबुद्रूक शॉर्ट कट बट रिस्की रिस्की बट चेलेंजीक टू द यंग ब्लड.

बापायच्या निमाण्या उतरांचेर भूषण आनी चारु दोगांय उमेदीन उसळ्ळीं आनी आडबुद्रूकच्या रस्त्यानूच जीप वळोवपाक ताणी फर्मायलें. नाथान उमेदी भरशीं जीप घुंवडायली आनी मातयेच्या रस्त्यार हाडून सरळ केली. रस्तो मातयेचो आसलो तरी खडबडीत नासलो. शेंकरट आशिल्ल्यान

धुल्लूय कमी आशिल्लो. रस्त्याक मदें सुक्या कड्डाचो पाट लांबचे लांब दिसतालो. रस्त्यार मदीं मदीं गोरवांचे शेणां-थांपे, सुण्याची हळशीक आसली.

मार्ग अशीर आसलो तरी बरेंच कडेन सरळ आशिल्लो. अेके जीपी बगर हेर कसलेंच वाहन मार्गाचेर नासलें. नाथा हुस्क्या मेकळो गाडी चलयतालो खरो पुण ताका थोडीशी धाकधुक आसलीच. पयली गजाल म्हळचार या मार्गा वयल्यान तो एकदांच केन्ना तरी आयिल्लो. तोवूय असोच कोणाचे तरी एके खाजगी गाडयेंत. ती गाडी सांतेगांवसून दौलतपुराक वचपी आशिल्ली. कसली तरी चोट्टचा मालाची भानगड आशिल्ली म्हण गाडयेच्या पात्रावान ही वाट पसंत केल्ली. तेन्नाचो प्रवास रातचो आसलो. पुण मदीं ह्या मार्गाविशीं ताणी खूब आयकल्लें. अेक म्हणजे हाय वे वयल्यान गेल्यार करीमनाक्यार नस्त्यो भानगडी आनी कटकटी उप्रासताल्यो. चेकींग करपी कस्टम आनी पोलीस कसली तरी कुरापत काडटालेच. मागीर वरांची वरां हुज्जत घालीत बसपाचें. अखेरेक जोर रडटा पेजेक. पैशे खावपच्यो भानगडी. पुण वयल्यान चेकींगचो शो लोकशाही. करीमनाका म्हणटा ते सत्ते वयल्या एका मंत्र्याचें खाशेलें येणावळ खातें म्हण सगळ्यांक खबर आसलें. दुसरी गजाल म्हळचार मुखा वयलो सोनुली घाट. आंगा वयलीं मोडणां. दोळे कपलाक पावता असलीं चडणां. आनी कुशीक खोलाय कितली? अदमास लेगीत करूंक जांवचोना. फक्त निळ-निळशी धुंवरी. ह्या दोनूय गजालीं खातीर नाथान तिनुरीक वचपी हाय वे सोडलो. पुण तिसरे कारण खूब म्हत्वाचें आसलें. शॉट कटान गेल्या उपरांत अेक वर हातांत आयिल्लें. शिवाय रातचें जेवण आनी विसव हांचे खातीर अेका वराची सोय आसली. दोनूय वरां अेकठांय करप आनी फॉरेन व्हिस्कीची मस्त रूच घेवप असो ताचो बेत आसलो. हें गुपीत ताणें बिझनेस सेक्रीटा सारखे कोणाकूच सांगलेंना.

तांबडया मार्गान जीप सवकासायेन धांवताली. टायरांचो खुबूच आवाज जातालो. मदीं मदी सुपारे येदे शेंकरे फड् फड् करून टायरा पोंदच्यान कुशीक शेंवटताले आनी बगलेच्या झोपांचेर आदळटाले. जीप मुखार वचना फुडें कुशीचीं फाटलीं झोपां आनी झाडांच्यो खांदयो आंग व्हिजळून हालताल्यो. सगळो वांठार रानवट आसलो. मार्गा कुशीक व्हडलीं झाडां नासलीं पुण मार्गा पासून चार-पांच मिटरांचेर बरीच रुखां दिश्टीं पडटालीं. मार्गाक मदीं मदीं पांयवाटो जुळिल्ल्यो दिसताल्यो पुण वांटा वयल्यान चलपी लोक साप्प कमी. धायेक मिनटांचे ते आडवाटेक तांका मनीस म्हणटा ते फक्त दोग-तिगूच झळकले. बाकी सगळें रान.

सगळो निर्जन रानवट वांठार पळोवन सगळ्यांकूच पयलीं भंयसो दिसलो. पुण कांय कळावान त्या वातावरणाची संवकळ जाली. सगळीं जाणां अजापान भायर पळोवपाक लागलीं.

– पापा, तें झाड पळय कशें फुल्लां ?
– हय मुगो, तो रानशंकर !
– हें, पोपटी झाड पळय.
– ताका पांचवी पालय आतांच फुटल्या.
सगळो सैम पोरणी आंगली सोडून नवीं आंगली घाल्ले भशेन जाल्लो.
– पापा, अेप्रील म्हयन्यांत रानां अशींच पालेतात न्हय ?
– अेप्रिल म्हळचार आमचो ....
– चैत्र.
हरीदादान नाथाची अडचण पैस केली.
– म्हणजे हरीदाद, हो ऋतु वसंत. ऋतुराज वसंत !
– फंडास्टीक !
चारू उसळळें.
– फायची शांतादुर्गेची जात्रा चैत्रांतले पुनवेकूच येता. तीच वसंत पुनव.
हरीदादान शांतपणान सांगलें. नाथाक आपल्याच नेणारपणाचो किवाटो आयलो. आपणालें नेणारपण सोबोवपाक ताणें म्हळ्ळें,
– म्हणटकूच आमी वसंत ऋतुंत यात्रा करपी प्रवासी. वसंत यात्री !
– वसंत यात्री ! वॉट ए मिनिंगफूल वुर्ड !
चारून बापायक प्रशस्तीपत्र दिलें. आनी मागीर पांचेक किलो मीटर नाथा महाकवी कालीदासाच्या ऋतु संहारांतल्या वसंत ऋतुच्या वर्णनाचे श्लोक याद करीत रावलो.
– पापा, गाडी सवकास. मुखार पळय.
भूषणान मुखा वयल्या दादल्याकडे बोट दाखयलें. नाथान गिअर बदल्लें. तो मनीस मार्गा वयलो कडेक सल्लो ना. हॉर्नाकूय दाद दिली ना. परत रस्त्याच्या मदें येवन उबो रावलो. ते सरशीं नाथान् चक्क करून ब्रेक माल्लो. शेंकऱ्याचेर स्लीप जावन गाडी वेंतभर कुशीक सल्ली. तो मनीस दोनूय हात जोडून आनी तोंड काकुळतेस्त करून उबो आसलो. थरथरतालो म्हळचार जाता. आंगा वयल्या भेसानूच ताचें दळिद्री जिवित उक्तेपणी दिसतालें.
– म्हाका मातसो व्हर.
– खंय ?
– खंय देंवय तें सांगता. देव तुमचे कल्याण करतलो ? वयर जाल्यार वयर बसतां.पुण एकदांचो व्हर.
आनी कोणाचे मान्यतायेची वाट पळय नासतना ताणे वयर टापार चडपाक कॅरीअराक हात घातलो. नाथाक अजापूच दिसलें. 'इतलो थरथरपी हो, जीपीच्या कॅरीअराचेर कसो बसतलो ? पुण गरजेक

आयिल्लो कितेंय करता हेंच खरें' ताणे मनात म्हळ्ळें.
— आरे बाबरे, असो फाटल्यान बस. फाटल्यान जागो आसा.

पड्टचा फळाची आज्ञा मानून ताणे सगळो देह जीपीत लकोवन दिलो आनी मागीर तो सीट सोदपाक लागलो. ताची ती अवस्था पळोवन ताका नाका म्हणपाचें धाडस कोणाकूच जालेंना. हरीदादाचेच पिरायेचो तो मनीस आसलो. हरीदादाक मात ताका भितर घेतिल्याचें आवडलेंना आसूंक जाय. हरीदादाच्या हातांतल्या आर्माक पळोवन तो सीटार बशिल्ले कडेंच अदीक थरथरपाक लागलो.

जीपींत हांसत खेळत चलिल्लें वातावरण थोडेशें गंभीर जालें.
— तांकां म्हण बाबड्यांक हे आड्याटेक कोण मेळटा! कोणूय दिसलो म्हणटकूच अशे मागीर घालून घेतात.

नाथान आपणाले करणेचें समर्थन जावचे म्हण म्हळ्ळें. आडबुद्रूक सोंपून रानखेड लागलें म्हणपाचें अेका बोर्डा वयल्यान समजलें.

जीप अेका मोड्णार पावली. मुखार एक ल्हानशी वाडी दिसताली. पंचवीशेक कोलवाच्या खोपटांनी माथीं वयर काडील्लीं. मार्ग त्या खोपटांच्या कुशींतल्यान वतालो. पयसुल्ल्यान पळय जाल्यार एक झाडाचो खांदो मार्गार आड पडला. नाथान जीप त्या खांद्या कडेन व्हरुन थारायल्या मात वीशेक भुरग्यांचो एक चोमो थंय शबय घालीत आयलो.
— शबय, शबय, ही आमची होळी. आमकां कितेंय दी. मागीर वाट सोडटां.

सगळ्यांकूच अजाप जालें. भूषणाक आनी चारूक तर त्या उगड्या-नागड्या पोरांची तोखणाय दिसली. तांकां पैशे दिवपाक तांचे हात अचळय बोल्सांन गेले.
— हरीदाद, ही होळी खंयची?

हरीदादाच्याय कपलाक आठयो पडल्यो. नाथान त्या वाटसुराकय विचाल्लें. ताणे म्हळ्ळे,
— हांव ह्या गांवचो न्हय.

हरीदाद हिशोब मांडपाक लागलो. हो चैत्र. फाटलो जालो फाल्गुन. फाल्गुनांतली पुनव ती होळये पुनव. होळये पुनव जावन फायचे पुनवेन सारखो एक म्हयनो जातलो. मागीर ही होळी खंयची?
— आमच्या गांवची होळी याच वेळार जाता.

नाकाच्या दोनूय पुडांतल्यान शेंबूट व्हांवोत्पी काळ्या कुळकुळीत पोरान आत्मविश्वासान सांगलें. तागेलें ते धैर्य पळोवन हरीदादान आपणालें पंचांग उक्तें करचे आदींच धांपून दवल्लें.
— दर एका गांवच्यो वेगवेगळ्यो रिती. शांतादुर्गे पाव!

हरीदाद आशिल्लो तसो कोनशाक आंग सांबाळून बसलो. प्रत्येक भुरग्याक

आठ आठ आणे तरी पडचे म्हण चारून तांका मेजपाक सुरवात केली. पुण एक एक पोर दुडू दुडू धांवत येतूच रावलें. मागीर पंचवीशेक जाणांचो अदमास धरून बारा-तेरा रूपया तांच्या हातार दवल्ले. भुरगी शिस्तीचीं दिसलीं. पैशा कडेन कोणेंच हुतहुतेपणां केलीना. जसो काय सद्चोच व्यवहार आशिल्ले भशेन ताणी पैशे घेतले आनी ‘ शबय शबय ’ करीत आम्याचो खांदो मार्गा वयल्यान कुशीक काडलो.

जीपीतलें वातावरण परत हलकें फुलकें जालें. वाटेर लोकवस्ती दिशील्यान आडवाटेचो भंय ना जाल्लो. आतां मार्गाक मदीं मदीं मोड्णा आशिल्यान जीप फांस चलोवपाक मेळना आसली.

– पयलीं अशी होळी आमीय करताले.

नाथान आपणाल्या ल्हानपणांतली याद सांगली.

– तुमीय अश्योच लोकांल्यो गाडयो आडायताले ?

चारून विचाल्लें.

– तेन्ना आडावपाक आमच्या गांवांत गाडयो खंय आसल्यो ? आनी होळयेक इतले रूपया ? बारा पैशे म्हळ्यार खूब जाले !

– पापा, ही पळय दुसरी होळी.

नाथान गिअर बदल्लें. मार्गाचे कुशीक जायते दादले एकठांय जाल्ले. कांय जाण मार्गार पाविल्ले. जीपीचो वेग मंद करचोच पडलो.

– आरेरे ! कोण सोंपलो दिसता !

कुशीक निसणीचेर धवटान अेक मढे बांदिल्लें. वयल्यान फुलांच्यो माळो घाल्ल्यो. जीप चालू आसतानाच अेकलो हुयेली मारीत मुखार आयलो. सामको नाथा म्हऱ्यांत पावलो. आनी ताणे ताच्या पांयांक हात लायलो.

– बाबा, तुजें कल्याण जातलें. म्हाका आदार कर. म्हजो वयावयलो दाणगो-दुणगो एकलो एकसूरो पूत सोंपलो. आतां म्हाका कोण ना. निमणे विधी सुध्दां करतलो जाल्यार म्हजे कडेन कांय ना.

नाथाक ताका तोडून दिवपाक जमलेंना. ह्या वातावरणांतल्यान बेगोबेग सुटचो म्हण ताणे बल्सांत हात घातलो आनी शंबर रूपयांची नोट जाणटेल्याच्या हातार तेंकयली. जीपीतल्या वाटसुऱ्यान दोळे किलकिले करून नोट पळयली. आपलोय पूत मेल्यार आपणांकूय इतलेच मेळपाचे अशें ताका दिसले आसुंये.

नाथान बगोबेग जीप मुखार काडली आनी दफरायली. चारू आनी भूषण कितलोसोच वेळ फाटल्यान मान बागोवन पळयत रावलीं. हरीदादान मात तो सगळो प्रकार पळोंव नजो जावन दोळे बंद केल्ले आसूंक जाय.

जीपीतलें वातावरण परत एक पावट गंभीर जालें. कितल्या वेळान नाथाक आता दिसलें, बेस्टो आयलों हे आडवाटेन. पैशांबटेन पैशे आनी

आतां गरजे भायर सगळ्यांचे मूड ऑफ.
– खंयच जीप उबी करप ना.
नाथान सगळ्यांक आयकूंक येता अशें स्पश्टपणान आनी करारीपणान म्हळ्ळें. अशें म्हळ्ळें खरे पुण प्रत्येककडें लोकांचो जोमो वा रहदारी दिसतकूच ताच्या पोटांत पांच-पांच जातालीं. थंयच्यान जीप मुखार काडीसर तो हुस्क्यांत उरतालो.
बरेंच अंतर वतकच ताका बरें दिसलें. चारू आनी भूषणूय तकले वयलें टॅन्शन गेल्ल्यान मातशीं सैल जाल्लीं. हरीदाद शांतपणान बशिल्लो. चारूक दिसलें, ह्या हरीदादान आनी वयर तांदिल्ले पोटलेन कसलोच फरक ना. प्रवास सोंपतकूच हो उपकारा पडपाचो.
इतल्यान मुखार ल्हानसो तिठो दिश्टी पडलो. कांय लोकांची येरादारी आसली. मुखावयल्यान जीप गेली. कसली हालचाल जालीना. सगळ्यांक सू ऽ ऽ जालें.
– बरें जालें, हांगा कोण मरूंना.
नाथान गंभीर वातावरणाक हलकीशी फोडणी दिली. चारू आनी भूषण सुस्कार सोडून हांसली आनी इतल्यान हरीदाद आड्डलो.
– गाडी थारय.
नाथान कच्च करुन ब्रेक माल्लो.
– तेणे उडी माल्ली.
सगळ्यांनी फाटल्यान वळून पळयलें. फाटीं बशिल्लो तो वाटसुरो जीपीतल्यान भायर पडिल्लो. जीप थारनाफुडें लोक घुर्र करून जीपी भोंवतणी जमले, जशें कांय आदींच सगळें थरिल्लें.
– ताका माल्लो मरे ? म्होडलो मरे ? कसल्यो गाडयो चलयता.
सगळे एकार एक उलोवपाक लागले.
– आरे, आयकून तरी घेयात.
नाथान तांकां समजावपाचो यत्न केलो.
– तूं आदीं सकल दंव, मागीर पळोंवया.
एकल्यान म्हळ्ळें.
ते सरशीं नाथा शिटकावलो. अदीकूच सिटार घट बसलो. गर्दी वाडत आशिल्ली. इतल्यान दोग-तीग जाणांनी त्या वाटसुऱ्याक उबाल्लो आनी जीपीच्या मुखार हाडून ताची पोटली दवल्ली. तो न्हिन्नळटालो ताचे वयल्यान तो बरोच धाडावला म्हणपाचें कळटालें. मात रगत येय नासलें.
– तो आतां उबो रावपाक ना.
चोम्याचो मुखेल दिसपी एकल्यान म्हळ्ळें.
– मागीर हांव कितें करूं?

नाथान शांतपणान जाप केली. भूषण आनी चारूची भंयान सामकी गुळी जाल्ली.

– ताची व्यवस्ता कर.

– हांवें ताका वडोंवना.

– तेणे उडी माल्ल्या.

इतलो वगत वगी आशिल्लो हरीदाद पत्र्याक आर्म आपटीत आड्डलो. ते सरशीं जायते जाणाच्यो नदरो आर्माचेर पावल्यो.

– आमकां आर्माचो भंय दाखयता ?

– असलीं आर्मा खूब पळयल्यां.

दुसऱ्या एकल्याक म्हळ्ळे.

– मागीर कितें करता ?

तो मुखेल नाथाच्या म्हऱ्यांत आयलो.

– म्हज्यान कांय करूंक जांवचेना.

– मागीर हांगां रावचें पडटलें. आमी आमच्या सरपंचाक हाडटां. मागीर पुलीसांक येंवदी. उमेद आसा जाल्यार राव रातभर.

उलयत तो कुशीक सल्लो.

– आयक, घे.

नाथान बोल्सांत हात घालून शंबरांच्यो दोन नोटी काडल्यो आनी मोन्यांनी सगळ्या हुजरा मुखेल्याच्या हातांत दिल्यो. बापायन केलें तें योग्य केलें अशेंच भूषणाक आनी चारूक दिसलें. दोगां जाणांनी त्या वाटसुराची पोटली कुशीक काडली. ताची अवतीकाय पळयल्यार तो उबो रावूंक शकत अशें दिस नाशिल्लें. मार्ग मेकळो जालो तशी नाथान जीप धांवडायली.

कांय वेळ कोणूच कांयएक उलयलोना. हरीदाद मात आपले भितरच कितें तरी बडबडत आशिल्लो.

– हरीदाद, मुद्दम म्हण कोण जीपींतल्यान उडी मारता ? आपलो जीव कोणांक नाकां जाला ? संवय नाशिल्लो मनीस तो. शेवटला आनी पडला. जाल्लो प्रकार विसरायेर पडचो आनी जीपींतले शांततायेचो भंग जांवचो म्हण नाथान सुरवात केली.

– पडपाचोच जाल्यार गाडी सामकी इस्लोव आसताना कसो पडचो ?

हरीदादान परत ताच्या बावन्न कुळांच्या उध्दाराच्या वावराक हात घातलो. जीपींतल्या वातावरणांक वेगळीच बगल मेळ्ळी. अेक बिनभरंवसो सगळ्यांच्या मुखामळार पातळ्ळो. ह्या मार्गार खंयच्याय खिणांक कितेंय घडूं येता म्हणपाची भिरांत सगळ्यांच्या काळजांत पोसवूंक लागली.

– आनिक थोडेंच अंतर उल्लां, आनिक अेका वराभराचें. मागीर हाय वेचेर पावतलीं बद्द तिनुरी.

नाथान हुस्को पयस जावचो म्हण सांगले. ही आडवाट बेगीन सोंपची अशें सगळयांकूच दिसतालें. पुण मनांत आसूनय मार्गा खातीर नाथाक पन्नास स्पिडी वयर जीप चलोवपाक मेळना आसली. थोडो मोड्णाचोय भंय दिसतालो.

कांय किलो मीटरांचें अंतर कापुनय तांकां वाटेर जितो मूसूय दिसलोना तेन्ना तांकां खूब बरें दिसलें. मनशां पासून पयस आसा हे जाणीवेन समाधान भोगलें.

दनपारचीं सवाय चार जाल्लीं. वोत सामकेंच मोव जाल्लें. घामय येवपाचो बंद जाल्लो. आतां चड मेकळें वारें व्हांवपाक लागिल्लें. आतां मार्ग सादारण मळा वयल्यान वतालो. मळार अदीं मदीं पांचवीचार झाडां शेंडे फुलोवन उबीं आसलीं. शेवणीं ह्या झाडा वयल्यान त्या झाडार भोंवर मारतालीं. मळार सगळयाक करड मातिल्लें. वातावरण अस्कळ विस्कळ आशिल्ल्यान प्रसन्न दिसतालें. परत एक फावट सगळयांच्या मना वयलो कांच गेलो. मुखां हांसती जालीं. मात नाथाच्या मुखार चिंतेची नवीच सांवळी फांकली. व्हदळच्यान तो मार्गाची सुलूस घेतालो. वाट सारकी आसा म्हणपाचो एक्कुय पुरावो तो आपल्याच मनांक पटोवंक शकलोना.

– वाट चुकलों जाल्यार ?

ताणे स्वताकूच प्रश्न केलो. प्रश्नाची जाप तो दिवंक शकलोना. मुखार दिसपी उंच उबार झाडाचो शेंडो पळोवन ताच्या काळजांतली उमळशीक वाडली. ताणे मनांत म्हळ्ळें.

– तो पिंपळ आसल्यार पुरो.

आनी जीप मुखार पावतां पावतां ताचे मुख उजळत गेलें.ताणे यादीक घट धरिल्लें तें तेंच पिंपळाचे पेड आसलें. आतां ताच्या कपला वयल्यो सगळयो आटयो विरून गेल्यो. तेन्ना तिनुरीक सावन ते एका वरान पिंपळा पेडा कडेन पाविल्ले. रातचे. आतां दिसा उजवडी म्हणटकूच वरा आदीं तांच्यानी तिनुरीक पावूं येतालें. पिंपळा कडेन थारून पेडार कितेंय दवरपाक जाय म्हणपाचो ताका उगडास आसलो.

– पापा, हांगां खंयूय थारया ? पांय मातशे मेकळे करया.

चारून आंग मोडीत म्हळें. भूषणूय तेंच सांगूक सोदी. ना म्हळचार सगळयांची आंगां-पांगा धाडावल्लीं.

– त्या मुखार दिसता त्या पिंपळा कडेन रावंया.

मुखार दिसपी तो पिंपळ नाथाक काळखांत वाट दाखोवपी दिपस्तंभ कसो दिसलो. ताणे पिंपळा कडेन जीप व्हरून उबी केली आनी तिगांयनी जीपीतल्यान धडाधड उडयो माल्ल्यो.

वाटेंतल्या सैमाचे सोबीतकाये परस ही सोबीतकाय अप्रूप आसली. पिंपळा.चे सळसळींत सवण्यांचो आवाज भरसल्ल्यान एक संगीताची धून कशी

सगळ्या मळभर वाजताली. सैमाचो रूपकार हांगां थीर नदरेन पळोंव येतालो. झाडां वयली पोपटी पानांची तिक्रतिकसाण सामकी दोळ्यांत भरताली. पळयता त्या झाडाक आंकऱ्या कोंबऱ्यांचे फागूर फुटिल्ले. कांय झाडांचेर फुलांचे घोंस फुलारील्ले. वडा पासून पंचविशक मिटरांच्या अंतरार जीप उबी केल्ली. पांय मेकळे जातकूच नाथान सिगरेट पेटयत हरीदादाक म्हळ्ळें, – पिंपळा पेडार दोन फळां दवर आनी...

बल्सांत हात घालून हाताक लागता ती मोड ताणे हरीदादाच्या हातार दवल्ली. नाथान थंयच मार्गा कुशीच्या कड्डाचेर थपकल माल्ली. हरीदादा फाटोफाट भूषण आनी चारू पिंपळा पेडा कडेन पावलीं. पिंपळा पेडयेर फळां दवरून हरीदादान सांबाळून हाडिल्लो उजवाती पुडो पेटोवन पेडयेक लायलो आनी केदो वेळ मस्तक पेडयेर तशेंच दवल्लें. पेड कमरभर उंचायेचें आसलें. शिमिटान न्हय पुण बऱ्या गडगंज फांतरीनी बांदून काडिल्लें. पेडांतलो पिंपळ चार मनशांच्या वेंगाचो घेर जातलो येदो जाडयेन आसलो. उंचायूय तशीच मळबांत अयस-पयस, सकयले जाडयेक फावसारखी आनी सोब सारखी.

दोनूय हातांचेर पेज घालून भूषणान आनी चारून वयर उडकी माल्ली आनी अेकमेकाच्या आदारान तीं पेडार चडून उबीं रावलीं. हरीदादान पेडाक तेंकयिल्लें माथें वयर केलें. बुटां सकट दोगांय पेडार चडिल्लीं ताका मानवलेंना पुण ताणे तशें तांकां सांगलेंना आनी तांकांय समजलेंना. हरीदाद जीपी म्हऱ्यांत परतलो. चारू पेडा वयल्यानूच पिंपळाक भोंवताडो मारपाक गेलें. भूषणान पेडा वयल्यान पयस पळयलें. एके कडेन थोडया थोडया अंतराचेर कांय खोंपटां कशीं दिसतालीं. खोपटां कुशीक केळी, पोपायो हांचे सारखीं झाडां दिसतालीं. ताणे दुसरे वटेन पळयलें. अेके पांयवाटेंतल्यान चार-पांच मनीस ताकतिकेन धांवत येता ते ताणें पळयले आनी तो दुबावलो.

वडाक भोंवताडो काडटाना चारू फाटले वटेन पावलें आनी किळांच मारून धांवत आयलें. भूषणाचो हात धरून ताका तेंकून उबे रावलें. भूषणान ताचो हात घट धल्लो आनी तो वडाचे फाटले वटेन गेलो.

केंस, दाढी वाडिल्लो अेकलो मनीस थंय अस्ताव्यस्त पातळिल्लो. दोळे खोल पुण निळसर. दोळ्यांतल्यान दुकां गळून पातकोडयो ओल्यो जाल्ल्यो. ताच्या आंगावयली मुस्तायकी जाडी भरडी पुण नीवळ आसली. मात विचित्र पध्दतीन शिंविल्ली. पिरायेन पंचविशेक वर्सां परस चड नासूंये. खोल दोळ्यांतल्यो मुंडळ्यो घुंवडावन ताणे दोगांकूय पळोवन घेतलीं. तो उठून बसलो आनी रडकुरे तोंड करून ताणे पिंपळाच्या मुळांत बोट दाखयलें.

दोगांयनी अजापांन मुळांत पळयलें. व्हडल कोणाच्या लक्षांत येवंक नासली ही गजाल. पिंपळाच्या मुळांत उजो पेटिल्लो. दोन-तीन खांचीतल्यान उजवातीचो पुडो जाळून जायत तितलो धुंवर भायर सरतालो. उज्याचो

भगभग नासलो पुण संथपणान चरत्या सारखो उजो झाडाच्या आंगाक काबार करतालो. भूषण आनी चारू ही खबर पापाक सांगपाक फाटी वळ्ळीं. इतल्यान नाथा आनी हरीदाद पेडा म्हऱ्यांत पावले. ते पावता थंय आसा व्हदळ पांयवाटेंतल्यान येवपी ते चार-पांच लोक खर्शेत खर्शेत पेडा कडेन रूजू जाले. तांतुतलो एकलो लांबसो मनीस मुखार आयलो.

– तुमी देवमनीस कशे हांगां पावले. ह्या पिंपळा वयल्यानूच तुमकां हे आडवाटेन हाडले. आतां तुमीच आमकां पावात.

– ही कसलो नवी भानगड...

ह्या अर्थान सगळ्यांनी तांचेकडेन पळयलें.

– कालच्यान ह्या आमच्या पिंपळाक उजो पेटला.

लांबेल्यान जाता तितल्या दुखेस्त तोंडान सांगलें.

– हय पापा, उजो सामको भितल्ल्या आंगाक लागला.

चारून बापायची खात्री पटयली.

– आमी तो पालोवपाक सोदतां.

त्या अनवळख्यांनी म्हळ्ळें.

– कसो पालयतले ?

नाथान हुस्कयान विचाल्लें.

– हांगां उदक लागीं ना. पयस तळी आसा. थंय सावन उदक हाडचें पडटलें. हांगां लोकवस्तीय चड ना. दोन-चार गावांतल्यान आयदनां जमोवचीं पडटलीं. लोकांकूय जमोवचे पडटले. ह्या सगळ्या कामांक .... आमी जल्माचे दळीद्री

नाथाक तांची अडचण समजली. पुण चट् करून ताचें मन तयार जालें ना. वाटेर घडिल्ल्या प्रकारांनी तो दुबावान पडिल्लो. पुण हांगां तर पिंपळ दोळ्यां हुजरा जळटालो.

– हांव थोडी भोव मदत करतां.

नाथान धा धांच्यो धा नोटी मेजल्यो.

– फटींग .... नाडंग ....

पेडार उबो रावून तो पिंपळा फाटल्यान रडत बशिल्लो मनीस पैशे घेवपी त्या लोकांक खेपतालो. ताणी ताचेकडेन आडनदर करीत नाथाक म्हळ्ळें.

– पिसो तो. घडये ताणेंच उजो लायला आसुंये.

आनी ते नाथाच्या हातांतले पैशे सुटपाची उमळशीकेन वाट पळोवपाक लागले. पेडार राविल्लो तो मनीस खरोच पिसो कसो दिसतालो. हातांतले पैशे सुटना फुडें ताणी म्हळ्ळें,

– आता तुमचे वाटेन चलात. आमी उजो पालयतात.

ते आयिल्ले ते पाय वाटेन परतले. पिंपळा वयलो पिसो मात तांच्या कानांर सादसर तरातरांच्या गाळींनी तांकां खेपीत रावलो.

– वचपाचें केल्यार बरें.

हरीदाद तार्कतिक करपाक लागलो. थंयच्या वातावरणाक लागून कोणांक हालन दिसनासलें. पुण फुडें फाटी आनिक कसलीय भानगड उप्रासत म्हणपाची धाकधूकय आसली. चारून पॅन्टीच्या बल्सांत हात घातलो आनी दोन रूपयांची नोट पिशा मुखार धल्ली. ते नोटीक पळोवन पिसो हांसत रावलो. चारून हरशीं काकळुटेन इतलें थंय तितलें म्हणून ताका पैशे दिवपाक केल्ले. पुण ताका आतां पिशाचो राग आयलो.

– पिसो !

नोट आसा तशी बल्सांत चिरंगटून पांय आपटीत चारू कुशीक सल्लें.

– हांव पिसो ? आनी तूं शाणे ?

तो परत हांसपाक लागलो आनी नाथाचो दुबाव अदीक बळावत गेलो.

– वाटेर आनिक कोण शाणे मेळ्ळे ना ? मेल्ल्या मढ्याक रडपी, होळी खेळपी, गाडयेतल्यान उडकी मारपी .... सगळे शाणे. आनी हांव पिंपळापेडा वयलो एकलोच पिसो. हा .... हा .... हा ....

पिसो हांसता हांसता ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळपाक लागलीं. एकदम तो गंभीर जालो. दोळ्यांतल्या दुकांचे थेंब बोटांच्या तेमकार धरून तो ते चिरपुटान पेट्टच्या पिंपळाचे सुवातेर मोखूंक लागलो.

नाथाच्या मनांतलो दुबाव पयस जाल्लो. आपणाक वाटेर सगळ्यांनी शिंगां लायलीं ह्याचेविशीं ताका आतां मात्तूय दुबाव उल्लोना. एके वटेन हरीदाद चडफडटालो.

– हांव हिशोब करता थंय आसा. भर चैत्रांत होळी खंयची ? फाल्गुनातली शिगम्या पुनव जावन म्हयनो जालो. लबाड पोरां! दुसरी गजाल... तेणे उडी माल्या ती हांयें म्हाज्या दोळ्यांनी पळयल्या. बास्कळ !

– हरीदादान मनांतले वितराग उक्तायले पुण नाथा मात भितर चडफडत उल्लो. भूषण आनी चारूय खंती जालीं. पैशे गेल्याचें कोणांक दुख्ख नासलें. असल्या पैशांचें ताका व्हडलें कोंतूय नासलें. पुण अनाडी लोकां कडसून फटवल्याची खंत मात जबर आसली.

– पिशा,

नाथान आपुलकायेन ताचे फाटीर हात भोंवडायलो. त्या सगळ्या लोकामदीं होच अेक मनीस भरंवशाचो अशें ताका दिसलें.

– हें कितें करता ?

दोळ्यांतली दुकां वेचपी पिशाक ताणे विचाल्लें.

– म्हज्या दुकांनी हो उजो पालयतां.

– दुकांनी उजो पालोंवक जाता ?

नाथाय ताच्यावरी बाबडो जालो.

– कित्याक जायना ? हीं तुकां म्हजीं स्वत:ची. आडेचीं वा हरामाची न्हय.

पिशान भावार्तान जाप दिली. ताची जाप आयकून नाथा मोनो जालो. हो पिसो काय आपूण पिसो हाचे विशीं ताच्या मनांत खिणभर संभ्रम निर्माण जालो. कांय वेळ कोणूच कांय उलयलोना. भूषण आनी चारू तोंड धांपून एकामेकाक पळयत आसलीं.

– तुकां मदत जाय ?

असह्य जाल्ल्या मोनेळाचो भंग जांवचो म्हण नाथान पिशाक विचाल्लें आनी काकुळतेस्त तोंडान ' ह्य ' म्हणून पिशान जाप दिली.

– कसली मदत ?

म्हण विचारपाचें धाडस नाथाक जालें ना.

– तुमचे कडेन जाता जाल्यार हो उजो पालयात.

पिशाच्या भावने कडेन सगळीं सहमत आसलीं पुण ताची मागणी सगळयांकूच अडचणीची जाली.

– पापा, पिंपळाचो उजो पालोवपा खातीर आमी कांयच करूंक शकचीना ?

बापायचे बगलेक वचून चारून बापायक भीडेक घालो. एक दीर्घ उस्वास सोडून नाथान पेडाक भोंवताडो घेतलो.

येदचा व्हडल्या घेराच्या त्या पुराण रूखान सामको काळजांतल्यान पेट घेतिल्लो. ताची पिराय शेंकडयांची आसुंये. जाणटया मनशाच्या आंगा वयली चामडी लांबता तश्यो ताच्यो सालत्यो सुटिल्ल्यो. भितल्यान तो बरगेल्लो. ताचीं व्हडलीं मुळांय पोखरिल्लीं आनी पोखरिल्ल्या मुळांतल्यान उज्यान रीग मेळयिल्लो. खोडाच्या एक दोन खांदयांच्या भितल्ल्यानूय उजो पाविल्लो. मळा वयल्यान व्हावपी वारो उज्याक चरपाक अदीक सुयोग दितालो. भायल्यान फक्त धुंवरूच दिसतालो खरो पुण भितल्ल्यान ताची अवस्था भयांकृत आसली. नाथाचें काळीज चरचरलें. ओंठ दांतानी चाबडायत ताणे दोळे चमकायत पुताक म्हळ्ळें,

– भुरगीं सदांच बापायच्या भुजार रावन संवसारा कडेन पळयतात अशें म्हणटात. तुकां कितेंय येवजता जाल्यार पळय.

पयलेच खेप बापायच्या तोंडातलीं इतलीं गंभीर उतरां आयकून भूषण थप्प जालो. पुण मान सकल घालपा बगर तो त्या खिणांक दुसरें कांयच करूंक शकलोना.

– चलात.

पिशान सहजतायेन तांका निरोप दिलो आनी कांयच घडूंक नाशिल्ले भशेन तो पेडाचे पेडयेर पायांत तकली मुंगरून बसलो. बळजबरीन सगळयांची जड पावलां हाल्लीं. यत्न करूनूय चारूचीं पावलां हाल्लीं ना. हरीदाद जीपी कडेन केन्ना सावन तांची वाट पळयत आसलो.

– ओ, एडचा, इस्तू मालवला ? क्या तसाच हा ?

पिंपळाच्या मुळात चत्रायेन नदर भोंवडायत कोंडीन पिशाक विचाल्लें. पिशान ताका मानेनूच ना म्हण सांगलें. कोंडीचें काळें तोंड अदिक काळें जालें. खांदा वयली कांबळ पेडार वडयत ताणे मुंजीचे आंकडीची कोयती काडून कांबळीर दवल्ली. चंची सोडून पान भायर काडलें.

– पान खानार ?

आपणाल्या खावची पानांक चुनो लायत ताणें पिशाक विचाल्लें.

पिशान ना म्हण मानेनच जाप दिली.

दणकण पेराचो तो काळो कुळकुीत धनगर पेडार बसून पान खावपाक लागलो. पान खातना ताच्या वांटकुळच्या पोल्यार वाडिल्लें केंसाचे खूंट तायट जाले. चानयेच्या शेंडचा सारख्यो मिश्यो वयर सकयल जावपाक लागल्यो. पांयाच्यो जाड तळयांच्यो व्हाणो ताणे पेडा सकल काडल्यो आनी दोनूय पांय वयर काडून तो पेडार बसलो. कानांच्या पाळयांक लांबपी चांदीच्यो मुदयो आनी उजव्या मनगटाचें कडें सूर्याच्या किरणांनी चकचकतालें. कमरा वयल्या चांदीच्या गोपाचेर अस्तेंतेची किरणां पडून तांचे पर्तावण जातालें. माथ्या वयल्या पागोटच्यांतल्यान शेंडयेचो पोत कोळे हुंदराचे शेंपडे सारखो भायर सरिल्लो. कमराच्या वालक्यांतल्यान ताचीं जांगडां पॉलीश केल्ल्या शिश्याच्या लाकडा भशेन तिकतिकतालीं. धव्या वालक्यान आपणालो मुळचो धवो रंग सांडयल्लो आनी निळच्या जाकीटाचेर गळचा कडेन आनी खाक्यांत घामाचे दाग पडिल्ले. पानाची पींक भायर थुंकत ताणे पिशाक विचाल्लें,

– हे कोन पावनं ?

आनी आपणाले वांटकुळेच दोळे त्या तिगांय अनवळख्यांचेर घुंवडायले.

– पावनं कंच्या गांवचं ?

पानांचो पांचवो राप बशिल्ल्यो दांताच्यो माळो भायर दाखयत ताणें हांसत विचाल्लें.

– दौलतपूर.

नाथान जाग्यारसूनच जाप दिली.

– म्हंजे मोटचा गांवचं. कसला खास मामला हासा दिसतो म्हनून हचा आडवाटेन आले.

नाथाक ताच्या म्हणण्याचो रोख समजलो. ताणे तशें ना म्हणून सांगल्यारूय ताचो विश्वास बसचो नासलो. देखून तो वगीच रावलो.

– आमच्या पिंपळाला इस्तू पेटला मां. वायट जालां. कसा पेटला तेंच कळना. आमचा येडा कालच्यान छाती थोपट्टा न्हाईरं येडचा ?

धनगरान पिशाच्या माथ्यांत हात घालून ताचे केंस पिसडायले.

– ये गंगी, कुठं पावलीस ग ?

आपूण आयिल्लो ते वटेन तोंड करून ताणे साद घालो. धनगरान साद घातलो ते तरेन गंगी ताची बायलूच आसूंक जाय अशें दिसतालें. सगळयांनी ते वटेन पळयलें. पुण ते वाटेन कोणूच नासलो. इतल्यान जीपीचो एक हॉर्न वाजलो आनी मागीर हॉर्नार होर्न वाजपाक लागले. नाथाक शिटकावणी मेळ्ळी. हरीदाद हॉर्न वाजयता म्हणपाचें ताका समजलें पुण ताका हरीदादची करणी मानवलीना. भूषणाक आनी चारूकय हरीदादाचो राग आयलो. सगळयांनी मन मारुनूच जीपी वटयां मान वळयली.

– ए, गंगी राणला तेंचे गाडीला हात लावतिस? मारीन धरून. इकडं ये.

ही गंगी धनगराची बायल काय आडांगी भुरगें असोच सगळयांक दुबाव आयलो. जिपितल्यान तोंड भायर काडून ती खळखळीत हांसली. सामकी पिंपळाच्या सळसळा भशेन. सिटार अर्धो कुलो तेकोवन ती हॉर्न दामताना कुशीक उबो आशिल्लो हरीदाद फकत असाह्य जावन पळयत उरिल्लो. घोवाचो धेंगसो पडनाफुडें जीपीचे कुशीक सरुन तिणे कड्डाचेर उडी माल्ली आनी थंय दवल्लेली बडी उबारून मळार गणयतल्या बोकडांक अचळय तेंकयली. ते सरशीं बोकडां कड्डा वयल्यान उडयो मारीत रेंवेवयलें ल्हार कशीं भुरुभुरू धांवपाक लागलीं. आनी तांच्या उरफाटी गंगी देडके चालीन पिंपळा पेडा कडेन धावून येवपाक लागली.

पेडार रावन सगळीं जाणा तिका नियाळटालीं. आंगलोट तीस-पस्तिशेक वर्सांचे बायलेचो आसलो पुण तिचें आडांगीपण सोळा सतरा वर्सांच्या भुरग्या सारखें सोबतालें. तांबडचा कापडाची कांस चरांटून मारिल्यान मांडयो उक्त्यो पडिल्ल्यो. बोंबलेची खळय स्पश्ट दिसताली. उडयो मारताना हड्डें हालतालें आनी गळचांतलें तांबडचा पोवळयांचें गाठलें आनी बारीक मोटचा मणयांच्यो गळसऱ्यो हड्ड्यार धडाधड आदळटाल्यो. तांचो किणकिण पेडारूय हय न्हयसो आयकूंक येतालो. हळडुवसार कड्डाच्या पाश्र्वभागार तिजो गवाळ रंग सुसंगत दिसतालो. खळखळटें ल्हार येवन धडेक आदळचें तशी ती येवन पेडाक तेंकली. सगळयां कडेन वळख आशिल्ले भशेन तिणें हांशें केलें. ते सरशीं नाकांतली नथ फट् करून उसळून परत आसा तशी वयल्या ओंठार येवन आदळ्ळी. कांय न्हय करून तिणे कंबर बागोवन बोकडे सारखी पेडार उडकी माल्ली आनी पिंपळाची खबर घेतली.

– आरे, देवा ! आतां ह्यो इस्तू मोटा जाला.

तिणे कपलार हात माल्लो. खिणांत उज्याच्या धगान कळो बावचो तशें तिजें तोंड बावलें. वाऱ्यान हालपी कणस वारो नासून अकस्मात थीर जावचें तशी ती थरगी पडली. कपला वयलो हात काना वयल्यान गळसणलो. वयल्या कानांतले बुगडेक, कारापुरांक आनी कानाचे पाळयेच्या कापाक हाताचीं बोटां लागलीं.

– ह्यो इस्तू मालवील त्याला मी कानांतले सोन्याचे सगळे दागीने दियन.

तिणे ओठांतल्या ओठांत म्हळ्ळें आनी मागीर कोंडीचेर नदर घुंवडावन ती, ताणे आयकलेंबी जायत म्हण कांचवेली.
– ए पिश्या,
वागाची अूव कसो कोंयडी करून बशिल्ल्या पिशा मुखार तिणे पांय आदळ्ळो. फातरांचेर तिज्या पावलाच्या पांचूय बोटांचे अळंकार टीण् टीण् करून वाजले. आंगठ्याचे सल्ले, जोडे, माशे, फुलां आनी किरंगळयो सगळे चांदीचे आसले.
– त्याला कशाला बोलतीस? त्यानी क्या पिंपळाला इस्तू ल्यावलाहा?
कोंडी बायलेचेर धेंगसलो.
– क्याल पासून इस्तू पेटतो हा. कोनूच बापड़ा आला नायीं त्यो मालवाला.
ती आपगाचेरूच वितरागली. नितळ उदका सारखी तिरशी नदर तिणे सगळयांचेर घुंवडायली. चारुवो भेस पळोवन ती खिणभर दुबावली आनी मागीर भूषणाचेर तिणे नदर थीर केली. नदरेक नदर भिडनाफुडें भूषणान हय न्हयशी मान हालयली. व्हदळच्यान तो तिकाच नियाळीत आसलो.
– क्या फून वाढला!
तिणें सुकोच आंवडो गिळ्ळो.
– तुज्यानी मालवाला व्हयाचा नायी?
तिणे नदरेंतूच भूषणाक प्रश्न केलो आनी त्या मोन्या प्रश्नान भूषण अस्वस्थ जालो.
– पापा, हांव म्हण . . .
भूषण आडखळ्ळो. गंगीन ताच्या उतराकडेन कान दिलो पुण फुडें ती कांयच आयकूंक पावलीना.
– गंगी, सोपां काम नायीं तें. पोखल्लेल्या खांडयात हात घालून इस्तू पालवाचे कोन करीन?
कोंडीन पानांचो चोथो फर्र करून कड्डाचेर शिवरलो. मानेंक पिवळ दिवन तो वयर पिंपळाक पळोवन आपले भितरूच कितें कितें बडबडूंक लागलो.
......तो पिंपळ ताचे मुस्तितलोय नासलो. ताचें भुरगेपण त्या पिंपळा पेडाचेरूच गेल्लें. पिंपळा पेडार कसलो देव आसता ताची कोणाक खबर नासली. 'पिंपळा वयलो देव' म्हणून सगळे ताका पाचारताले. कसल्या बऱ्या कार्या दीस श्रीफळ उखलासून दवरताले. कोंडी आनी गंगीचें लग्न जाल्लें त्या दीसा तांचे होंवर सगळयान पयलीं पांयां पडूंक पिंपळाकडेन आयिल्लें. तांच्या दसऱ्याचे तर कितलेशेचे विधी पिंपळा कडेन जाताले. गवळा भायर सरील्लो धनगर पिंपळा वटयां हात जोडले बगर पावल उखलीना आसलो. पेडांतलो पिंपळ म्हळयार रानखेडांतलो सगळयांत जाणटो मनीस कसो. कितेंय करपा-सरपाचें ते ताच्या आशिर्वादान. शिवाय पिंपळा पेडाचे घोलीत जाग्याचो सोरोप

रावता अशी सगळयांची श्रद्धा आसली. कोंडीन मान आसा तशी सरळ केली आनी दोळयांच्या पातकोडयां कडेन आयिल्लीं दुकां तशींच जिरयलीं.
– पापा, हांव म्हण फायर ब्रिगेडीक हाडून उजो पालोवपाक जांवचोना ?

भूषणाच्या प्रश्नान नाथाचें मुख उजळ्ळें. पुण चड वेळ न्हय.
– शक्य ना कित्याक ? पुण हांगां कशें शक्य आसा ? फायर सर्विस एक तर दौलतपूर वो दुसरी कन्हाळ.
– कन्हाळ लागीं पडचेंना ? फोन केल्यार ?

बापूय-पूत आपले मदीं शक्य-अशक्यतायेचेर उलोवपाक लागले. कोंडी आनी गंगीन गळीतगात्र जावन पडिल्ल्या पिशाक भुजाक धरून उबो केलो.
– असा मढया सारका क्या पडलास ? बगूंया क्या उपाय होतो जाल्या ?

पिशान तकली वयर केली. व्हदळच्यान चारू, तो तकली वयर काडटा काय म्हण वाट पळयत आसलें. बापाय पूता मदलीं उलोवणी चल्ल्यांत तीं पळोवन कितें तरी बरें घडटलें म्हणपाचें कोंडीक आनी गंगीक दिसपाक लागलें. गंगी अुमळशीकेन चारू म्हऱ्यांत गेली आनी तिणे ते कित्याविशीं उलयतात म्हणपाचें विचारलें. चारून तिका फायर ब्रिगेड म्हळयार कितें ताची कल्पना दिली. ते कल्पनेन गंगी भारावली. मोटे आस्तेन तिणें भूषणाचेर नदर घुंवडायली. भूषण भुरकुटलो.
– पापा, हांव जीप घेवन तिनी रस्ता वतां. थंय सावन कन्हाळा फायर सर्विसेक फोन करतां. आनी येतना फायर ब्रिगेडीक घेवनूच येतां.

भूषणान उमेदी भरशीं सागलें पुण प्रत्यक्षांत कितलो वेळ आनी त्रास पडटलो ताची ताका जाणीव आसली. नाथा बरोच गंभीर जालो. कुटूंबाचो मुखेल म्हण ताचेर आशिल्ले जापसालदारकेची ताका अचकीत जाणीव जाली. भूषणाच्या धाडसाक मान्यताय दिवप म्हळयार खुबूच मोटी रीस्क स्वीकारपा सारखें आसलें.
– भूषण, तुका येवपा-वचपाक कमींत कमी तीनेक वरां तरी लागतलीं.

बापायन ताका स्पश्ट न्हयकार दिलो ना.
– कांय हरकत ना. तुमी हांगासर विसव घेतात. हांव बेगीनात बेगीन पावपाचो यत्न करतां.

घडयाळांत पळोवन ताणें सांगले. सांजची पावणे पाँच जावपा कडेन पाविल्लीं. भूषणाक ‘ नाका ’ म्हणपा अितली परिस्थिती उरूंक नासली. भूषणा बरोबर कोंडी आनी पिसोय भुल्लुसलेलो. तांचे खोशयेंत चारूय भरसून गेल्लें.
– चला, जीपींतलें सामान देंवोवन घेयात.

भूषणा फाटोफाट सगळयांनी पेडा वयल्यान धडाधड उडयो मारल्यो. भूषण जीपी म्हऱ्यात पावचे आदी गंगी जीपीक वचून भिडली. हरीदादाची पर्वा करीनासताना ती जीपीच्या फाटल्या स्टेपनीचेर उबी रावली आनी

कॅरीअरा बांदिल्ल्या सामानाची दोरी सोडोवपाक तिणे हात घातलो. दोरी सुटपाक कठीण जाली तशी ती वानऱ्यावरी उडकी मारून कॅरीअराचेर पावली. मुखा वयल्या सिटार बसपाक गेल्लो भूषण दोळे वरशे करून तिका पळयतूच उल्लो. तिचे दणकट हात भराभर दोरयेच्यो गांठी सोडटाले. कोंपरा वयले तोळमण पत्र्याचेर तेकून आवाज जातालो. जीपीच्या टापा वयल्यान तिज्यो पोंवटो अदीक अुक्त्यो दिसताल्यो. पांचव्या खणाचे चोळयेंतलें हड्डें अदीक हालतालें. तिच्या पावला कणकणी बोटांतल्या सल्ल्यांचो आवाज टापार टप् टप् वाजतालो. कॅरीअरा वयलीं बेडींगा, ट्रंक, बॅगो तिणे सहजतायेन एक एक करून सकल दिलीं आनी तीं घेतासर चारूक आनी हरीदादाक धांप लागली. भितल्लें सामान कोंडीन आनी पिशांन उसपिलें. नाथा पेडार रावून गंगीची करामत पळयतच उल्लो.

वयलें सामान देंवोन जालें. मानेक दिल्ल्या अेका झटक्या सरशीं गंगीच्या केंसाचो आमाडो सुटलो आनी मळा वयल्या कड्डा भशेन तिजे पिंगशे केंस तोंड आनी फाटभर जाले. ती देवपाक सोदी. तोंडार केंस सुटिल्ल्यान पावल खंय दवरपाचें तें तिका दिसलेंना आनी ती पांय लांबोवन सांसपुवपाक लागली. इतलो वेळ तिका पळयत आशिल्लो भूषण फुडें सल्लो आनी ताणे आपलो हात तिज्या पांयातळा धल्लो. तळवो खुबूच थंड आसलो. दुसऱ्या पावलाक सुवात मेळू नासून तिजो तोल गेलो आनी सगळो भार तिणे भूषणाचेर घातलो. भूषणाच्या एका हाताक तिजे उक्ते जांगेचो स्पर्श जालो आनी एका हाताक हड्डयाचो. खंयचो स्पर्श अदीक सुखदिणो त्याच संभ्रमात तो पडलो. गंगी ताच्या फुडयांत उबी आसली. तिच्या उदका सारख्या दोळयांत भूषण पुराय विरघळून गेलो.

– पान्याची गाडी घेऊन ये. तुस्नी क्या मागशील ते दीन.

भूषणाच्या तोंडा कडेन तोंड व्हरत तिणे ताका सांगलें. आनी ताच्या गुबगुबीत पोल्यार आपल्या निबर बोटांची चापटी माल्ली.

भूषण स्टेअरींगचेर बसलो. जीप स्टार्ट माल्ली. रीव्हर्स घेतलें. नाथान बेगीबेगीन येवन ताका कांय चत्रायो दिल्यो. आनी आडेच्या नेटान म्हळ्ळें,

– वीश यू गुड् लक माय बॉय् !

जीप घुरघुरत गेली. बरोच वेळ भूषण कडेच्या हारशांतल्यान गंगीची म्हूर्त पळयत आसलो.

सकल काडून दवल्लेल्या सामानाचे राशीर हरीदाद तोंड उक्तें करुन बसूनच उल्लो. जीप नदरे आड जायसर ताका ह्या प्रकरणांतलो घोळ समजलोना. नाथान ताची अवतिकाय पारखिली आनी घडिल्ल्या प्रसंगाची ताका विस्कटावणी करून सांगली.

– ही ऽ ही ऽ ऽ

वानरावरी उडयो मारीत पिसो कड्डांतल्यान धांवलो आनी येळमा झाडा वयले कांगलीणीचे वालीर चडून झोपय घेवपाक लागलो.
– आवशी झवऱ्याक, खुस जाली बग.
गंगीन ताचे वटेन बोट दाखयत म्हळ्ळें.
– खुस जाल्याव त्यो असाचा माकडाचे गत झाडाव चडतो.
गंगीन खासा आपणे झाडार चडपाचो अभिनय करून दाखयलो. नाथाची पावलां नकळटाना तिज्या वटयां वळ्ळीं.
– गंगी, मी शेळयांना साठांत घालून येतो. बेगीन ये. तळीव जावून माठांत पानी कोन भराचा तुजा बा?
खांदार कांबळ वडोवन कोंडी बोकडां फाटल्यान गवळान गेलो.
चारू पिशा फाटल्यान गेलें आनी कांगलीणीची वाल हालोवन पिशाक भेकडावपाक लागलें. ताच्या पिशापणाचेर पिसो दांत काडून खळखळ्ळो.
– त्यो पोरगा तुजा?
जीप गल्ले ते वटेन नदर भोंवडायत गंगीन नाथाक विचाल्लें.
– हय. खूब हुशार.
नाथाचें हड्डें अभिमानान भरून आयलें.
– मस्नी असाच पोरगा व्हयी. तुज्या पोरग्या सारकाच. दितोस?
नाथाच्या दोळयांत दोळो घालून तिणे ताका प्रश्न केलो आनी तोंड मळबा वटेन करून मान हालोवन केंस सरळ केले. मानेक एक झटको दिवन सगळे केंस हड्डयार हाडले आनी उजव्या हातान केसांक गांठ घाली. आपणाल्या दोळयां मुखार घडटा ते करणेचो अर्थ नाथान आपणांक जाय तसो लायलो.
– गंगी, राणला येतीस क्या पाळ घेवून येंवू ?
पयसुल्ल्या गवळा कडल्यान कोंडीचो आवाज आयलो. पाळा परसूय तो धारदार आसलो.
– मस्नी तुजे कॅस खूप आवाडले. आमच्या करडा सारके. हात लावन बगूं ?
नागीणीची फडां कशीं तिणे हाताचो पोचको उबारीत म्हळळें.
नाथा खिणभर गोंदळ्ळो. हरीदाद पयसुल्ल्यान तिरशी नदर लावन आसा म्हणपाचो ताका बेठोच दुबाव आयलो. चारू तर बरेंच पयस आसलें.
– गंगी ऽ ऽ ऽ
परत मळा वयल्यान कोंडीचो आवाज आयलो.
– मी येते- रोक्कडी येते.
गंगी कड्डांतल्यान वाऱ्या सारखी धांवत गेली. नाथान माथ्यांत अचळय हात भोंवडायलो आनी मळा वयली सगळी मनीसजात ताका नसाय नसाय जाली.

पान्याची गाडी घेवून ये. तुस्नी क्या मागशील त्या देईन.

गंगीच्या ह्या उतरांचो अर्थ लायत भूषण जीप चलयतालो, न्हय दोफरायतालो. सूर्य आजून अस्तेंतेक बुडूंक नासलो. आतां भूषणाक वाटेची संवकळ जाल्ली. थोडीं मोड्णां आनी चड्टचो यादींत उरिल्ल्यो. जीप येरादारीच्या त्या तिठचा कडेन पावली जंय त्या वाटसुरान उडकी मारील्ली. भूषणान स्पीड मात्तूय उणी केलीना. फक्त हॉर्न मात वाजयत रावलो. मार्गार पातळून बशिल्ले लोक जीव मुठींत धरून आपशींच कुशीक सल्ले. जीप फांस आशिल्ल्यान तो तांकां सारखे वळखूंक शकलोना. पुण व्हदळचेच सगळे लोक थंय आसतले, इतलेंच न्हय तर उडकी मारपी तो फटींग, सुतलायिल्ल्या दुडवांचे वांटे करीत आसतलो हाचेविशीं ताका दुबाव उल्लो ना.

जीपी फाटल्यान कुशीची झोपां व्हिळून पडटालीं. मातशी जीप कुशीक तेंकल्यार ताळये सकट पानां चराचर कातरून वतालीं. हे जीपी उपरांत आनिक एक्कूय गाडी त्या मार्गा वयल्यान वचूंक नासली. धुल्लार लागिल्ले आदले रोदांचे दाग आतांच्या दागापोंदा चिड्डुन वताले.

– तुस्नी क्या मागशील त्या देईन.

गंगीच्या प्रश्नान भूषण चक्रावन गेल्लो.

.... अशा वेळार कितें मागपाचें आसता काय? घडये असो प्रसंग सहजा कोणाच्या जिवितांत येना जांवये. कांय भाग्यवंतांच्या नशिबांतूच ...

– हरामखोर! व्हदळ निसणीर मरून पडिल्लो आतां कसो उठून निसणीर बसला पळय.

जीप लोकां मुखा वयल्यान फांस गेली आनी तांकां कसलीच हालचाल करूंक न मेळिल्ल्यान भूषणांक तांच्या नाटकाची खात्री पटली.

– आतां होळयेच्या पोरांच्यो गालच्यो धरून पिंजून काडटां.

भूषण मनांत चडफडलो. आनी गंगीन आपणाच्या पोल्याचेर चापटी मारील्ल्याचो ताका उगडास जालो. नकळटाना ताचो दावो हात पोल्याचेर गेलो. कितलोसोच वगत तो पोलो सांसपित रावलो. आंगा वयल्या मोडणार ताका दोनूय हात स्टेअरींगाक लावचेच पडले.

जीपीचो आवाज आयकून खोपटांतली पोरां धांवत आयलीं. तीं मार्गार पावपाक आनी भूषणान जीप तांच्या मुखार उबी केली आनी दोळयांचे इंगळे करून तो अेका अेका पोरा-तोराक नियाळूंक लागलो.

भुरग्यांची भंयान गुळी जाली. तांकां जीपीची आनी भूषणाची वळख पटली आनी तीं जीव मुठींत घेवन धांवत सुटलीं. मार्गा वयली होळी तशीच मार्ग आडोवन आशिल्ली. भूषणान वालेतीतल्यान जीप वयर काडली आनी कुशीच्यान व्होल्त मारून तो मार्गार आयलो. रानखेड सोंपून आडबुद्रूकचो मार्ग लागिल्लो. ... गंगीक जीपीत आयल्यार ती आपणां बरोबर येतली आशिल्ली काय ? हय काय ना ह्या प्रश्नाचेर ताणे कितलेशेंच अंतर तोडलें.

घडयंच् करून गचको खावन जीप मातयेच्या मार्गा वयल्यान डांबरी रस्त्यार आयली आनी तो भानार आयलो. आडबुद्रूकचो मार्ग सोपिल्लो आनी तो हाय वेचेर पाविल्लो. स वरां जाल्लीं. पावुण वरा भितर ताणे साठेक किलो मीटरचे अंतर तोडिल्लें. सगळयान पयलीं पेट्रोल पंपार वचून ताणे टाकी आशिल्ली तशी फूल केली आनी तो कन्हाळाक फायर सर्विसेक कळोवपा खातीर फोनाचे चवकशेक लागलो.

तूं अशीं पिशेंपणा कित्याक करता ?

कांगलीणीची वाल झेलयत चारून पिशाक विचाल्लें.

– ही ऽऽही

दांत भायर काडीत पिसो हांसलो. ताचे दांत चकचकले.

– तुजे दांत इतले चकचकीत कशे ?

चारून अजापान ताका विचाल्लें.

–हांव माकोड.

ताणे कांगलीणीचे अेके वाली वयल्यान दुसरे वालीर उडकी मारीत म्हळ्ळें आनी दांत भायर काडून माकडा सारखो चीं चीं आवाज केलो.

वालीचेर झोपय मारताना तो खऱ्यांनीच वानरावरी दिसतालो. ताचो भेसूय विचित्र. कलसांव म्हळयार कलसांव न्हय, घागरो म्हळचार घागरो न्हय. तशेच तरेन वयलें खोमिस. खोमिस म्हणचे परस आंगाचें धाकणें.

– तूं झाडाचेरूच रावता ? तुकां झाडा वयल्यान पडपाची भिरांत दिसना ?

चारून कांगलीणीचे वालीचेर चडपाचो यत्न करीत म्हळळें. दोन तीन फावट तें घसरुन पडलें पुण ताका हात दिवन वयर काडपाचें धंगण पिशाक नासलें.

– माकडा, म्हाका हात दी मरे.

चारून ताका विनयलो आनी मागीर पिशान ताका कांगलीणीचे वालीचेर

वयर चडपाक मदत केली.
– आतां उलय. आतां तंवूय माकोड़ हांवूय माकोड.
– माकडीण.
पिशान म्हळें आनी दोगांय मेकळेपणान हांसली.
कांगलीणीचे वाली वयल्यान पिंपळा पेड दिसतालें. पेडांतलो धुंवर वाऱ्या बरोबर भुरूभुरू भायर पसरतालो. सामानाचे राशीर हरीदाद लवंडलेलो. कुशीक उक्त्या मळार नाथा मळबाकडे तोंड करून उदारो पडिल्लो.
बऱ्याच वेळान पिशान तोंड उक्तें केलें आनी मागीर व्हांवती झर कशी तो उलोंवक लागलो. चारू ताचे उलोवणें आयकत रावलें.
पिशाक भुरगेपणांतलो घट डगडास आसा. एक दीस ताचो बापूय सद्चे भशेन सोरो पियेवन आयलो. आपणाल्या धायेक कचाबुच्यां मदलो पिशाक ताणे वेंचून काडलो. खोंपीचे म्हेडीक बांदून घातलो आनी तो बडी हाडपाक गेलो. पिशाचे आवयन पिशाक बांदून घातला तो पळयलो आनी ती धांवून आयली. बापाय परस तिकाच पिशाचो राग चड आसलो कारण बुडकुल्यांतली सगळी पेज एकलो पिसोच जेविल्लो आनी बाकीच्या भुरग्यांक ताणे उपाशीं वडयिल्लीं. आवयच्या हाताक लागू नासून तो सुटील्लो पुण आतां म्हेडीक बांदिल्ल्यान आवयचे तावडींत आयतोच सांपडिल्लो. हाताक मेळटा ती वस्त उबारून ती पिशाचेर शेंवटूक लागली. इतल्यान हातान बडी घेवन बापूय आयलो. पिशान एके वटेन मार सोंसलो आनी दुसरे वटेन दोरयेचे वळ पोटाक चराट्टात ताची पर्वा करीनासताना म्हेडीचो दोर तोडून वडयलो. तो धांवत रावलो. कितलीशींच वरां तो धांवतालो. ताच्या पोटांतली पेज बुडूक् बुडूक् जाताली. गळ्याकडेन येताली. तरी तो धांवतालो. अेक दीस धांवलो आनी दुसरे दीसाय धांवक लागलो. भूकेक ताणे वाटे वयलें गोरवांचें शेण पासून खाल्लें. धांवून धांवून जमना जावन तो एकीकडेन पडलो.
– आनी मागीर म्हाका कोंडीन सावचीत केलो. बरोऽऽ दुसरे दीस काय तिसरे दीस. पुण हांव तेन्नां पिसो कसो बेस्टोंच धांवलो.
– कित्याक ?
– म्हाका धरपाक खंय कोण येतालो ?
आनी तो परत दांत काडून हांसलो.
– आता तूं झाडाचेरूच रावता ?
– म्हाका आवडटा. जमनीर म्हाका न्हिदूच पडना. मनीस कशे न्हिदतात म्हण देवाक खबर ! तुंवूय जमनीरूच न्हिदता ?
पिशान सड्या भावार्थान ताका विचाल्लें.
– ना, हांव खाटीचेर न्हिदतां. अशें–

कांगलीणीचे वालीचेर आड पडून ताणे दाखयलें. कितलोसोच वेळ तें तोल सांबाळून वालीचेर तशेंच आड पडून रावलें.
– म्हाका आतां घराचो भंय दिसता. घरांत भितर सल्लो म्हणटकूच घराच्यो म्हेडी दिश्टी पडटात आनी मागीर दिसता त्या म्हेडींक म्हाका कोणूय बांदून घालून येतिश्ठ पेटीत जाल्यार .... त्या कोंडीगेर सुध्दां हांव कसल्याय कामांक गेलों जाल्यार गवळा भायले वंयेकडेन रावतां. भितर वचना.
– खाता कितें ?
– फळां. तरातरांची. आनी झाडांच्यो कोंबऱ्यो. त्यो म्हाका खूब आवडटात. आनी पितां तळयेचें उदक. दिसाक दोन खेप तळयेर न्हातां. पळय, म्हजें आंग कितलें नितळ. त्या धनगरांन सारखें न्हय.
पोटा वयले आंगलें कुशीक काडून ताणें पोटकळी दाखयली. ती खऱ्यानीच नितळसाणेन तिकतिकताली.
– हांव भाताच्या गोटयाक आफडी पासून ना. गंगीन दिल्ले नाचण्याचे भाकरेन पासून शिताचो गोटो दिसल्यार हांव भाकरेक तोंड लायना. वगीच दिसता- शीताचो गोटो पोटांत गेल्यार कुळकुळपाक लागतलें.
चारूक ताच्या बाबडयापणाची काकळूट दिसली. तोल सांवरीत ते वाली वयल्यान पिशा कडेन गेलें.
– हे असले कपडे तुकां कोण शिंवता ?
चारून ताच्या कपडयांक हात लायत विचाल्लें. ताचें कापड सुती आसलें. जाडें-भरडें पुण निवळ.
– दर दोन दिसांनी उमळटां. त्या धनगरा सारखें न्हय.
पिशाच्या उतरा कणकणी धनगराच्या बुरशेपणाचो उद्धार जातालो.
– ही तुजी कपडयांची मोद खंयची ?
– खबर ना. एक मनीस आसा. तो दर सप्तकांत म्हाका सोदीत पिंपळा पेडार येता. तो सांगता त्या झाडाची पाळां हांव ताचे खातीर काडून दवरतां हांव ताका जाय तसलें मूळ हाडून दितां पुण झाड दाखयना.
चारूक ताच्या शिटूकपणाची आनी व्यवहार ज्ञानाची तोखणाय दिसली.
– तो म्हाका जायत्यो वस्तू हाडून दिता. असले कपडे तोच शिंवून हाडटा. केन्ना केन्ना जायत्यो वस्तू हाडटा पुण हांव म्हाका गरज त्योच घेतां. तो तसो खूब बरो मनीस.
– तो तुज्या त्या मुळांची वखदां करून हजारांनी जोडटा आसतलो.
– जोडूं !
– आनी तुकां कसलें दुयेंस जाल्यार ?
– सगळ्या दुयेंसाचीं पाळां म्हजेकडेन आसा.
आनी ताणें चारूक बोटान कुरु करून लागीं आपयलें. चारु तोल सांवरीत

ताच्या म्हऱ्यांत गेलें. मान बागोवन ताणे ताच्या कानांत सांगलें
– म्हजे कडेच दुख्ख विसरपाचें पाळ आसा. झरोन घेवपाचें. जालें. दुख्ख खलास !

आनी मागीर तो आसा तसो मोटयान उलोवपाक लागलो.

– म्हजे तळये वयर एक फातरींचें कुरकूट आसा. त्या कुरकूटांत झाडा-पाल्याचीं सगळीं वखदां आसा. पावसान रावपाची थंयच म्हजी धोल आसा. सामकी तळयेच्या माथ्यार.

पिशान हातानी कुरवो करून सांगलें. चारूक ती तळी आनी तो वांठार पळोवपाची उमळशीक लागली. आनी दुःख विसरपाचें तें पाळ लेगीत.

– सगळे लोक तेच तळयेर वतात ?

ताच्या म्हऱ्यांत बसत ताणे विचाल्लें.

– ना. तांची तळी दुसरी. धनगरबी ते ऽ ऽ तळयेर वता. थंय गवळा कडेन आसा म्हजी तळी. ही ऽ ऽ अशी पयस दोंगराचे दोंडीत.

– म्हाका दाखयशी ?

चारून उत्कंठतेन म्हळें.

– तूं थंय पडटलें.

– पडल्यार तूं घट धर म्हाका.

आनी चारून ताच्या भुजाक घट धल्लें.

– ना.

पिसो ताचे म्हणणेक राजी जालोना.

– पळय, तूं तळी दाखयना जाल्यार हांव हांगच्यान सकल उडी मारतलें.

देडेक मनीस उंचायेचें अंतर आसलें. पिशाक हांसूक आयलें. पिशान म्हळें,

– मार.

आनी वालीचेर, एके खांदयेच्या आदारान उबें राविल्लें चारू थरथरपाक लागलें. संवय नासून इतलो वेळ तें झाडाचेर आशिल्लें. ताचे पांय लटपटपाक लागले आनी ते सरशीं दोनय हातय थरथरपाक लागले. पिशान ताची अवतिकाय पारखिली. तें आतां खंयच्याय खिणांक सकल पडूंक शकतालें. सकयलें अंतर चड नासलें पुण आंग-पांग धाडांव येतालें. हात-दोको मोडूं येतालो. पिसो ताच्या म्हऱ्यात उबो रावलो आनी ताणे ताका फाट केलो. आपणाले हात घट्ट वालीक धरीत ताणे ताका आपणाले फाटकुळेर बसपाक खुणायलें. झप्प करून चारून ताचे फाटकुळेर घालून घेतलें आनी आपणाले हात ताचे माने भोंवतणीं आंवळ्ळे. पिसो कांगलोणीचे फोपाडच्या येदे वाली वयल्यान हुमकळत सकल आयलो. वालीचेर व्यवस्थीत झेल घेवन ताणे अचळय भूंयेर पावल दवल्लें.

– चल, तळयेर या.
चारून ताका हाताक धरून फोर्स केलो.
– पुण पिंपळाचो उजो ?
पिशाक पिंपळाचो हुस्को जाल्लो.
– तो पालोवपाक आजून कळाव आसा. बंब येतकूय येंवया.
आनी चारून ताका बळजबऱ्यां ओडलो.
– पापा, हांव रोखडेंच येतां.

चारून कट्टाचेर आड पडिल्ल्या बापायक सादयत म्हळें आनी ताचे मान्यतायेची वाट पळयनासतना तें पिशाचो हात धरून तळये वटेन धांवपाक लागलें.

गवळांत गंगी फातरीचेर चटणी वाट्टाली. कुशीक नाल्लीभर मिरसांगो आसल्यो. रान्नींत उजो पेट्टालो. कोंडी साठांतल्या बोकडांक हातान धुकलीत सारखीं करतालो.
– अब्बा ! येवडचा मोटचा साटांत खांडीभर शेळचा होइंता म्हणजे क्या ?
तो आपले भितरच उलयलो.
– ह्यो काळे दाढीचा बोकोड खुपूच मस्तावला. त्या शेळीची प्याट सोडीत नायी.

गंगीकडे पळयत ताणे हांसत हांसत म्हळ्ळें. पुण गंगीचें ताच्या उलोवपाकडें लक्ष नासलें. हय नाकां करीत ती एक एक मिरसांग फातराचे दाढेक दीन आशिल्ली.

पंचीशेक हात लांबाय आनी धा बारा हात रूंदाय इतल्या आकाराचो तो गवळ आसलो. अर्दे जागेंत रांदप, जेवप, न्हीदप, मुस्तायकी, सामान दवरप आनी अर्दे जागेंत बोकडांची गोठी. कुशीक दोन देखल्यांच्या म्हेडीचेर आड केल्लो लाकडाचो वांटकुळोच लोळको. ताचेर बसपाचें. थंयच कोंबयांक धांपपाची पांज. गवळाक मदीं कूड, पारेतबी कांय ना. पारेतींचे सुबातेर दाटायेन पांख्या मेरेन जिन्याच्या बडयांनी विणील्ली कूड. अेके दाणयेर दोगांयचे कपडे. गवळाक दोशीं वशीं निसट्टीं पांखी. अेक कोनवासो सोडलो जाल्यार मेळटा त्या वांकडचा तिकडचा जंगली लाकडान पांखीं दाटयिल्लीं आनी वयल्यान कड्डाचे थर दिल्ले.

मदींच कसलो तरी आवाज जालो आनी गंगीचो हात वांटपाचो थाल्लो. पिंपळा कडेन गाडयेचो आवाज़ कसो तिका दिसलो. तिजी अवतिकाय

पारखून कोंडीन तिका म्हळ्ळें,
— इतक्यांत कुठं पावते हा गाडी..... आजून येळ हा.
लाकडाच्या लोळक्यार बसून ताणे विडी पेटयली.
— त्यो खूप हुशार हा. मस्नी तसाच पोरगा होयी.
तिणे मनांत म्हळ्ळें आनी काळखांतूच कोंडी कडेन पळयलें. कोंडीच्या काळ्या कुळकुळीत तोंडातल्यान निळसो धुंवर भायर सरतालो.
चटणी वांटून जाली. हाताक बरेच हुलोप पेटले. अेके मातयेचे मायटेंत तिणे चटणी काडली. हात धुले आनी आंगा वयली चोळी कांडून दांडयेर वडयली. कापडाच्या पालवान हड्डें आनी फाट पुसून काडली. रान्नीर तवो वडोवन ती भाकऱ्यां खातीर नाचण्याचें पीठ मळपाक बसली.
— इतक्या बाकरी कुनाला भाजतेस ? तुजीत क्या मेळा भरूचा हा ?
विडयेचे पोंत पांया पोंदा मस्तीत कोंडीन तिका विचाल्लें.
— त्या पावन्याना दियास्नी नको ता ?
— ते तुज्या नाचण्याच्या बाकरी खायाचे ? दौलतपूरच श्रीमंत मानूस ते. रानखेड्याचे धनगर नव्हांत.
— मग ते उपाशींच राहचाचं ?
तिका हुस्को जालो.
— तेंचीक खायाचां खूब आसन. तूं उगाच त्रास घेतीस.
कोंडीच्या उतराचेर तिजो विश्वास बसलोना. ती भराभर भाकऱ्यो थापीत रावली.
बऱ्याशा धव्या कुडक्यान तिणे भाकरी बांदल्यो. खाकेक माल्ल्यो. अेका हातान चटणीची मायटी आनी दुसऱ्या हातान कासांडेत तापयिल्लें बोकडेचें दूद घेवन ती भायर सल्ली.
— मी पिंपळाच्या पेडाक जाते. पाऱ्याची गाडी येताकूच तूं ये.
गवळा भायर पावल घालूक आनी कोंडीन तिका आडायली.
— राणला, कशी जातिस ?
गंगीन अजापान घोवा कडेन पळयलें.
— परक्या मानसा म्होरं जायाचीस. चोळी तरी घालून जा.
गंगी मोन्यानी फाटी वळळी आनी दांडये वयली खणाची चोळी आंगात घातली. चोळी व्हदळचे परस घट जाल्ली.

पिंपळ पेट्टा. वाऱ्यान किटी भायर उसळटात. दोन-तीन धोलीतल्यान रसरशीत उज्याच्यो जीबो भायर सल्ल्यात. ताचो उजवाड नाथाच्या तोंडार पडला. व्हदळ अुदारो न्हिदिल्लो तेच सुवातेर तो आतां उठून बसला. फॉरेन व्हिस्कीची आख्खी बाटली ताच्या मुखार आसा. ताणे हातान धरिल्लें कोप उज्यान चकचकता. दिसाच्या उजवाडाची पसय केन्नाच विरून गेल्या. ताच्या कुशीक वॉटर-बॅग घेवन हरीदाद बसला. हरीदाद बसला खरो पुण ताची नदर हांगां थंय भिरभिरता.

– हरीदाद,

हरीदादाचें लक्ष ना.

– हरीदाद,

नाथा दुसरे फावट ताका अुलो मारता. आतां नाथाचो आवाज मोवाळ जाला आनी ताचे पिराये परस थोडोसो तरुण.

– खरें सांगू हरीदाद ? अितलीं बायलां पळयलीं पुण ....

नाथा व्हिस्कीचो घोंट घेता.

– म्हज्या हचा पिकिल्ल्या केंसांची तोखणाय म्हळचार कितें ! हरीदाद, मनशाचे केंस पिकले म्हळचार मनीस जाणटो जायना. अणभवी जाता. आनी तरूणपण अखेर मनाचेर आनी उमेदीचेर आदारून आसता.

नाथाचें हड्डें नकळटाना फुलता. हरीदाद फक्त आयकता. कांयच उलयना, – हिका कोणूच लागना. जाणां हरीदाद, थोडीं बायलां जीवनांत आयलींनात. आजून येतात. तें आमच्या ऑफीसांतलें टायपीस्ट मीस स्टेला. कितले फावट आंगार पडूंक सोदी. उंच खोटाचे बूट घालून कितले फावट तें म्हजे मुखार लकलें. पुण ना. ताचेविशीं तसलें कांयच दिसलें ना. म्हजो पार्टनर नगरकर. ताची देखणी बायल. घोवाक सोदपाच्या निमतान कितले फावट म्हज्या कॅबिनांत येंवची. गरजे भायली चवकशी करून तिणे म्हाका वश करपाचो कसो कसो यत्न केलो ? पुण ना. म्हज्या चित्तवृत्तींत कसलोच बदल घडलोना. नीत-अनीत, निष्ठा, प्रामाणीकपणाबी असल्या फालतू गजालीं खातीर न्हय. पुण केन्ना तशें दिसलेंना हें खरें. पुण आज ...हरीदाद खरें सांगतां .... हिका कोणूच लागना.

– मनोरमाबायूय लागना ?

येदोवेळ फक्त आयकुपाचें काम करपी हरीदादान म्हळ्ळें आनी नाथा

कायलींतली ल्हाय कसो ताचेर उसळ्ळो.
– स्टोप धीस नॉनसेन्स हरीदाद.
हरीदादाक उतरांचो अर्थ कळ्ळो ना पुण आपणे घातिल्लो घाय ज्यूस्त वर्मार बसला म्हणपाचें ताका समजलें.
असल्या वातावरणांत हरीदादान आपणाले बायलेचो उल्लेख करून मूड पेडुचार करप ताका सोंसलेंना. तो जें टाळूंक सोदी ज्यूस्त हरीदादान तेंच उस्तिल्ले आनी इतलो वेळ वगी रावन फक्त कुचित्रीणात खोंचून तितलेंच उलयिल्लो.
– मनोरमाबायूय लागना ?
– यू... यू बास्टर्ड !
खवळटचा पित्ताक फिरंगी भास चड उपकाराक पडटा हाची हरीदादाक थोडी भोव जाणीव आसली. नाथान दुसरो ग्लास भल्लो आनी हरीदादाच्या हातांतलें वॉटर बॅग झोमून घेवन ग्लासांत आडवें केलें. हरीदाद समजुपाचें तें समजून वग्गी रावलो. ताणे मनांत म्हळें.
– हांव चाकर. खुशमस्कऱ्या न्हय.
नाथा मोन्यांनी पीत रावलो. आतां व्हदळच्या परस ताचें मुख अदीक उजळ दिसतालें. कारण पिंपळाचो उजो आतां वाडिल्लो. धोली व्हड जाल्ल्यो. एकेच धोलींतल्यान आतां दोन दोन उज्याच्यो जीबो भायर सरताल्यो.
नाथा पितालो खरो पुण आतां ताका सराटून भूक लागिल्लीं. खावपा खातीर सॅडव्हिचीस आसलीं पुण सगळयांनी खावपाचीं आसताना आपणे एकल्यानूच खावप ताका मानवलेंना. हरीदादान काडून दिल्यार घडये तो खायत आशिल्लो. पुण आतांचे तिडा-तिडी उपरांत तांचे मदीं तयार जाल्ली वणट वाडत वताली. तरी आसतना ताणे मुद्दमूच पोटाचेर हात भोंवडायलो. पुण हरीदादाचें लक्ष ताग़ेले करामती कडेन नासलेंच. तो पिंपळाच्या वाड्टचा उज्याक पळयत आसलो.
– उजो चड जालो.
हरीदाद आपले भितरच गुणगुणलो आनी ताणे भूषणाचे वाटे कडेन दोळे लायले ताका भूषणाचो हुस्को जालो आनी चट् करुन चारूची याद जाली. तो तसोच उठलो आनी पिंपळा कडेन गेलो. नाथाच्या पायांची तिडक मस्तकाक माल्ली.
– देड दमडेचो नोकर !
ताणे दोळे मेटले आनी दांतानी सकयलो ओंठ दामलो. रागान तो हरीदादाचेर धेंक घालूंक सोदी. इतल्यान ताच्या फुडयांन गंगी हजर जाली. ताचो सगळो राग मळा वयल्यान खंयचे खंय हुबून गेलो.

– गंगी, माय डार्लींग !

ताचे ओंठ हाल्ले आनी मागीर तो भानार आयलो.

– गंगीक समजता तेच भाशेन तिजे कडेन उलोवपाक जाय.

– पावन्यानू आमची बाकरी खातासा मां ?

गंगीन मान हालोवन ताका विचाल्लें.

– भाकरीच कित्याक ? तुवे कालयिल्ली माती पासून खायन.

उतरां ताच्या ओंठार आयिल्लीं पुण तो तिका पळयतूच उल्लो आनी उलोवपाचें विसल्लो.

पेट्टचा पिंपळाच्या पार्श्वभागार गंगी उबी आसली. तिगेली म्हूर्त त्या उज्यांत उजळून दिसताली. रसरस उज्याचो काय तिज्या स्त्रीत्वाचो तेंच कळना आसलें. नाथाक दिसलें, हिका आख्खी व्हिस्कींत अचळय विरगळावची आनी घटाघट पिवन वडोवची.

– चटणी पुन आनली हा.

तिणे कपडयांतल्यो काळयो नाचणाच्यो भाकऱ्यो ताच्या मुखार उक्त्यो केल्यो. भाकऱ्यांक तेंकून चटणेची मायटी दवल्ली. दुदाची कासांडी कुशीक दवल्ली आनी ताच्या मुखार ती तशीच उकणयां बसली.

– धनयां,

हरीदादान पिंपळा पेडा कडल्यानूच उलो माल्लो. ते सरशीं गंगीन फाटल्यान वळून पळयलें.

– आग बाई, ह्या इस्त्यावं कसला पर्येकाळ आला !

पेडा कडेन धांवून वचपाक ती उठली. नाथान तिका भुजाक धरून बसोवपाचो यत्न केलो पुण अखेर ती हातांतली सुटून गेलीच. मात नाथा झिडपल्लेवरी जालो.

– धनयां, उठात.

– तुकां पिंपळाची आतांशी इतली चींता दिसपाक लागल्या ?

नाथान हरीदादा कडेन आडनदर करीत म्हळें.

– पिंपळाची न्हू. म्हाका चींता पडल्या चारूची. तें खंयच दिसना. त्या पिशा बरोबर गेलां जातलें.

हरीदाद सामकोच थतर-वितर जाल्लो. तो बॅगांतली टॉर्च सोदपाक लागलो.

– तें ना जायसर तूं हांगा कितें करतालो ? ताका सांबाळपाचें काम तुजें न्हय ? यू आर ए पेड सर्वंट.

नाथान ताचेर तापय काडली. गंगी पेडा कडल्यान परतली. ताच्या म्हऱ्यांत येवपाक लागली.

– चल, म्हज्या दोळां मुखा वयलो हुंत्राळून चल. चारूक सोदून हाड. म्हाका

ताचो हुस्को जालो. आय एम हर फादर. गेट आवट.

हरीदाद सुस्कारलो. समजुपाचें तें समजलो. नाथा परस ताका चारूची चींता चड जाली. अदमासान ताणें ताकतिकेन पावलां उबाल्लीं.

गंगी चिंतेस्त तोंडान नाथा मुखार येवन उबी रावली.

– तूं चींता करूं नाका. म्हजो पूत बंब घेवन येतलो. कांय मिनटां भितर उजो पालोवन वडयतले.

– इस्तू खूप आंत पेटला.

– जाणां हांव.

नाथान भुजाक धरून तिका सकयल बसयली.

– भाकरी बरी लागता.

तोंडात घालीत ताणे म्हळें.

– अशीच चटणीत बुडवून खा.

एक कुडको तिणें ताका चटणेंक लावन दिलो. ती तोंडात घालतली म्हण केदो वेळ ताणे वाट पळयली आनी मागीर आपणेंतूच तिजो हात हातांत धरून आपल्या तोंडा कडेन व्हेलो.

– तूं पिलेल्या दारूचा वास बरा ऽऽ येतो.

ताच्या तोंडा कडेन आपलें तोंड व्हरुन नाकान सू ऽऽ करीत तिणें म्हळ्ळें.

– ना, तुज्या आंगा वयल्या घामा इतलो बरो वास न्हय तो.

नाथान तिजे फाटीर हात भोंवडायत म्हळ्ळें. फाटी वयले चोळयेची ताका नसाय जाली.

– आमी अशींच. दिसांचे दीस आंघुळ नायी. मास्नी नायीं आवडत असलं बुरशेपन. तुजे पांढरे कॅस कितकं सुंदर दिसल्यातं !

नाथान मान बागवली. आनी गंगीन ताच्या माथ्यांत घालपाक हात मुखार काडलो. दूत्त करून कोंडी देंवचार कसो उबो रावलो. ताच्या हातांत पाळ आसलो.

– तुजं हात तोडीन राणग्या, परक्या मानसा लागीं चाळे करती ? घोव मेलो तुजो ?

– कसले चाळं केले ? तूं बगलस ?

– बगलं, बगलं ... आतां जाणत्या बिरोदादाला सांगून मेळा भरीवतं. तिथं इज्जत क्याडतो तुजी. मग पंचाना दिंव दी न्याव.

– पुरो ... पुरो. बगलीय तुजी पंचायत. वाडचावलं पन्नास लोक येतील. पोट फुटसर बोकडाची सागूती खातील. रातभर झांकतील. निवाडो नाय जावचो आन् मागीर तुजो बिरोदादाच म्हणटलो, ' कसलो निवाडो घेवन बसल्याहात पंचानु, चामडेंत चामडी गेली म्हणून काय त्यां झरूचां हा ? '

गंगीचो अवतार नाथाक सामको नवो आसलो. फक्त तिज्या हातान

अेक पाळूच फाल्त आसलो.
– राणला, त्याच कराला भाईर सरलांस तूं ?
– मी काईच केलां नायीं. मी काय केलां तर बोलीव तुजा मेळा. खावा पावन्यानू.

त्याच ठसक्यान तिणे भाकरेचो कुडको चटणेंक लावन नाथाच्या तोंडात चोंदलो.

पंचायतीचो मुद्दो आंगलट येतकच कोंडीच्या आंगाक तुजो पेटिल्लेवरी जालें.
– एक हजार आनी दिडशी रूपये तुज्या बाला देवून तुला घरांत आनली ती तुकां परक्यांच्या तोंडान बाकऱ्या घालाला ?
– तुज्या तोंडान घालाला तूं सारखां तोंड तरी धुतय मां ? दसऱ्याक देवाक सांगनां करतत ' देवा गांणीक चुकून पानी लागलां आसल तर शेमा कर.
– थू ऽ ऽ.

नाथान तोंडातली भाकरी थुंकून वडयली. आनी तो उठलो. कोंडीचेर नदर दवरीत तो सामाना कडेन गेलो आनी सामानाचे राशीर तेकून दवल्लेल्या आर्मीक ताणे हात घातलो.
– परक्या मानसा म्होरं आपच्या धर्माची बेइज्जत करतीस ? उबां चिरून दावो आन् उजवो दोन तुकडे करीन.

कोंडीच्या धेकाचेर ती मात्तूय बाडगलीना
– खूप बगलय, तुकडे करतलो. धा पावटी गानीक पानी लावन येंवचां पडटलां.

तिणे तितलेच निबरसाणेन म्हळें आनी उल्लेल्यो भाकरी आनी चटणीची मायटी उबारून खाकेक माल्ली.
– पितासा ?

दुदाचे कासांडेक बोट दाखयत तिणे नाथाक विचाल्लें. नाथान मानेनच न्हयकार दिलो. तिणे रागान कोंडी कडेन पळयलें आनी दुदाची कासांडी तोंडाक लायली. कोंडीचें रगत घोटचें तशें तिणे घटाघट दूद घोटलें आनी नाथाक नदरेंत पिसायत ती काळखांतल्यान कापूर विरून वच्चो तशी ना जाली.

नाथा चड वेळ तिका फाटसून पळोंवपाक पावलोना. ताणे कोंडीचेर नदर वळयली आनी आर्मा वयलो हात घट केलो. आंतकोडच्यांत तिखट चटणेचे जाळ पडिल्ले. केदो वेळ दोगूय एकामेकाक जपून राविल्लेवरी रावले. आपूण हाल्ल्यार कोंडी पाळ घेवन आंगार झुडोन येत म्हण नाथा आर्माचो हात घट करून थीर रावलो आनी तशेच चिंतून कोंडीनय पाळा वयली पकड धील केली ना.

अेका विचित्र आवाजा सरशीं दोगांयची थीरताय भंगली. पेडा वटेन

थप्प असो आवाज जालो. कोंडी फाटीं वळ्ळो आनी पेडा कडेन धांवतच गेलो. ताचो अदमास खरो -जाल्लो. तो विचित्र आवाज जिवाळयाचोच आसलो. पिंपळाचे धोलींत उज्यान तें भाजिल्लें आनी धुंवरान घुस्मटलेलें. जीव वांटायत खांदयां वयल्यान धांवताले. निसरून सकल पडलें. आदींच अर्दमेल्लो जीव. न्हिन्नळून न्हिन्नळून थंयच थंड जालो. कोंडीन त्या जिवाळयाक बारीकसाणेन पळयलें आनी ताच्या काळजांत चर्र जालें. तो पांच ओडींचो सोरोप आसलो. पिंपळा पेडार जायत्या जाणांक तो दिसतालो. जाग्याचो म्हण ताका सगळे धनगर पाचारताले. कोंडी थरथरलो.

.... जाग्याचो म्हण असो फडफडून मरप ! आतां कसलें अरीश्ट कोंसळत म्हण देव जाणां ! उगडास जावन ताणे चट् करून फाटीं वळून पळयलें. व्हडदळ उबो आसलो ते सुवातेर नाथा नासलो. तो धांवत थंय गेलो. फक्त तांगेलें सामान थंय आसलें. आर्म घेवन नाथा काळखान नाच्च जाल्लो. सामान तशेंच उक्ताडार पडिल्लें. केदो वेळ तो सामाना कडेन तसोच उबो रावलो. मागीर ताणे अयस-पयस नाथाची सुलूस घेवन पळयली. तो लागीं ना म्हणपाची खात्री पट्टकूच ताणे पाळ खांदार माल्लो आनी तो धांवपाचे तयारेक लागलो. पुण ताका चट् करून याद जाली.

.... ताचे कडेन आर्म आसा. धांवन कांयच फायदो ना. आनी मागीर उखलाप्या पावलांनी पुण ताकतिकेन तो गवळा वटेन चलपाक लागलो.

तिनि रस्त्यार जीप कडेक उबी आसा. स्टेअरींगचेर तकली दवरून भूषण बसला. तकली लकणेता. अर्दो जागे अवस्थेंत अर्दो न्हिदसूरे. मात कसलो आवाज जाल्यार सुण्या सारखे कान फडकयता. वरा परस अदीक वेळ जालो तो हेच अवस्थेंत आसा. रातचीं सुमार आठेक वरां जाल्यांत. तिनी रस्त्यार सगळयाक काळोख फांकला. गाडयो रावतात, वतात. तांच्या दिव्यांचो उजवाड बाण कशे आडवे तिडवे सुट्टात. मदीं मदी भूषणाच्या तोंडार पडटात.

काळोख आनी अनवळखी वाठार हाका लागून ताची तिश्टत वाडल्या. गंगीचे यादीन अुमळशीकेक ओत्यार ओते येतात. पुण कन्हाळच्या रस्त्यार कान दितकच पयस सारिल्ली निराशा मनांत परत घर करता.

फायर सर्विसे खातीर ताका खूबूच खस्ती खांवच्यो पडल्यो. वरभर ताणे फोनाचो सोद लावपातूंच वगडायलें.

तिनी रस्त्यार पावनाफुडे ताणें जीपीची टाकी फूल केली आनी फोन करपाक तो त्या हॉटेलार आयलो. थंय ताची पयली निराशा जाली. तिनी रस्त्या वयल्या त्या मुखेल अशा ठाण्यार फोनाची व्यवस्था नासली.
– असो दाव्या आडरस्त्यान चल. थंय दोन-तीन घरांनी हालींच टेलीफोन घेतला.

हॉटेलच्या गल्ल्यार बशिल्ल्या गुलगुलीत गालाच्या मोटचा पोटाच्या मनशान ताका सांगलें. जीप घेवन भूषण तेवटेन गेलो. किलोमीटर भर रस्तो डांबराचो आसलो. मुखा वयलो मातयेचो. मुखार तोवूय बंद जाल्लो. फक्त अेक वाट वताली. तो जीपींतल्यान देंवलो आनी दोंगराचे कडेक दिसपी घराचे दिकेन चलपाक लागलो. रस्त्या वयल्यान टेलीफोनाचे खांबे ह्या घरा मेरेन पाविल्ले. भूषणान पयलीं तांची खात्री करून घेतिल्ली. दोंगरा-वयल्यो फातरी रचून घरांत वयर सरपाक सोपाणां केल्ली. भूषण वयर आयलो. घर म्हळचार ल्हानसो बंगलोच कसो. तो भितर सरलो आनी अेका जाणटेल्यान ताका येवकार दिलो. ताची चवकशी केली. जाणटेल्यान मोटे चत्रायेन ताची सगळी खबर आयकली घरांत जाणटेल्या बगर आनीक कोण नासलो. आपलो पूत फॉरेस्ट ऑफीसर आसा म्हणपाचें जाणटेल्यान ताका सांगलें आनी मागीर जाणटेलो एक एक गजाल ताका सांगत रावलो. दीसभर जाणटेल्याक उलोवपाक कोणूच मेळिल्लो नासूंक जाय. भूषणाची चुळबूळ वाडली आनी तिमाणे ताणें आपणांक फोन बेगीन करपाक जाय म्हणपाचें जाणटेल्याक पटयलें.
– फोन आसा पुण चलचोना.

जाणटेल्यान सहजतायेन म्हळें.
– कित्याक ? पळोवया.

भूषण उठून फोना कडेन गेलो.
– फोन हाडला पुण कनेक्शन दिवना. रोखडें एका म्हयन्या भितर दितले. मागीर केन्नाय यो.

जाणटेल्यान उलोवपाच्या भरांत म्हळें आनी भूषण तागेले बडबडीचेर आडनदर करीत सपासप सोपाणां देवून जीपी म्हऱ्यांत आयलो. परत ताका तिनी रस्त्यार वचचें पडलें. थंय चवकशी करून तो एका फॉरेस्ट कॉन्ट्रॅक्टरागेर गेलो थंय वच जाल्यार ताणे सांगले, फोन सदां खातीर आवट डेटेट आसता. मात त्या कॉन्ट्रॅक्टरान ताका दुसरी एक भरंवशाची सुवात सांगली. तिनी रस्त्यार सावन पांच किलोमिटरची वाट. भूषण थंय गेलो. घराची अवतीकाय पळयल्यार तांची फोन घेवपाची आस्पत आसा म्हण पाचें दिस नासलें. भूषण घरांत भितर सल्लो. दोग-तीग काळशे मनीस उक्तेच थंय बशिल्ले. ताणी, हो फोनाक आयला म्हणपाचें पारखिलें आनी ताणे विचारचे

आदींच ताका खुणेंनूच फोन दाखयलो. भूषणाक सू जालें. ताणे डायल घुंवडायली. एक ... शून्य .... शून्य .... एक. करंर ... आवाज घुमत रावलो. परत बटन दामून तोच नंबर घुंवडायलो. परत तोच आवाज. करंरं ... ताणे रिसीव्हर सकल दवल्लो आनी तांका विचाल्लें.

– कन्हाळचे फायर सर्विसेक दुसरो कसल्लो नंबर आसा ?

तांका ताच्या प्रश्नाचो अर्थ समजलोना. ते फक्त विडयो फुसकयत रावले. भूषणान परत यत्न केलो आनी तेवटेन रिंग वाजली. रोकडोज तेवटेंतल्यान आवाज आयलो.

– येस. कन्हाळ फायर सर्विस.

– कन्हाळ ?

– येस. कन्हाळ फायर सर्विस.

– हांगां एकीकडेन उजो पेटला. तो पालोवपाक तुमच्या फायर ब्रिगेडची गरज आसा.

– येस ... येस.

तेवटेच्यान डयुटी ऑफीसराची ताकतिक वाडली. भूषणान अदमास केलो– हातांत पेन घेवन तो तेवटेन बरयता आसूंक जाय.

– हॅलो, कोण उलयता ?

– हांव भूषण महाजन.

– सगलें नांव ?

– भूषण उपेंद्रनाथ महाजन.

– खंय रावतात ?

– हांव दौलतपुरचो. हांगां तिनी रस्ता सावन उलयतां.

– दौलतपुरचो पत्तो ?

– महाजन निवास– दौलतपूर.

– इतलो पुरो ?

– हय. खूब जालो.

– तुमची पिराय कितली ?

– पिराय– २५ वर्सां, उंचाय–५ फूट ७ इंच, छाती – ३२ इंच, रंग गोरो.

भूषणान रागा भरशीं धडाधड सांगलें आनी मागीर ताका भिरांत दिसली- इतलीच म्हायती आयकून तेवटेन ताणे रिसीव्हर सकल दवल्लो जाल्यार ?

– हॅलो... तुमी खंय सावन उलयतात म्हळें ?

– तिनी रस्ता.

– फोन नंबर ?

– हें पळयात, खंय उजो लागला तें विचारात मूं ?

– मिस्टर, उजो पालोवपाचें आमचें कामूच. पुण ह्यावूय इन्फोरमेशनाची

आमकां गरज आसता. तुमी आमची फकाणां करीनात म्हणपाची आमची खात्री पटूं नाकां ?
– तुमचीं फकाणां करपाक हांव रानखेडांतल्यान हांगा येंवना.
– तुमी रानखेडांतल्यान आयल्यात काय आनी खंयच्यान आयल्यात हें आमी कशें सिद्ध करुंक शकतात ?
– बरें आसा. फुडें ?
– तुमचो फोन नंबर ?
भूषणान फोना वयलो नंबर वाचून सांगलो.
– उजो खंय पेटला ?
– रानखेडाक.
– रानखेड ? रानखेड कित्याचें नांव ?
– रानखेड गांव.
– कशें वचपाचें ?
– तिनी रस्त्यार सावन आडबुद्रूकाक एक मार्ग वता.
– डांबरी ?
– मातयेचो.
– फुडें ?
– आडबुद्रूक सावन वचपाचें, सरळ रानखेड.
– कितलें किलोमीटर ?
– तिनी रस्त्यार सावन सुमार ६० किलोमीटर.
– उज्याचो प्रकार कसलो ?
– म्हणजे ?
– कित्याक उजो लागला ?
– पिंपळाक
– वॉट ?
तेवटेनच्यान ड्युटी ऑफीसरान अजापान विचाल्लें.
– हें पळयात. पिंपळाक उजो पेटला म्हळयार पिंपळ सादो न्हय. त्या पिंपळाक पेड आसा. कुशीक धनगरांची वस्ती आसा. थंयचे लोक त्या पिंपळाक भक्ती-भावान पांया पडटात.
– सो वॉट ?
– येदो व्हडलो पिंपळ जळून वचप बरोबर न्हय. आनी कन्हाळाक इतली लागीं फायर सर्विस आसताना.
– आमी थंयसावन सुमार १२५ किलोमीटरांचेर आसात.
– कितेंय जांव पुण तो उजो पालोवप गरजेचो.
– तुमी थंय कशे पावले ?

आनी मागीर भूषणान ताका बेजार नासताना सगलें सांगलें.
– प्लीज, होल्ड डाव्न.
तेवटेन ताणे रिसीव्हर उखलून कुशीक दवल्लो. भूषणाच्या पोटांत कुळकुळ्ळें. ताका बऱ्याची लक्षणां दिसलीं नात. काय वेळा अुपरांत तेवटेनच्यान आवाज आयलो.
– हें पळयात मिस्टर महाजन. तुमी आमच्या हेड ऑफीसाक फोन करात. कारण तांचेकडेन असले तरेचो उजो पालोवपाचें वेगळें सॅक्शन आसा. आमचें हें सादें सेंटर. आमी फक्त जिवित आनी वीत्त हानी हाचे खातीरुच वावुरतां. सॉरी मिस्टर महाजन....
तेवटेन उलोवपी मनीस फायर सर्विसचो मुखेल म्हणपाचें ताच्या रुबाबी आवाजा वयल्यान कळटालें. तो रिसीव्हर दवरुंक आनी भूषणान ताका विनयलो.
– सर... सर... प्लीज. . तुमच्यांनी हें काम करुं येता. दौलतपूर खंय पडलें पळयात. ते म्हणसर थंय पिपळाचो गोबोर जातलो. फक्त उजो पालोवपाचें काम. आनी तें सुद्धा जमनीर रावून कारण उजो फक्त पिंपळाचे घोलीत पेटला. थंयच्या गरीब भावार्थी लोकां खातीर येयात सर. नो रीस्क सर. अॅट ऑल नो रीस्क.
– माय बॉय, अवर जॉब इज ऑल्वेज रिस्की.
– प्लीज सर, पापान सांगलां सर. कशेय भशेन फायर ब्रिगेडीक घेवनूच यो म्हण.
– हू इज युवर पप्पा ?
– मिस्टर उपेंद्रनाथ महाजन. दौलतपुरांतल्या अेका स्टील कारखान्याचो मालक.
– मिस्टर नाथा महाजन ?
– येस सर. प्लीज. येता न्हय ? हांव हांगा तिनी रस्त्यार जीप घेवन रावतां. तुमची वाट पळयतां. येता न्हय ?
– येस.
तेवटेनच्यान रिसीव्हर सकल दवल्ल्याचो आवाज आयलो. भूषणाच्या कपला वयल्यान घामाच्यो पावळचो रकताल्यो. पुण ताचें मुख व्हडलें जैत मेळिल्ल्या भशेन उजळ्ळें. ताणे रिसीव्हर सकल दवरतकूच विडी ओडप्यांतलो एकलो मुखार आयलो.
– थँक्यू. व्हड उपकार जाले.
भूषणान म्हळ्ळें.
– फायर सर्विसेच्या नंबरार फोन केल्यार चार्ज पडना.
भूषणान ताच्या तोंडा वयले भाव पारखून म्हळ्ळें. त्या मनशाक तें पटलेंना. समजलेंनाच म्हळ्यार जाता. भूषणान बल्सांत हात घातलो.

– धा रुपया. खूब उलयला.

भूषणान मोन्यांनी धा रुपयांची नोट काडून ताच्या मुखार धल्ली. ताची खात्री पटली – हो मनीस त्या घरचो न्हय.

आनी तिनी रस्त्यार येंवन स्टेअरींगचेर तकली दवरुन तो कन्हाळचे वाटेकडेन दोळे लावन बसलो.

.... एकदांची फायर ब्रिगेड आयल्यार पुरो. रानखेडाक पावतकच आयची रात थंयच काडपाची. फातोडेर गेल्यार दनपार मेरेन सांतेगांवक पावूं येता. वसंतोत्सव फाल्यां रातीकडेन. आयची रात रानखेडांत....

– तुस्नी क्या होई त्यां माग.

अर्दे न्हिदसुरे अवस्थेंत गंगी ताचे मुखार येवन राविल्ल्याचो ताका भास जालो. ही अवस्था सोंपचीच न्हय अशें ताका दिसलें. ....किते मागूं ? गिरेस्तालो भुरगो आसुनूय आजून त्या सुखाक संवकलोना. चैनीचो एक भाग म्हण वांगडचे जायते फावट फोर्स करी. पुण ना. त्या आडमार्गान केन्ना गेलो ना.

– तुस्नी क्या होई त्यां माग.

गंगीन ताची फाट सोडलीना. ....पयलें शरीरसुख गंगीच कडच्यान घेवप.

– घण् घण् घण् घण्...

.... सत् खरें... देवळांतली घांट पासून वाजली.

आनी भूषण सडसडीत जागो जालो. कन्हाळचो रस्तो दिव्याच्या झोतान उजळून गेल्लो..फायर ब्रिगेडची गाडी सगळो वांठार जागयत घणघणत येताली.

हेरीदाद अदमासान हय न्हयशी दिसपी पायवाट माडीतालो. काळोख जाल्लोच पुण नखेत्रांचो उजवाड पुरो जातालो. एखादचा झाडापोंदा जंय काळोख गुडूप जाल्लो थंय टॉर्चीचो उजवाड घालचो लागतालो. वाट सादारण मळाचीच आसली. जाणटेपणांक लागून ताका आदलेवरी बरें झळकना आसलें. तरी लेगीत तो दोळचांच्यो घोली करुन मुखार पळयतालो. ताचे मन धा कडेन सांडिल्लें.

.... भूषणाचो हुस्को जाल्लो. नाथाचो तोल गेला हाचे विशीं ताका दुबाव नासलो. चारुचे चींतेन मन कचरतालें. ह्या सगळ्या गजालींची जाप ताका एकल्याक मनोरमाबायक दिवची लागतली आसली.

ताका आतां, सांतेगांवाक आशिल्ले आपले चलयेचोय हुस्को जालो.

चलयांची जात... अशी पातयेवपाची न्हय. घरा पावनाफुडें जनीचो पयलो बंदोबस्त करपाचो अशें ताणे थारायलें.

आतां वाट सादारण पालसणाचेर पाविल्ली. चलताना मुखा वयल्यान बागवचें पडटालें. तोल सांबाळीत तो तसोच चलत रावलो. ताणे कान बारीक केले. ल्हानशा वझऱ्याचो आवाज आयकूंक येतालो. सगळ्याक शांतताय आशिल्ल्यान आवाज बरे तरेन कानार सादतालो. पायवाट तेचवटेन गेल्ली. वाटेचो अदमास जुळयत आनी वझऱ्याच्या आवाजाचो सराव घेत तो अेक अेक पावल वडोवपाक लागलो. आतां अवघ्या अंतराचेर झरीची सुवात उरिल्ली पुण काळखाक लागून स्पश्ट कांयच दिस नाशिल्लें. इतल्यान अकस्मात उजवाडसो जालो म्हण ताणे मुखार पळयलें. पळय जाल्यार उदेंते वटेन चंद्रीम वयर सरता. ताचो दोळ्यांचेर विश्वास बसलोना. ... येदो व्हडलो चंद्रीम? संकष्टीचो? हो तर पुनवेचो चंद्रीम.

ताच्या मनांत दुबावान काळोख केलो. तो तिथींचो हिशोब जुळोवपाक लागलो. वर्षप्रतिपदेच्यान ताणे तिथी मेजल्यो. एकदां... दोनदां... आनी ताणे थंयच एके फांतुल्लेचेर बसकण माल्ली. केन्ना काळ न्हय तो ताचो हिशोब चुकिल्लो. आजूच खरी पंचम आसली. म्हणजे आज पुनव. चैत्रांतली पुनव. आनी सांतेगांवचो शांतादुर्गेचो वसंतोत्सव आयज रातचो. म्हणजे ह्याच वेळार.

ताणे कल्पना केली. ... शांतादुर्गेच्या प्राकारांत सगळे लोक जमल्या. श्रीची पालखी भायर काडपाची तयारी चल्ल्या... नानूभटाचेर बोवाळ पडला... ते गर्देंत कोण तरी नाथाक सोदता... कोण तरी आपणांक उलो मारता... सगळे वळखीचे लोक दिसतात... अेकामेकांक हडकितात... नव्यो नव्यो वळखी जातात... पालखेंतली शांतादुर्गेची पंचलयेची म्हूर्त दिव्यांचे रसणायेंत लखलखता. उजवाती, धुपाच्या वासांत तरेकवार रंगीत फुलांचो वास भरसला. सगळ्याक फळांचो घमघम फांकरला. पालखी भायर सरपाची तयारी जाता. पालखेक खांद मारपाक म्हाजनांमदीं सर्त लागल्या. आनी दुसरे वटेन उदेंतेक पुनवेचो चंद्रीम वयर सरता. हारशांत तोंड पळोवचें तशी शांतादुर्गा चंद्रीमांत आपलें रुप देखता. कोणाच्या पांयांक थार ना आनी चित्ताक थीरताय ना. सगळे वसंतोत्सवाचो आनंद भोगतात. पुण लोकांचे इतले गर्देंत हरीदादाक जनी खंयच दिश्टी पडना. तो कलकलता... वसंतोत्सवाची संद सादून भोळ्या बाबड्या जनीक कोणे फुसलावन कुशीच्या कुळागरान बी व्हेलें ना मू?

हरीदाद नस्त्या चिंतनांतल्यान भायर आयलो. तरी पुण काळजांतलो कलकल वाडतूच आशिल्लो. आतां चंद्रीम बरोच वयर आयिल्लो. चान्न सगळ्या झाडां पेडांचेर फांकारील्लें. सकयल झरीचो वांठार उजळिल्लो.

थंयच्यो धवश्यो-गोबऱ्यो फांतरी चान्न्यांत स्पश्ट बऱ्यो दिसताल्यो. अेके फातरीचेर हरीदादाची नदर थीर जाली. ताचो स्वासूच बंद जालो. ताणे चिंतिल्लें ताचे परस व्हडलेशें वेगळें घडूंक नासलें.

आंगा वयले कपडे उतरावन पिसो आनी चारु प्रणयाचे खेळ करताली. केन्ना काळा नाग आनी नागीणीची प्रणयलीला हरीदादान आयकल्ली तिचो ताका उगडास जालो. बोबाट मारुन विरोध करपा पलतडीं सगळें पाविल्लें. तो उठिल्लो तसोच गळसणून बसलो. धोंपरात तकली मुंगरुन, तांची प्रणयलीला केन्ना काय सोंपता ताची वाट पळयत रावलो. जनीच्या हुस्क्यान ताच्या पोटांत भयाचो आकांताचो गुळो आयलो.

गवळा मुखा वयल्या कड्डाच्या माचार गंगी नाथाचे वेंगेंत आसा. दोगांयचीं मुखां शरीरसुखा उपरांतचे तृप्ततायेन उजळयांत. वयल्यान पुनवेच्या चंद्राची पसय फांकल्या. गंगीचे दोनूय हात नाथाच्या माथ्यांत आसात. तिचे दोळे अर्दवट न्हिदसूरपणांत पांगुळटात. तिच्या दोळयांत भूषणा सारख्या भुरग्याचें भुरगेपण नाची करता. नाथा ते अवस्थेंतलो हालपाक तयार ना. मात कुशीक आडवें दवल्लेल्या आर्माचो ताका घट उगडास आसा. माचा सकल कान दिवन तितली शिटूकसाणूय ताणे दवल्ल्या. सकल गवळांत मदीं मदीं बोकडांच्या लेणयांचो टप् टप् आवाज सोडल्यार सगळ्याक शांतताय पातळ्या.

व्हदळ पिंपळा पेडा कडसून कोंडीक चक्रावन नाथा थेट हांगा आयलो. पायवाट चुकलो पुण गवळांल्यान दिसपी उजवाडाच्या रोखान तो गवळा कडेन पावलो. गंगी ताची वाट पळयत आसली. तो येतलो म्हणपाची तिका खात्री आसली. वंयच्या भितर सरना फुडें गंगीन धांवून वचून ताका वेंग माल्ली. खांदाचे आर्म सांबाळीत नाथान तिका हड्डुचाकडेन ओडली. तिका कुशीक व्हरपाक उक्त्या गवळांत ताका खंयच आडोस दिसलोना. तसो गंगीन ताका मुखा वयलो कड्डाचो माच दाखयलो. मनशाचे उंचाये वयर हातभर इतलो तो माच आसलो. चार म्हेडींचेर कोंड्यांनी दाटावन माटी केल्ली आनी ताचेर करड दाळून दवल्लेलें. अेके म्हेडी वयल्यान धेंप मारुन गंगी वयर चडली आनी तिणे सकयल्या नाथाक हात दिलो. अेक हात माचाक लावन नाथा तिज्या आदारान वयर आयलो. माचार उबो रावन पयसुल्लो पिंपळ पेट्टा तो दिसतालो. ताचो हात ओडून गंगीन ताका आड केलो. नाथान आर्म जतनायेन कुशीक पुण हाता लागीं दवल्लें. गंगीन दोगांय भोंवतणी करड ओडून

घेतलें आनी वेळ काडीनासताना कड्डांत दोगांयचो प्रणयोत्सव सुरू जालो.

बऱ्या वेळान माचा सकल कोंडीच्यो व्हाणो करकरल्यो तशी दोगांकूय जाग आयली. नाथान अचळय आंग्र्यांक हात घातलो. गंगीन ल्हवूच नाथाच्या ओंठार बोट दवरुन ताका वगी रावपाक खुणायलें. इतल्यान सकल अदीक खडखड जालो. मस्तवाल खाडया बोकडान गोठयेंत बोकडे कडेन मस्ती केली आसुंये. ते सरशीं कोंडी गोठये कडेन गेलो. गोठयेची कवडी कुशीक सारून ताणे खाडया बोकडाक शिंगाक धरून भरभरीत भायर काडलो आनी दोनूय हातांनी पाळ उबारुन 'कचाय्चं' करुन 'ब्यां' करचे आदींच ताची मान धडा वेगळी केली. गोठयेंतलीं बोकडां थरथरत बोबाटपाक लागलीं बोकडाचें धड आनी तकली गवळभर रक्तांत फडफडपाक लागलीं.

इतल्यांत पिंपळा कडेन फायर ब्रिगेडचे गाडयेचो घणघण वाजपाक लागलो. कोंडी रक्ताळलेलो पाळ खांदार मारून पिंपळा पेडा कडेत धांवलो. तो गेल्याची खात्री पडटकच गंगीन दोगांयच्या आंगावयलें करड अचळय पयस साल्लें.

पिंपळा पेडा कडेन फायर ब्रिगेडची गाडी पावत आयली तेन्ना सगळो वाठार लख्ख उजवाडान भरिल्लो. त्या उजवाडांत जीपींतल्यान कुशीक उतरावन दवल्लेलें सामान सोडून हेर जीतो मूस लेगीत दिस नासलो. फक्त पिंपळ वयल्यान सळसळटालो आनी सकल्यान सरण कसो पेट्टालो ताज्या सगळया आंगाक उज्यान पेट घेतिल्लो. भितल्ल्या पोकळ आंगान उज्याचे लोळ घबा घबा करुन वाजताले आनी वाऱ्या सरशीं भस्स भस्स करुन भायर पडटाले.

मुखार जीप आनी फाटल्यान फायर ब्रिगेडची तांबडी गाडी घांट घणघणायत आयली आनी पेडा कडेन कराय्यंच करुन थांबली. गाडयेंतल्यान चार फायरमन, एक ड्रायव्हर कम ऑपरेटर, एक लीडर फायरमन आनी एक सब ऑफीसर हाणी पटापट उडक्यो माल्ल्यो. सगळे लोक तांगेल्या युनिफॉर्मांत आशिल्ले. सकल देंवतांच उज्याची तांका कल्पना आयली. रोकडीच ताणी उदकाचीं पायपां भायर काडलीं. गाडये वयली आडवी निसण काडून पिंपळाक तेंकयली. घोलींत तकली घालून ताणी पायपांतल्यान उदक शिंवरलें. पोखरलेल्या व्हडल्या खांदयां मदलो उजो पालोवपाक हात रिगयले. मोटे गतीन आनी शिटूकसाणेत उजो पालोवपाचो वावर सुरु जालो. भूषणान

ते काम करता थंय दोन-तीन भोंवताडे मालले. ताचे खातीर थंय कसलेंच काम नासलें. तो अजापान हेवटेन तेवटेन पळोवपाक लागलो. थंय कोणूच नासलो. पयमुल्ल्यान हरीदाद धांवून येता तो ताणे पळयलो. ताका कांयच कळ्ळें ना. हरीदाद खर्शेत आयलो आनी ताणें भूपणाच्या कमराक घट वेंग माल्ली. केदो वेळ ताका अुतरुच फुटलेंना. ल्हान भुरग्याक उठोवचो तसो भूपणान ताका उठोवपाचो यत्न केलो पुण भूपणाचीय शक्त खर्चल्ली. अखेरेक दोगूय थंयच कड्डाचेर बसले आनी मागीर सावचीत जावन हरीदादान सगळी घडिल्ली गजाल भूपणाक सांगली. निमाणें काळीज पिळवटून किंवाटलो,
– कोणा काळान आमचो घात घेतलो. वसंतोत्सव आयजूच जालो.

भूपणान सगळी गजाल शांतपणान आयकली. बशिल्ले कडेन दोनूय हात फाटी घेतले आनी तोंड वयर करून मळबा वटेन पळयत रावलो.

– मिस्टर महाजन,

सब ऑफीसराच्या उल्यान तो भानार आयलो. तसोच उठून उबो रावलो.

– यस सर.

– उजो पालोवपाचें काम आमी केलां. पुण व्हडलोसो उपेग ना. कारण पिंपळ उज्यान सामको पोखल्ला. आतां तो वेस्टो उबो आसा. खंयच्याय खिणांक कोसळूंक शकता. खरें म्हळचार अशे अवस्थेंत वाटे वयलें खंयचेंय झाड दवरप बरोबर न्हय. पुण आमचो नाईलाज आसा. ऑ के.

– थँक्यू सर.

सब ऑफीसराचो हात दोनूय हातांनी घेत भूपणान म्हळें.

– मिस्टर महाजन, उजो पालोवपाच्या वेळार भावार्ती लोक मात खूबूच आशिल्ले न्हय ?

सब ऑफीसरान ताका हांसत हांसत थोमणो माल्लो आनी फायर ब्रिगेडची गाडी घांट वाजयनासताना परत गेली.

हातांत रक्ताळल्लो पाळ घेवन पेडा कडेन येतना हरीदादान कोंडीक पळयलो आनी ताच्या काळजान चर्र जालें. कोंडी पेडा कडेन आयलो. हातांतलो पाळ ताणे पेडार दवल्लो आनी पिंपळाक भोंवताडे काडून तो काळसो धवसो जाल्लो पिंपळ पळोवपाक लागलो.

दुसरे वटेन चारु आनी पिसो गळीतगात्र अवस्थेंत पेडा कडेन आयलीं. मुखा वयल्यान नाथा आनी ब[illegible]ऱ्या अंतरान गंगी हजर जाली. कोणूच कोणा कडेन उलोवपाक तयार नासलो. हरीदादान मोन्यांनी सामान जीपींत भरपाक सुरवात केली. नाथान खांदा वयलें आर्म जीपीच्या मुखा वयल्या सिटार व्हरून दवल्लें आनी थंयच जीपीचेर बगखून तो मुखार पळोवपाक लागलो.

नाथा गंगीक पळयतालो. तिचें आदलें अवखळ रूप... उपरांतचो

रागीश्ट दुर्गेचो अवतार आनी आतां ही शांत... ताका कसलो तरी उगडास जालो आनी ताणे बल्सांत हात घातलो. चावेची चेन काडली. आतांच हरीदादान जीपींत दवल्लेली ब्रिफ केस उक्ती केली आनी भितल्ले डबयेक हात घातलो. सामान भरता आसताना हरीदादान ज्यूस्त पळयलें. ताच्या मनांत दुबाव आयलो. डबयेंत वज्राची नथ आसली. मनोरमाबायन ती शांतादुर्गेक आंगयिल्ली. नाथा ती नथ गंगीक दितलो हे कल्पनेनूच हरीदादाचे दोळे धवशे जाले.

गंगी भूषणांक पळयत आसली. ताचें रुप दोळ्यांत सांठयत आसली. भूषणान एकदांच तिचेकडेन पळयलें.

– माजींक तुला दिया कायींच नायी !

तिणे नदरेंनूच म्हळ्ळें अशें भूषणाक दिसलें.

– तुजे कडेन मागपाक म्हजे कडेन तरी उतरां खंय आसात !

ताणेय तशीच मोनी जाप दिली.

पिसो केन्नाच्यान चारुच्या हातांत तें दुःख विसरपाचें पाळ चोंदतालो. पुण चारुन तें कशेंच घेतलेंना.

– विसरपाक तें दुःखूच न्हय.

ताणे मनांतल्यान म्हळ्ळें आनी मागीर सोंसू नजों जावन पिसोच तें पाळ चराचरा चाबडावपाक लागलो.

– आतां बद्द घरा. दौलतपूर.

सगळ्यांक आयकूंक येंवचें येदचान भूषणान म्हळ्ळें. ताच्या आवाजान भूंय-मळबाचो फरक पडिल्लो.

– वसंतोत्सव आजूच जालो.

कोणांक आयकूंक येंव नाजाल्यार ना येंव अशे तरेन तो ओंठांतल्या ओंठांत गुणगुणलो.

– हांव म्हाज्या घरा वयतां. म्हाका म्हाज्या पोराचो हुस्को जाला. म्हाका वाटेर कसलीय गाडी मेळत. नाजाल्यार तिनुरी मेरेन चलत वयतां. म्हाका कोण आडांव नाकां.

हरीदाद कळवळ्ळो. 'आडांव नाका' म्हणूनय हरीदादाक कोणे आडायलोना. ताणे आपणाल्या कपडयालत्त्यांची पोटली खाकेक माल्ली. मनोरमाबायन दिल्ले नायलनचे पोतयेक-जातूंत जनी खातीर चारुचे व्हीस्तीद आशिल्ले तिका ताणे चुकूनय हात लायलोना. ताणे मनाची सामकी तयारी केली आनी कोणाच्या तरी उतराची वाट पळयत रावलो.

सगळें सामान भरुन जाल्लें. पुण कोणूच जाग्या वयलो हालपाक तयार नासलो. मनीस सगळे थीर. फक्त तांच्या आंगा वयले कपडे मात वाऱ्यान हालताले. पिंपळाची सळसळ चालूच आसली. शांततायेचो भंग कोणे करचो

हो प्रश्न आसलो.
— ठोऽऽ
भूषणान हवेंत आर्माचो फार पेटयिल्लो. ते सरशीं सगळी शांतताय भंगली. पेडा वयलो कोंडी हातान पाळ घेवन उबो रावलो. चारुन पिशाक सोडून जीपी कडेन धांव माल्ली. मात लेगीत फाटीं वळून पळय नासताना ताणे फाटले वटेन जीपींत उडी माल्ली. खाकेत पोटली मारुन हरीदाद तिनुरीचे वाटेक लागलो. नाथान हातांतली नथीची डबी बल्सांत घातली आनी हात तसोच बल्सांत घालून तो मोन्यानी मुखा वयल्या सिटार येवन बसलो. भूषणान जीप स्टार्ट माल्ली. नाथाक गंगीचो हात निरोप दिवपाक हालील्या भशेन दिसलो. ताचो हात मात बल्सांत नथी कडेन तसोच उल्लो. जीप मार्गाक लागली आनी पिंपळ कोंसळसर सळसळत रावलो.

•

भूषण जीप चलयतालो ताका मात्तूय सुमार नासलो. जीप फक्त वारो कातरताली. जीपीचे दिवे काळोख भेदताले. जीप मार्गा वयल्यान म्हणजे परस फक्त मार्गाच्या अदमासान धांवताली. नाथा आनी चारु जीपीच्या फाटल्यान अेका मेका सामखार बशिल्लीं.

कोण कोणाकडेन उलयना. कोण कोणांक पळयना. दोगांयच्या दोळ्यांत अर्दी जागृताय आनी अर्दें न्हिदसुरेपण. कांय काळाआदीं भोगिल्ल्या सुखाच्या सपनांन रिगपाचो यत्न...जाल्यारआतां मुखार सुरू जातल्या भयांकृत वास्तवाक तोंड दिवपाची तयारी...अेक तृप्ती... अेक अपराधीपण... विचित्र अवस्था..

जीप धांवता. अंतरफाटीं पडटा. भूषणाचे कल्पनेंतली सगळीं चित्रां विस्कटल्यांत. फाटलें तो कांयच जुळोंवक शकना. फुडें कितें घडटलें ताचीय कल्पना करुंक शकना. अेक अुध्वस्थता ताच्या काळजांत घर करता. जीप धांवता. खंयच्याय खिणांक जीप लवंडून पडूं येता. खंयचेय दोंडीत कोसळूं येता. खंयच्याय झाडाक आदळूं येता. कल्पने परसूय भयांकृत अप्सेग घडूं येता. तशें जाल्यार भुषणांक अजाप दिसपाचें ना. नाथाक आनी चारुकय वेगळें कांय दिसपाचें ना. मर्णाच्या भया पलतडचे अवस्थे कडेन तिगांय जाणां पावल्यांत.

नाथा दनपारसावन घडिल्ली अेक अेक घडणूक येवजीता... आतां परत आसा तसो घरा पावता... इतलें मेरेन येवजीता आनी मुखा वयलें कांयच येवजूंक सोदीना. ताका तें धाडस ना.

रानखेड, आडबुद्रुक तिनीरस्ता सगळें भराभर फाटीं पडत आसा. मदीं मदीं पुनवेचो चंद्र जिपींत तोंड घालून पळयता.

भूषण मुखावयलें अेक अेक चित्र रंगोवपाचो यत्न करता.... चारुक केंसाक धरुन तो जिपींतल्यान भायर काडटा आनी मम्मीच्या पांयार वडयता. अपराधी नाथाक मम्मी मुखार उबो करता. आनी मम्मीच्या निर्णयाची तो वाट पळयत रावता. आपलोय निर्णय घेवपाचो तो यत्न करता. पूण जमना. चीत्र विस्कटत रावता. आनी मागीर जीप अदीक फांस धांवपाक लागता.

मध्यान राती उपरांत महाजन निवासाचे गेटी भायर घडाय्यंच करुन जीप थारता. नाथा आनी चारु खडबडून जागीं जातात. सकल देंवपाची कोण तयारी करीना.

भूषण देंवता. खांदाक आर्म तशेंच आसा. गेटीक भितल्यान चावी केल्या. भूषण गेटीचेर चडून भितर कंपाऊंडात उडकी मारता. बंगल्याचे गॅरेजींत नगरकराली पोन्नी अॅम्ब्यासिडर आंग चोरून उबी आसा ती ताका दिसता.

झपाझप पावलांनी तो बंगल्याचीं सोंपाणां चडटा. बेल मारीना. फक्त दार खडखडायता. काचाबूल जाल्ली वावराडी दार काडटा. भूषण कांय उलयनासताना भितर वता.
पापा आनी मम्मीच्या बेडरुमा कडेन वेता. भितर फक्त झिरोचो बल्ब पेट्टा. भायल्या आवाजान मनोरमाबायक जाग येता. ती नगरकराचे वेंगेतल्यान कुशीक सरता.

बेडरुमाच्या दारा भायर भूषण उबो आसा. हात खांदा वयल्या आर्माक आसा. हातांतल्या आर्माचें कितें करचें तें ताका येवजना आनी ताका चक् करुन उगडास जाता–

रानखेडांतल्या पेडांतलो तो पिंपळ येन्ना नक्कीच कोंसळ्ळा आसतलो.



— सत्यमेव जयते !
अखेर सत्याचोच विजय जातलो.
विद्यानंदान पाठ सोंपयलो. दोळचां वयलें वक्ल काडलें. दोळे बिलबिलायले. बल्सांतलो लेस काडून दोळे पुसलें. वर्गाचेर अेक शेकानशेक नदर मारून ताणे विचार्ल्लें,
— कसलो दुबाव आसा ?
फाटल्या बाकार सावन अेक बोट वयर सर्ल्लें. शिकयता आसतना त्या भुरग्याचेर नदर माल्ल्यार ताका शिकयता तें कळटा काय ना हाचेविशीं विद्यानंदाक सदांच दुबाव येतालो. तोच भुरगो उबो रावलो.
— सर,
— सांग. सत्यमेव जयते म्हळचार सत्याचोच विजय जातलो.
— सर, आमचे शाळेचो हेडमास्तर कोण जातलो ?
सगळो वर्ग शांत जालो.
हरशी जाल्यार विशया भायलो प्रश्न म्हण वर्गभर हांसोळ पिकूं येतालो. पुण वर्गात सगळचांकच हचा प्रश्नाची गंभीरताय जाणवल्ली. विद्यानंद प्रश्नाचेर आडनदर करूंक शकलोना. ताच्या मनांत आयलें - भुरग्याकच विचारचें,

— कोण जावंचो अशें तुमकां दिसता ?

आनी भुरग्यांनी सांगले जाल्यार—

— अंगडी सर !

बेश्टे शेळच्या आंगार फुगांव काडून घेवपाचें काम. आनी म्हजें नांव तरी कशें सांगू ? फाल्यां वेगळेंच कितें घडलें जाल्यार ...

विद्यानंद फक्त हांसलो आनी वर्गाच्या भायर सल्लो. भुरग्यांक कांयच जाप दिली ना हाची खंत मात ताका स्टाफ रूमांत पावसर अस्वस्थ करीत रावली.

तो स्टाफ रूमांत पावलो. पळय जाल्यार सगळो स्टाफ अंगडीचें अभिनंदन करता.

— आता आनिक दुबाव अुरूंक ना. फक्त ऑफीस ऑर्डर हातांत पडपाची अुल्ल्या. फाल्यां मेरेन थार धर. आतां पयली पार्टेचें पळय.

वांगडचे ताका कोलायताले.

कोणाचे नदरेक जाणवपाक नाका म्हण विद्यानंदान बेगोबेग पना खायत बशिल्ल्या अंगडीचो हात हातांत घेतलो आनी गरजेभायर कितलोसोच वेळ हात हालयत रावलो.

शाळा सुटली आनी नीट पावलांनी विद्यानंद घरा परतलो. नाय म्हळचार पावलां वाकडी तिकडीं पडटालीं.

हरशीं पळोवपाक गेल्यार हेडमास्तर जावपाक अंगडीच लायक आसलो. कारण अंगडी सगळयांत सिनिअर. आदलो हेडमास्तर रिटायर्ड जातकच ताचोच नंबर लागपाचो. पुण मदीं खुबूच कळाव गेलो. मॅनेजमेंटान तंत्रीक अडचणी खातीर दोन-तीन म्हयने पोस्ट रितोच दवल्लो आनी विद्यानंदाक बेस्टोच आशा दिसपाक लागली. ताका तशी आशा दिसपाक काय कारणां आसलीं.

अेक म्हळचार-विद्यानंद जें शाळेंत शिकयतालो, ती शाळा, ताच्या बापायची मुक्तदा नृसिंहाची निर्मणी आसली. शाळेक जागोय ताणेंच दिल्लो. मात कायदेशीर संस्थेची स्थापना करून लोकशाय मार्गान सगळे वेवहार चालीक लायिल्ले. मुक्तीदा नृसिंहाच्या मर्णा अुपरांत मॅनेजमेंटान खास आमसभा घेवन शाळेचें मूळ नांव बदलून मुक्तिदाचें नांव दिल्लें. मुक्तिदा ह्यात आसल्यार तांकां ही गजाल मानवची नासली. विद्यानंदाचो शाळेंतली

मास्तर म्हण नेमणूक ही निती-नेमांक धरूनूच जाल्ली. मात शाळेंत आनी गांवांत ताका मान आसलो. विद्यानंदाक परत परत दिसतालें, बापायची पुण्याय आपणांक अुपकाराक पडेंटली. पुण आतां तो निराश जाल्लो.

सहज ताणे फाटीं वळून पळयलें. खऱ्यांनीच आपुण ते शाळे पासून खूब पयस वतां अशें ताका दिसपाक लागलें. फाटल्यान बाकीचो स्टाफ अंगडीक कोलायत येतालो.

हेडमास्तराच्या पदान नाय म्हळ्यार बरोच बदल घडूं येतालो. त्या गांवांत विद्यानंदाचो मान अदीक वाडटलो आसलो. शिवाय वेंगळें ऑफीस. पगारान थोडोसो वाडटो आंकडो. भुरग्यांक शिकोवपाच्या पिरियडात मातशी कपात. तशी जापसालदारकी आसाच पुण ती भौमानाची. आनी आतां ताका त्या भौमानाची गरज आसली.

फाटल्या म्हयन्यांत माईचे सुचवणे वयल्यान तो अेक थळ पळोवन आयिल्लो. चली ताका मानवल्ली. शिकिल्ली. विद्यानंदूय चलयेकारांक पसंत पडिल्लो. विद्यानंदाचे दुबळे कुडी खातीर थोडीभोव अडचण येंव येताली. पुण मुक्तिदाची पुण्याय गांठीक आशिल्ल्यान तीवूय अडचण पयस जाल्ली. सगळी अुलवणी अुमेदी भरशीं जाताली आनी तेच अुमेदीन विद्यानंदान होंकलकारांक सांगूक वडयिल्लें– रोखडोच आपूण हेडमास्तर जावपाचो आसा. आनी आतां अंगडी हेड मास्तर जालो जाल्यार ? सोयरीक मोडचीना पुण ...

चलतां चलतां तो घरा पावलो. जड पावलांनी सोपाणां चडलो. घराचे दार अुक्तेंच आसलें. माईचे कुडींत फक्त झोपाळ्याचो आवाज आयकूंक येतालो. आपल्याच घरान परक्या भशेन तो भितर सल्लो.

हेरशीं मुक्तिदाच्या फोटोक नमस्कार केल्या बगर विद्यानंद केन्नाच पायांक जोते चडय नासलो. पुण आज सकाळीं बेपर्वायेन ताणे फोटो कडेन आडनदर केली. मात माईन पळयलां जायत म्हण दुबावान हेवटेन तेवटेन पळयलें. ताका दिसलें–मुक्तिदा देशा खातीर परके शक्तीआड झुजलो. स्वातंत्र्या अुपरांत समाज सेवा केली. मात आपल्याच देसांत दुसऱ्याक धनीपद दिवन पुताक अुबांतरा वडयले. ना जाल्यार मुक्तिदान अुबे केल्ले शाळेंत ताच्या पुताक कुशीक दवरून दुसऱ्याक हेडमास्तराचें पद मेळटा हाचो अर्थ कितें ?

सकाळच्या पारा ताच्या कपलाचेर घाम फुटलो. तो शाळेंत गेलो. पयलो पिरियड जालो. भुरग्यांक कितें शिकयलें तें ताचें ताकाच कळ्ळें ना. दुसरो पिरीयड ऑफ आसलो. तो स्टाफ रूमांत आयलो. स्टाफ रूमांत पिरियड ऑफ आशिल्ले दोग-तीग जाण सुतकी तोंडां करून बशिल्ले. तातूंत अेक अंगडीय आसलो. पयलेच खेप पान नासून ताचें तोंड बंद आसलें. अितलो वेळ स्टाफ रूमा भायर विद्यानंदाची वाट पळयत अुबो राविल्लो स्कूल मॅनेजमेंटाचो प्यून परवानगी घेवन भितर आयलो. विद्यानंद समजलो– हो हेडमास्तराचे नेमणुकीची ऑर्डर घेवन आयला.

विद्यानंदान ताका अंगडी कडेन बोट दाखयलें अंगडीन पळोवनाशें करून मान दुसरे कडेन घुंवडायली. प्यूनान हांसत हातांतलें पत्र विद्यानंदाच्या हातांत दिलें. विद्यानंदान दुबावान पत्र अुक्तें करून वाचलें. हेडमास्तर पदार मॅनेजमेंटान ताची नेमणूक केल्ली. कितलोसोच वेळ तो खोशयेचे तनरेंतूच अुल्लो. ताचो हात मुट्टम हातांत घेवन अंगडी ताचें अभिनंदन करतालो.

शाळा सुटना फुडें तो सडसडीत घरा आयलो आनी व्हाणो काडून मुक्तिदाच्या फोटो मुखार नमळायेन हात जोडून अुबो रावलो.

– अखेर सत्याचोच विजय जाल्लो.

ताणे मनांत म्हळें आनी वयर पळयलें. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळटालीं. मात ताका वोगीच दिसलें– मुक्तिदान शरमेन मान सकयल घालूना मूं ?

फाटसून हांसाचो आवाज आयलो म्हण ताणे फाटी वळून पळयलें. दाराचेर रणजीत, ताचो धाकलो भाव कमराक बाग घालून अुबो आसलो. सदचेवरी आजूय ताचे दोळे आनी गाल तांबशे जाल्ले. तोल वचचो न्हय म्हण ताणे दाराचो आदार घेतिल्लो. तागेले हे अवस्थेंत ताका ही खबर सांगची न्हय अशें विद्यानंदान थारायलें. ताचे कडेन आडनदर करीत विद्यानंद कुशीक सल्लो आनी चलपाक लागलो. मात रणजीत विद्यानंदाच्या ह्या पिशापणाचेर हांसत रावलो.

– हेडमास्तर जाला ? हेडमास्तर केला !

रणजीतचीं अुतरां कानार पडचे आदींच विद्यानंद ती खबर सांगपाक माईचे कुडींत पाविल्लो.

काल दनपारां ही खबर रणजीताक समजली तेन्ना तो गांवांतले गादयेर अिश्टां वांगडा पीत बशिल्लो. तो अुठलो. हातांत भरिल्लो ग्लास तसोच आसलो. ग्लास हातांत उबारून ताणें अिश्टांक म्हळें,
– मुक्तिदाचो सोपूत ! त्या मॅनेजमेंटाच्या चेअरमनाचे बारा ब्रेस्तार आनी तेरा शुक्रार करून वडयतां.

ग्लास घटाघटा घोटून तो गादये भायर सल्लो आनी चेअरमनाच्या ऑफीसाक वचून भिडलो. भगत घराच आसलो. ताच्या घराचे अेके कुडींत शाळेच्या व्यवस्थापनाचे सगळे वेवहार चलताले. भगत हेरूय सामाजिक संस्थां कडेन संबंदीत आसलो. परवानगीबी घेनासतना रणजीत भितर सल्लो. भगत आनी एकलो मनीस गजाली मारीत बशिल्ले. त्या मनशाक रणजीतान भायर वच म्हणचे आदींच तो कडसलो. भगतान रणजीताक कदेलीर बसपाक बोट दाखयलें. रतजीत दुसरेच कदेलीर बसलो. ताच्या वजनान ती कदेल करकरली आनी मोडटाशी जाली.
– कसो आसा ? माई कशी आसा ?

भगतान जाणटेपणाच्या नात्यान वासपूस केली. रणजीत बांगर बैलावरी ताचेर करा करून ताका पळयतूच रावलो.
– हांवें आयकलां तें खरें ?

रणजीताच्या अुतरांनी धेक आसलो.
– कितें तें ?

भगताच्या कपला वयल्या आठयांनीच प्रश्न आसलो.
– शाळेचो हेडमास्तर कोणाक करपाचो थारायला ?
– थारावपाचो प्रश्नूच येना. नेमा प्रमाण जो जावपाचो आसा तो जातलो.

भगतान शांतपणान जाप दिली.
– तो पानखायरो अंगडी मूं ?

रणजीतान तुच्छतायेन विचाल्लें. ताच्या तोंडाक येवपी सोऱ्याच्या वासा कडेन आड नदर करीत भगत वोगीच रावलो.
– म्हाका दिसता, तुमी मुक्तिदाक विसल्ले.
– कशें शक्य आसा ? शाळेक तर तांचेच नांव दिलां.
– फक्त नांवान काम भागता ?
– ताणीच घालून दिल्या आदर्शा प्रमाण तर आमी वागतां. तुका दुबाव

आसा जाल्यार पळय, हातूंत मुख्याध्यापकाची नेमणूक कशी जाता तें स्पश्ट बरयलां. मुक्तिदाचे मुस्तितूच हे नेम थरिल्ले.

भगतान अेक फायल रणजीता मुखार धल्ली. फायल अुक्ती केल्यार रणजीत पयल्या वाक्यातूच घुस्पून पडटलो आसलो.

– म्हाका असले नेम वाचपाक इंटरेस्ट ना.

रणजीतान फायल मेजार भिरकटायत म्हळें.

– हे नेम म्हज्या बापायनूच केल्यात मूं ? मागीर ते ताच्या पुतान मोडूं येता.

– ना.

– कित्याक ?

– कारण ते तशे मोडूं नये म्हण आमकां तुमच्या बापायन मुक्तिदानूच सांगिल्लें आसा.

– म्हज्या बापायक हांव चड वळखतालो काय तुमी ?

– तुजे परस ताका शंबर वाटचांनी हांव बरो वळखतालों.

भगतान शांतपणान जाप दिली.

रणजीतचें पीत्त खवळळें. व्हदळ घोटिल्ल्या ग्लासाची ताका आतां कीक् आयिल्ली.

– तूं कोणाक शाणेपणा सांगता ? खरें म्हळचार चेअरमनाच्या जाग्यार हांव आसपाचों.

रणजीतान हड्डुचार हात मारीत सांगलें.

– बरें भशेन, आतां लेगीत तुवें जांव येता.

भगतान कदेली वयलो अुठत म्हळें.

– म्हाका गरज ना. ताचे परस म्हत्वाचीं कामां म्हजे कडेन आसात.

त्या अुतरार भगत भुजां वावडून वोगीच रावलो.

– हेडमास्तर म्हज्या भावाक, विद्यानंदाक करपाक जाय.

– आनी अंगडीचें कितें करपाचें ?

– ताचे मुखार खोंटलोभर खावचीं पानां हांव ओततां. गोरवां भशेन खुश जातलो.

भगतान जाप केली ना. गरजे भायलो नेट हाडूत रणजीत गरजलो.

– मिस्टर भगत, म्हाका परत हांगां पावट मारपाक लांव नाका. आनी तुका खबर आसा-आमच्या घराण्यात स्वताच्या मनशांची लेगीत रक्तां व्हावोवपाची परंपरा आसा. मागीर दुसऱ्यांची व्हांवोवपाक आमकां मोठेशें कठीण काम न्हय.

रणजीताच्या अुतरांनी भगत न्हिन्नळो. ताचेपरस 'घरच्या मनशांची रक्तां व्हावोवपाचें' घटनेच्या अुगडासान ताच्या काळजाक घाय जालो.

– रणजीत, स्वताचो घाम व्हाबोवपाचे पिरायेर तूं रक्तां व्हावोवपाची

भास अुलयता.

भगतान ताका थातारपाचो यत्न केलो पुण रणजीत ते अवस्थेंत नासलो. ताच्या सभावानूच तें नासलें.

– मागीर कितें करता ?

ताणे धेकानूच विचाल्लें.

– कितें करतलो ? म्हाका हुतात्मो जावपाचें ना.

– तूं कोण जाता हो प्रश्न ना. हेडमास्तर कोणाक करता हो प्रश्न आसा.

रणजीतान भगताच्या म्हणण्याचो अर्थ समजून घेनास्तना म्हळें. ताच्या गिन्यानाक तें सोबलेंयबी.

– अपॉयंटमेंट लेटर व्हरता ?

भगतान शांतपणान विचाल्लें.

– लेटर ताका दी. अुतर म्हाका दी.

– अूं.

भगतान मान हालोवन ताका फाट केली आनी तो हयकार मानून रणजीत भायर सल्लो. व्हदळ बशिल्लो ते गादयेर गेलो आनी परत पिवपाक बसलो.

आपणाक हेडमास्तर करपा खातीर रणजीतान घेतिल्ल्या फुडाकाराची गजाल विद्यानंदाच्या कानार पावली. ताचो धाकल्या भावाविशींचो मोग वाडलो. दर फावटीं तो शक्तीचो अपव्यय करता अशें विद्यानंदाक दिसतालें. पुण ह्या वेळार ताणे आपणाल्या बळाचो योग्य थंय वापर केलो म्हण ताका ताची तोखणाय दिसली. आयच्या काळांत सत्याच्या म्हालवजार जायत्यो गजाली घडूं येता अशें ताका दिसतालें. पुण हे घटने अुपरांत ताका कळून आयलें, फक्त सत्यूच आसून अुपकारना. सत्याचें खरेंपण सिद्ध करतलो जाल्यार शक्तिचीय गरज आसा. ताणे आपली खुशी रणजीता कडेन प्रगट केली ना. तोखणायेन तो शेफारचो न्हय म्हण आदर्श जाणटेल्याचे भावनेन तो वोगीच रावलो.

वैदिक पद्धतीन विद्यानंदाचे लग्न जालें. माईच्यान हातबोट घालपाक नजो जालें. माईन विद्यानंदाक ताचे अित्सेप्रमाण लग्न जावपाक पुराय स्वातंत्र्य दिलें. विद्यानंदान सगळे विधी संकेत वेवस्थित पाळ्ळे, तातुंतल्या रूढींसयत. घालप-सवरप, हुंडो आदि प्रथांक खंयच कातर लागलीना. गरज थंय भावना कुशीक दवरून प्रथेच्या नांवा सकयल सगळे करून घेतलें. माई प्रत्यक्ष माटवांत हजर रावपाक शकली ना. खूब जाणानी मुक्तिदा नृसिंहाचो उगडास काडून होमा मुखार आपणाल्या आनी दुसऱ्याच्यांय दोळयांत गंगा अुब्यो केल्यो. पुण मनांत आसुनय कोणे म्हळें ना– मुक्तिदा आशिल्लो जाल्यार पुताचें लग्न अशें खर्चिक आनी अनिश्ट रूढींक वेटकाळून करचो नासलो. मुक्तिदाचें लग्न कितल्या सादेपणान जाल्लें ! सगळ्यांनी धल्लें, ह्यो गजाली माईनच फुडाकार घेवन केल्या आसतल्यो.

विद्यानंदाक बायल बरी सोबताली. मृदुला, तोंडा वयल्यान सनजूतदार आनी सालस दिसताली. भोंवतणी अिश्टीणीचें कंवडाळें आसलें. मृदुला आपली जिवा-भावाची अिश्टीण–नीलाची वाट पळयताली. अदींमदीं मेळटा ताचेकडेन वासपूस करताली.

लग्नाचो म्हूर्त लागीं पावलो. आनी विद्यानंदाची नदर माटवात भिरभिरपाक लागली. मंगलाष्टकां सुरू जालीं तशी तांच्या काळजांतली धडधड अदीक वाडपाक लागली. ताची ही अवस्था मृदुलेचेय नदरेंतल्यान सुटलीना. ‘शुभमंगल सावधान!’ च्या गजराचेर माटवांतल्या लोकांचे हात अक्षता वडोवपाक फुरफुरले आनी ते गर्देंत विद्यानंदाक डॉ. विनय आनी ताची घरकान्न दिश्टी पडलीं.

सव्या वयली गर्दी अुणी जाली तसो डॉ विनय मुखार आयलो. बरोबर बायल आसली. विद्यानंदान विनयाक वेंग माल्ली. ताचे बायलेन होंकलेच्या कपलाचो अुमाव घेतलो. विद्यानंदान मृदुलेक तांची वळख करून दिली.
– हो म्हजो व्हडलो भाव डॉ. विनय आनी ही म्हजी भाभी.

न्हवरो होकल दोगांय तांच्या पांया पडलीं. डॉक्टरान आनी बायलेन ओठांत पुटपुटत तांकां आशिर्वाद दिले. वेंगभर येदी भेट ताणी होंवराच्या हातांत दवल्ली आनी आयिल्लीं तशीं गर्देंतल्यान परतलीं.

खूब जणांक अजाप जाल्लें. मृदुलेक तर आपणाक व्हडलो देर आसत हाची कल्पनाच नासली. आनी अितलो डिसेंट ! डॉक्टर !

– आगो, आमी समजल्लीं तुकां अेकूच देर म्हण.
अिश्टीणी फकाणां मारताल्यो.
– अेक देर दोतोर आनी अेक देर फातर, न्हय आं– फातरा सारखो घट.
रणजीताच्या आडदांड देहा कडेन पळोवन सगळीं जाणां मस्कऱ्यो करतालीं.
– तुकां बाये कसलोच भंय ना.
सव्याचेर बोवाळ चलिल्लो.

अकस्मात माटवाच्या अेका कोनशाक गडबड जाली. खूब जाणांनी थंयच कंवडाळें केलें. कितें घडलां म्हणटा तें कळनासलें. कांय खिणां भितर ते गर्देतल्यान रणजीताचो अेक सामको लागींचो अिश्ट–आपलो दावो पोलो चोळीत कुशीक सल्लो आनी माटवांतल्यान भायर चलपाक लागलो. ल्हवू ल्हवू थंयची गर्दी अुणी जाली आनी मागीर थंय कितें घडलें तें अेकलो अेकलो अेकामेकाच्या कानांत सांगूक लागलो.

माटवांत बोवाळटां बोवाळटां रणजीत आपणाल्या अिश्टांची खबर घेवपाक माटवाच्या कोनशाक आयिल्लो. तागेले भौतेक अिश्ट निमंत्रणाक मान दिवन आयिल्ले. ताणी रणजीताक थोडो वेळ आपणां भितर बसोवन घेतलो आनी ते ताचीं फकाणां मारपाक लागले.
– विद्यानंदाचे जालें. आतां तुजो नंबर लागलो.
– तुजी भाभी बरी सोबता !
– विद्यानंद तुज्या सारखो आंगलोटान आसल्यार जोडें आनिक सोबपाचें.

रणजीत तांच्या आगऱ्याक लागून थंय बशिल्लो खरो पुण ताची नदर माटवभर घुंवताली. माटवांतल्यान ताकतिकेन भायर सरपी डॉ. विनयाक आनी ताचे बायलेक ताणे पळयलीं आनी व्हडल्या भावाक हडकुपाक तो अुठपाक लागलो. ते सरशीं अेका अिश्टान ताका भुजाक धरून आपल्या म्हऱ्यांत ओडलो आनी ताच्या कानांत तोंड घालून म्हळें,
– नवी भाभी सगले वटेन बरी आसा. आतां तुकां सद्दां नवी नवी नायकिण सोदपाक वचूंक नाका. गरजेक अुपकारा पडटली.

ताचें निमाणें अुतर सोपचे आदीच रणजीत ताड् करून ताचे मुखार अुबो रावलो आनी ताच्या गळ्या कडेन शर्टाक धरून ताच्या दाव्या कानसुलार अेक थापट शेडायलें. ताका हडकुवपाक गर्देतल्या ताचेसरीं येवपी डॉ. विनयान तें पळयलें आनी मुखार वडयिल्लें पावल तशेंच फाटीं घेतलें. फाटले फाटीं तो नाच्च जालो. माटवांतलें हांसतें खेळटें वातावरण गंभीर जालें.

लग्न जावन होंवर घरा आयलें आनी माईच्या पायां कडेन बसलें. माईन अपुरबायेन सुनेची तोखणाय केली. आपणाल्या पुताची व्हडविक गायली. दोगांय मान सकयल घालून आयकत रावलीं.
– माई, विनय भाअी आयिल्लो.
विद्यानंदान माईक सांगलें.
– जाणां हांव. वतना म्हाका मेळून गेलो. दोगांय आयिल्लीं. पोर सामको भागला !
माईन म्हळ्ळें आनी मृदुलेचे खाडकेक हात लायत विचाल्लें,
– तुगेल्या व्हडल्या देराक पळयलो न्हय ?
आनी माईच्या हांसत्या मुखार अचळय सांवळी कशी गंभीरताय फांकली.
– सहसा पावना तो घराक.
माईन तिरपे नदरेन मृदुले कडेन पळयलें आनी तिजी अुमळशीक वाडल्या म्हणपाचें पारखिलें.
– ताका येवपाची अित्सा आसता पुण....
मृदुलेचे नदरेन तिका वोगी बसपाक दिलें ना आनी मागीर माईन मृदुलेक विनयाची गजाल सांगली.

विनय नांवा प्रमाण विनयशील आसलो. दोतोरकेचें शिक्षण घेवपाक तो भायरुच आसतालो. भायर म्हळचार शारांत. दोतोर जातकच थंयच सरकारी हॉस्पिटलांत ताका नोकरी मेळ्ळी. ताचें लग्नूय भायले भायरुच जालें. प्रेमविवाह. लग्नाक मान्यताय– विरोध असल्यो आडखळी येवचे आदींच ताणे घरच्यांचे आशिर्वाद गृहीत धरून सामकें सादे आनी सुटसुटीत पद्धतीन लग्न लावन वडयलें.

पयलीं तो अदीं–मदीं घराक येतालो. आपुण वडील जाल्ल्यान कांय जापसालदारक्यो आपुण जावन अुखलतालो. पुण आतां वर्सांतल्यान अेकदां-फक्त मुक्तिदाच्या श्राद्धाक येतालो. तो असो पातळ जावपाक कारण आसलें.

मुक्तिदाचें निर्वाण जावन बरींच वर्सां जाल्लीं. संवसाराचो सगळो भार माईचेर–सुधाबायचेर पडिल्लो. विनय दोतोर जावन त्याच वर्सा सरकारी हॉस्पिटलांत नोकरेक लागिल्लो. विद्यानंद शिक्षकाचें प्रशिक्षण घेतालो. रणजीत मात शिकपा परस तवनासपणाच अदीक करतालो. माईक सगळें कळटालें पुण धाकलो पूत म्हण ती ताचे सगळे थेर चलोवन घेताली.

आनी हीच गजाल विनयाक मना पासून आवडनासली. रणजीताचेर ताची सदांच वाकडी नदर आसताली, पुण माई खातीर तो ओंठ दाबून वोगी रावतालो. माई ताका प्रत्यक्ष समजावचे परस घाडीभगतांचेर चड पातयेवन रावताली. ताचीं मस्तेपणां अुणी जावंचीं म्हण ती ना ना अुपाय करताली. कोणा भगतान दिल्ले आशे ताका खावंक दी, कोणा घाडयान दिल्ली बिभूत कपलाक लाय, कोणे दिल्ली तावज गळयांत बांद, कोणालो दोरो दंडाक गुठलाक. आनी हे सगळे अुपाय करूनूय रणजीताचीं मस्तखोरपणां दिसानदीस वाडतूच आसतालीं. कोणांक तुकलाय, कोणां चलयांची मस्करी कर. कोणाची बळजबऱ्यां तोडफोड कर. खरें म्हळयार मुक्तिदाचे मुस्तित असल्या देव-देवस्पणांक घरांत निखालस सुवात नासली पुण सुधाबायचो आर्दीं पासून ह्या गजालींचेर खर विश्वास. ह्याच अुपायांक लागून आपणांक मुक्तिदा सारख्या स्वातंत्र्यवीराची धर्मपत्नी जावपाचें भाग्य लाबलें अशी तिजी श्रद्धा आसली. पुण मुक्तिदा मुखार केन्ना ती असल्यो गजाली अुलय नासली. कितें करपा-सवरपाचें तें ताका चोरून करताली. मात मुक्तिदाच्या मर्णा अुपरांत असल्यो गजाली करपाक तिका रान मेकळें जाल्लें. ना म्हळयार व्हडल्या पुताचो विनयाचो मातसो भंय आसलो. पुण तो सदांच घरा पासून पयस अुरतालो.

अेक दीस रणजीताचे शक्तीचो अदमास चुकलो. परक्या गांवांत गेल्ले कडेन ताणे थंयच्या अेक दोग जाणाक तुकलायले आनी धा-बारा तरनाटयांनी ताका आड केलो. फाटलो फुडलो राग काडून ताका येतिष्ठ पेट घालो. ताचीं रक्तां काडलीं. त्या गांवांतल्या चार जाण्टेल्यांनी ताका घरा पावयलो. सगळयांचेर आकांत आयलो. येदो व्हडलो तो आडदांड देह रक्तबंबाळ जाल्लो. बेगोबेग गाडयेची वेवस्था केली आनी रणजीताक शारांतल्या सरकारी हॉस्पिटलांत व्हेलो. बरोबर माईय गेली. त्याच हॉस्पीटलांत विनय काम करतालो. पुण ह्या वेळार तो डयुटीचेर नाशिल्लो. रणजीताचे बरेंच रक्त व्हांविल्लें. तो बेशुद्ध जाल्लो. खंय कसो मार लागला ते कळनासलें. वचना फुडें दोतोरांनी ताका आपले सुवादीन घेतलो आनी ते आपले परीन अुपाय करपाक लागले.

विनयाक ही खबर कळ्ळी तेन्ना तो हातांतलें काम वडोवन सडसडीत अुठलो. डयुटीर नासतानाय ताणे डिनाक निरोप धाडून डयुटीत बदल करून घेतलो आनी दोतोराची मुस्तायकी चडोवन तो ऑपरेशन थेअटरा कडेन धांवलो. भायरूच ताका माई मेळ्ळी. माईचें सांत्वन करपाक ताका फुरसत नासली. माईन ताका घट वेंग माल्ली आनी कुशीक व्हेलो.

– माई, ह्या वेळार अशीं पिशेपणां सोबना.

– म्हजें आयक

– पयलीं हांव भितर वतां.

– नाका.
– माई,
– तूं ताका हात लावं नाका. म्हजो सोपूत आसा तुका.
विनय तटास जावन थंयच अुल्लो. माईच्या अुतरांचो रोख ताका समजलो. ताका खूब वायट दिसलें. ताणे मनातूच म्हळें, ' जी आपल्या पुताक वळखूंक शकना ती अेका दोतोराक कितें वळखतली ?
विनय मान सकयल घालून तसोच फाटल्या पावलांनी परतलो.
रणजीत बऱ्यान सुटिल्लो. माथ्याक आनी हाता पायांक बरेच टांके पडिल्ले. रक्त घालचें पडले, तें तागेल्या अिश्टांनी दिल्लें.
दुसरे दीस माई विनयाचे सोदीक गेली. हॉस्पिटलांत तागेलो ड्युटीचार्ट तिणे पळयलो. हेर दोतोरां कडेन चवकशी केली आनी तिका कळळें, ताणे अकस्मात रजा काडल्या. ती तागेल्या बिराडार गेली. वाचपाचें निमित्त करून तो बसून आशिल्लो. माईन कालचे घटनेची ताका फोडणीशी करून सांगली. तिणे विनायाक समजावन म्हळें,
– वता थंय घाडया भगतान म्हाका हेंच सांगलां, " तुमच्या घरांत भावाचो जीव काडपाची परंपरा अशीच चलतली. व्हडल्याच्या हातांत धाकल्याचे मर्ण...."
माई हुंडक्या हुंडक्यांनी रडपाक लागली.
– दोगूय म्हज्या रक्ताचे. अेक रक्तखेव हांवें पळयला. दुसरो हांव पळोंवक सोदीना. म्हाका समजून घे रे पुता ....
माईन विनयाक घट्ट वेंग माल्ली आनी दुकांनी ताका भिजोवन वडयलो.
माईक कशें समजावचें तेंच विनयाक कळ्ळें ना.
अितली गजाल सांगून माई कांय वेळ वोगी रावली. फक्त झोंपाळो हालत आसलो. माई खरस निवळटाली.
भायर काळोख जाल्लो. रात चडत वताली. पुण सगळयांच्या दोळयांतली न्हीद खळिल्ली.
मृदुलेचे नदरेन अुमळशिक वाडिल्ली. अितल्या वेळच्या गजालींनी तिजी भीड बरीच अुणी जाल्ली.
– चल, त्या रक्तखेवाची गजाल सांगता. मागीर आड पडात.
माईन झोंपाळचा वयल्यान अुठत म्हळें. विद्यानंदान बेगीबेगीन तिका अुठपाक हात दिलो. माईन ताका वंटीची, खिळचाक हुमकाळायिल्ली चावी काडपाक लायली. विद्यानंदान थंयचें फस्क आनी मेणवातूय घेतली. माई फुडें आनी तीं दोगांय माई फाटल्यान चलपाक लागलीं.
घराक कितल्योश्योच कुडी आसल्यो. अेके कुडी म्हऱ्यांत तिगांय थाल्लीं. विद्यानंदान कलयादाची चावी काडली. खूब दीस अुक्तें करुं नासून दार

अदीक करकरलें.

– हे कुडींत मुद्दम लायट खेळोंव ना.

माईन म्हळें.

विद्यानंदान फस्काची काडी मारुन हातांतली मेणवात पेटयली.

कूड अुजळ्ळी. पळोवपाक निवळ दिसताली. अेक पोरणी आलमार. अेक-दोन कदेली. अेक लाकडी बाज्ज. वंटीक बरोच तेंप रंग काडूंक नासलो. वयर घयरांव जाल्लो. कोनशाक कापोडयानी जाळां विणिल्लीं. अेके वंटीक अेक मोटें पांयजेल लायिल्लें. मृदुलेन अुजवाडाचे पसयेनूच तो फोटो वळखलो. मुक्तिदाचो. दुसरे वंटीक आनिक अेक पांयजेल आसलें. ताचेर चड अुजवाड पडला आसतानाय मृदुला त्या फोटोक वळखूंक पावलीना.

– ह्याच फोटोची ती काणी. हो हांगेलो काका. मुक्तिदाचो धाकलो भाव - पद्मनाभ.

मृदुलेन तो फोटो नियाळ्ळो. अेका सामान्य मनशा सारखो तो मनीस दिसतालो. मुक्तिदाच्या दोळ्यांतलें तेज ताचेठांय नासलें. त्या मनशा फाटल्यान येदें व्हडलें कसलें गूढ आसा ह्या विचारान ती अजापली.

माईन फुडली गजाल सांगपाक सुरवात केली.

तो काळ मुक्तिदाच्या कर्तृत्वाचो आसलो. गडगंज अशे परकी जुलमी शक्तीआड ते झुजताले. मुक्तिदान सुरवेक अहिंसेचो पुरस्कार केल्लो पुण मागीर बळाचो प्रतिकार बळान करचो पडटा हाचो तांकां साक्षात्कार जालो आनी ताणी लिपचोरयां गनिमी काव्यान दुस्मानांक पिडापीड करपाचें सत्र सुरू केलें. मुक्तिदाच्या फुडारपणाखाल तेन्ना पंचवीशेक लोकांचो अेक पंगड मुक्तिसंग्रामाचें कार्य करतालो. तांगेल्यो बसका रातीच्या वेळार लिपचोरयां मुक्तिदाले थंय भरताल्यो. दुसऱ्या भागांतल्या कार्यकर्त्यांक संदेश धाडप, स्वातंत्र्याचो पुरस्कार करपी पत्रकांचें वाटप करप असलीं कामां जातालीं. घरा फाटल्या दोंगरार आर्मां चलोवपाचें शिक्षणूय अेकामेकाच्या आदारान चलतालें.

अेक फावट गांवा कुशीक आशिल्ल्या पुलीसचौकीचेर घुरी घालपाची मांडणी अेके बसकेंत जाली. तिवूय बसका सदचे प्रमाण रातीच्या मदयानेर मुक्तिदाल्या घरांतूच जाली. पंचवीशेक कार्यकर्ते, मुक्तिदा आनी मुक्तिदाचो धाकलो भाव पद्मनाभ हाजीर आसले. पद्मनाभ, पंगडाचें कसलें काम करीनासलो पुण सगळ्या बसकांक तो चत्रायेन हाजीर रावतालो. मुक्तिदाचोय ताचेर पुराय विश्वास आसलो. घुरयेची सगळी येवजण बसकेन थारायली. रातिच्या वेळार चौगा जाणांनी चार वाटांनी आर्मां घेवन ल्हवू ल्हवू चौके भोंवतणी अेकठांय येवपाचें. अकस्मात भितर सरपाचें. प्रतिकार जाल्यार आर्मां वापरपाचीं. चौके वयल्या सात-आठ पुलीसांक निःशस्त्र करपाचे. ते

बराबर बाकीच्या सहकाऱ्यांनी धांवून येवन चौकी वयलीं सगळीं शस्त्रां आनी झुजपाचें सामान सुतलावन व्हरपाचें. सगळें थारावन त्या दिसाची बसका अुलगली. सगळे आपआपल्या घरा गेले.

घुरयेचो दीस अुजवाडलो. सगळे वेवहार सद्‌चेवरी जाले. राति कडेन क्रांतीकारकांच्यो हालचाली थरिल्ले भशेन जाल्यो. सगळे त्या खिणाची वाट पळोंवंक लागले.

पुण घडले तें मात अुरफाटें. आर्मां येवन चौग जाण चौकीचेर भितर सल्ले. भितर सर जाल्यार दारां सताड अुक्तीं. भितर कोणूच ना. चौगूय जाणानी फाटीं वळून पळय जाल्यार आर्मां घेतिल्ले पुलीस तांच्या फाटल्यान हाजीर. क्रांतीकारकांक आर्मां सकयल दवरून हात वयर अुबारपा बगर दुसरो कसलोच अुपाय अुल्लो ना. चौगूय क्रांतीकारक पुलीसेचे बंदी जाले.

मुक्तिदाच्या पंगडामदें बरीच खळबळ जाली. बेगोबेग तांगेली बसका वयले दोंगुल्लेर जाली. मुक्तिदाक पयलेच खेप अपेस आयिल्लें. जे तरेन क्रांतीकारकांक धल्ले ताचे वयल्यान अेक गजाल सिद्ध जाताली, ती म्हळ्यार ह्या कटाची आदीं कोणे तरी पुलीसांक बरे तरेन कल्पना दिल्ली. बसकेंतले वातावरण दुबावान भल्लें. कोणाचेर दुबाव घेवचो ह्या विचारान मुक्तिदाची तकली भणभणली. भगत नांवाच्या अेकल्यान भीत भीत आपणाल्या मनांतलो दुबाव मुक्तिदा मुखार अुक्तो केलो. ताणे पद्मनाभाचें नांव सांगिल्लें. मुक्तिदान शांतपणान आयकून घेतलें. पुण भगताक ताणे खर अुतरांनी शिटकावणी दिली. दुबाव फट थल्ल्यार मुखा वयल्या परिणामांक सज्ज रावपाचें. दुसरे दीस परत मुक्तिदाले थंय बसका भल्ली. पद्मनाभ हाजीर आसलो. प्रत्येक जाण ताका दुबावी नदरेन पळयतालो. मुक्तिदाक मात ताच्या सावळ्या तोंडार कसलेंच कपट दिसलें ना. ते रातीं बसकेंत अेक म्हत्वाची थारावणी घेतली आनी ती म्हळ्यार ह्या लागोच्या दिसांनी पुलीसचौकी लासून वडोवपाची. नक्की दीस अुपरांत थारावया अशें सांगून मुक्तिदान बसका सोंपयली.

दुसरे दिसा मुक्तिदान पद्मनाभाचे हालचालीचेर नदर दवल्ली. पद्मनाभ सहजतायेन म्हण भायर सल्लो आनी आडवाटेन पुलीसचौकीचेर पावलो. तो पुलीसचौकीचेर भितर सल्लो ती खात्री जातकूच ताचे पाळटीर आशिल्लो मुक्तिदा फाटीं वळ्ळो. ते दीस ताणे सगळ्या भूमिगत क्रांतीकारकांक निरोप धाडलो. दुसरे दीस राती कडेन ताणी जूस्त अेकाक घरा कडेन येवपाचें. घराकुशीक रावपाचें पुण आपयले बगर भितर सरपाचें ना.

दीस सोंपून ती रात आयली. जूस्त बारां वरां पंचावन्न मिनटांचेर मुक्तिदा सुधामाईची न्हीद चाळयनासतना कुशीक सल्लो. कुशीक विनय, विद्यानंद आनी रणजीत हीं भुरगीं सुस्त न्हिदिल्लीं. ताणें बाज्जे पोंदचें आर्मं काडलें. अचळय कुडीचें दार अुक्तें केलें. पावलां वाजय नासतना तो भायर आयलो.

पद्मनाभाचे कुडी कडेन आयलो. तेच कुडींत तांच्यो गुपीत बसका भरताल्यो. ताणे दारार माल्लें. पद्मनाभ बाज्जेर आड पडिल्लो पुण जागोच आशिल्लो आसूंक जाय. भितल्ल्यान पावलांचो आवाज जालो. पद्मनाभान भितल्ली खिळी काडली. दार कर्र जालें आनी आर्मीचे गुळयेन पद्मनाभाच्या हृडुयाचो वेध घेतलो. तो जमनीर कोंसळ्ळो. कुडभर रक्ताचो शिवर जालो.

मुक्तिदान बेगोबेग वचून भायलें दार उक्ते केलें. ते सरशीं भायर तयारेन आशिल्ले वांगडी भुरभुर करून भितर आयले. एक मुक्तिदा सोडून पयलीं कोणाकूच हे गजालीची सुलूस लेगीत लागूं नासली. मात आर्मीचो फार जातकच भायर तयार आशिल्ल्या क्रांतीकारकांनी कितें येवजुपाचें ते येवजिलें.

ते भितर सरनाफुडें मुक्तिदान तांकां कुरवेनूच सगळयो गजाली दाखयल्यो. एकल्यान पद्मनाभाचें मढें खांदार माल्लें. दुसऱ्यान गळटा तें रगत पुसपाचें काम केलें. कोणे खोरें, कोणे कुदळ खांदार माल्ली. सगळे दोंगराचे वाटेक लागले.

आवाज आयकून सुधामाई गडबडचां उठली. कुडी भायर सर जाल्यार पद्मनाभाचो रक्ताळलेलो देह कोणाचे तरी फाटी वयल्यान घराभायर सरता तितलोच तिणे पळयलो.

मेणवात सोपत आयिल्ली. गजाल सोंपोवन माई खरस थांबोवंक लागली. मृदुलेन ते कुडींत एक नदर माल्ली. सगळयाक रक्तूच रक्त शिंपडिल्ले भशेन तिका दिसलें. आंगा वयली पयली शिरशिरी गेल्या उपरांत मागीर तिका ते कुडीत प्रसन्नतेचो भास जालो. ती कूड म्हळयार रणखेवा उपरांतची जैतिवंत भूमी कशी तिका दिसपाक लागली.

मेणवात सोंपून काबार जाल्ली. तिगांय कुडी भायर सल्लीं. दाराक चावी करून विद्यानंदान ती माई कडेन दिली.

– तुजेच कडेन दवर.

माईन मृदुलेच्या हातांत चावी दित म्हळें.

माई आपणाले कुडींत गेली.

विद्यानंद आनी मृदुला आपणाले शृंगारलेले कुडींत आयलीं. बरोच वेळ कोणूच कांय उलयलीं ना. मोनेळाचो भंग जावंचो म्हण विद्यानंदान म्हळ्ळें,
– आज रणजीतान केलें ते योग्यूच केलें. आपणाले भावजयेविशीं तो वायट कित्याक सोंसून घेतलो?

मृदुलेन कांयच जाप काडली ना.

– माईक दिसता, रणजीताचें कितेंय वायट–बरें विनयाच्या हातसून जावं येता. पुण माई जाणां– रणजीताक म्हजे पासून कसली भिरांत ना. कारण हांव असो.

विद्यानंदान आंगा वयलें खोमीस देंवयत म्हळें. तागेलो हाडकुळो देह पळोवन मृदुलेक दिसलें,

– खरेंच आपलो घोव कितलो दुबळो !

आनी तांची पयली रात रंगलीच ना.

गावांत मुक्तिदाच्या घराण्याक मान आसलो. गांवांतले लोक तांचे कडेन नमळायेन वागताले. विद्यानंद हेडमास्तर जायत पसून तर तांतूंत अदीकूच भर पडिल्ली.

मृदुलेक घरांतल्या वातावरणाची संवकळ जायत आसली. आतां ती गावांतल्या वातावरणा कडेन अेकरूप जावपाचो यत्न करताली. अदीं मदीं भायर सरताली. घरांत खावपा जेवपाचे जिनस यंताले पुण दादल्यांच्या हातचे जाल्ल्यान तातूंत बारीकसाण नासताली. मृदुला, वावराडेच्या आदारान गांवांतल्या पसऱ्या वयलें सामान आपुण हाडपाक भायर सरूंक लागली. गावांत भाजयेच्या वारयांनी गेल्यार ताज्जी आनी जाय तसली भाजी मेळटा हें कळटकूच तिणे खासा आपणे वारयां कडेन वचपाचें थारायलें.

अशीच अेके सांजवेळा ती हातांत पोती घेवन भायर सल्ली. घरा पासून अर्दया किलोमिटरचे वाटेर पांचवीचार वारयीं आसलीं. दर अेका कुळवाड्यान आपआपल्या वारयां भोंवतणयां खुंटांची वंय केल्ली. प्रत्येकाच्या वारयान अेके हारीन खुंटाचेर वालांचे झुपके मातिल्ले. गाड पांचव्या पानांतल्यान पोपटी वाल लांबताले. किडकिड्या मिरसांगाच्या झाडांचेर कुचकुचीत मिरसांगो लागिल्ल्यो. दाट पानांतल्यान मळबा कोराचीं वायंगी फुगोवन राविल्लीं. ती तरतरीत भाजी पळोवन मृदुलेची जीब हुळहुळळी.

अेका वारयाचे वंये कडेन ती थाल्ली आनी वारयाच्या धनयाची वाट पळयत रावली. तिणं वंये भितर मान बागोवन पळयलें. वारयाच्या मदेकाक अेक बांय आसली. बांयतलें उदक काडपाक कुंबयाच्या झाडाचेर अेक लाट लायिल्ली. बांय कुशीच्या वण्याचेर अेक खोंप उबी आशिल्ली.

जाग जावची म्हण मृदुलेन खोंकली काडली. ते सरशीं खोंप हाल्ली. आनी खोंपींतल्यान अेक कुळवाडी भायर सल्लो. माथ्याचो वालो आनी कमराचे मुंजीक खोयिल्ली काश्टी अितलीच मुस्तायकी ताच्या आंगार आसली. मुंजीचें कोथतूल धारेन चकचकतालें.

ताणे सदचे संवयेन गिरायका खातीर, तयार जाल्ले वाल खुंटले. जून

जाल्लीं वायंगी तोडलीं आनी सगळी भाजी पोटलून धरुन तो वंये कडेन आयलो. भाजी पोतयेंत घेवपाक मृदुलेन पोती अुक्ती केली. पैशे विचारपाक तिणे तोंड अुक्तें केलें. अितल्यान कुळवाड्याची नदर मृदुलेचेर पडली. मृदुलेक तो पयलेच खेप पळयतालो. आपणे केन्ना तांका पळयल्याचो मृदुलेक अुगडास जालोना. मृदुलेक पळयले बरोबर तो निर्विकार आशिल्लो कुळवाडी मिरसांग कसो तांबडो जालो. ताच्या दोळ्यांत अुजो पेटलो. ताणे आपणाले किडयाळे दांत किल्लीले. मृदुलेक ताचें तें रुप भेकडावपाक केल्या खेतबावल्या सारकें विद्रूप दिसलें. अितले करुनय तो थाल्लो ना. पोटलून धरिल्ली भाजी ताणे दोनाय हातांनी भोरो कशी अुबाल्ली आनी कुशीचे बांधत मोखून दिली. मृदुले कडेन नदर लेगीत मारीनासतना तो आसा तसो खोपीत रिगलो.

मृदुला तटास जावन हातांत पोती घेवन तशीच अुबी अुल्ली. तिका कसलोच बोध जालोना. तिणे पोती कवळ्ळी आनी मोन्यानी घरचे वाटेक लागली. घडिल्ली गजाल तिणे माईक सांगलीना.

राती कडेन घोवाक सांगली तेन्ना घोवान म्हळें,

— त्या येदूल्या वारयात तूं गेलीच कित्याक ? तो एक नंबरचो ह्रामखोर मनीस. फक्त अशिक्षित कुळवाडी म्हण वोगी रावपाचें ताका. ताणे आमची बदनामी केल्या ती सोंसपाची न्हय.

विद्यानंद बरोच वेळ धुमसत रावलो. आनी मागीर ताणे यदूची खबर मृदुलेक सांगली.

येदूची अेक पंदरा-सोळा वर्साची चली आसली. सुरंगा. पोर वारयांतल्या भाजये सारखें धवधवीत वाडिल्लें आनी तरतरीत दिसतालें. बापूय मानायपण करपाक भायर वतालो. वारयाची सगळी अुस्तवारी सुरंगाच करतालें. दिसभर वारयांत पडून आसतालें. पुरो जाता तेन्ना खोपित विसव घेतालें. सांजचो येदू येवन ताका घरा व्हरतालो. वारयांत तें अेकलेंच पळोवन, गांवांतले तवनास पोर वारया भोंवतणी पासयो मारताले. सुरंगा तांचे भकीक पडलें. अेकल्या अेकल्याक खोंपित आपोवपाक लागलें. बापूय दिसभर जोडीफाटल्यान भायर. अेक दीस ह्राका आपणाक दीस गेल्याचे कळ्ळें, तेन्ना ताणे वारयांतले बांयत जीव दिलो. धुवेन जीव दितकूच बोवाळ जालो. मागीर सगळें प्रकरण रणजीतानूच फुडाकार घेवन मिटयलें. पुण ह्या चोरांच्यो अुरफाटयो बोबो. ताणे समज करून घेतलो की आपणाले धुवेची वाट लावपाक कारणीभूत रणजीत. आनी त्याच खातीर तो गांवांतलो अेकलोच कुळवाडी आमचे कडेन दुस्वासान पळयता.

गजाल सोंपोवन विद्यानंदान दिवो वाडयलो आनी मृदुलेक वेंगात काडली. आपणाल्या सांगण्यान मृदुलेचें समाधान जालें अशें ताका दिसलें. विद्यानंदान तिचे कडल्यान कुडीची भूक भागोवन घेतली आनी तो पुरो

जाल्लेवरी सूस्त न्हिदलो. मृदुला मात आपणाचेर बलात्कार जाल्याचे भावनेन रातभर तळमळत अुल्ली.

दुसरे दिसा आयदनां घासता थंय दुलू वावराडेन मृदुलेक विचाल्लें,
– काल वारयांत वचून भाजी घेयनासतना परतली खंय ?
मृदुलेक तिगेल्या प्रश्नातली खोंच समजली आनी तिचे कडसून खरी गजाल समजतली ह्या भरवंशान तिणे काल घडिल्ली गजाल दुलूक सांगली. दुलून सगळें मोन्यानी आयकून घेतलें आनी म्हळें,
– येदूचें चुकलें खरें. तुमकां तेणें अशें करपाचें न्हू. तुमचो कसलो गुन्यांव ? पुण तो पडलो आमच्या सारखो अनाडी. राग अुक्तावचो अितलेंच तेका खबर!
आनी मृदुलेन मूळ प्रश्नाक हात घातलो. ते सरशीं दुलून हेवटेन तेवटेन पळयले. कोण आयकना म्हणपाची खात्री करुन घेतली आनी खरी खबर मृदुलेच्या कानार घातली.
अेके सांजे वारयांत आशीकुशीक कोण ना तें पळोवन रणजीत येदूल्या वारयांत भितर सरिल्लो. सुरंगाक ताचो हेतु कळिल्लो पुण ते कायच करूंक शकलेंना. रणजीतान ताका खोपींत आपयलें. तें आयलेंना. तशें बळजबरीन ताका खोपींत व्हेलें. कांय वेळान आपुण नामानिराळो जावन भायर सरून गेलो. सुरंगा – त्या दळिद्री पोरा कडेन अब्रू सोडून दुसरे कांयच नासलें. ताणे फाटफुडो चिंतलो ना. खोपी कुशीची बांय लागीं केली. यदू येवन धुवेक सोद जाल्यार धूव पेल्ल कशी बांयत अुफेता. फां फू जातकच सगळचांत पयलीं रणजीत बोवाळपाक मुखार. पुलीस आयले. पंचनामो जालो. आत्महत्या म्हण नोंद जाली. प्रकरण थंयच मिटोवन रणजीतान यदूचेर व्हडले अुपकार केले. मागीर फाटल्यान ते गजालीक जायते फाटे फुटले. पुण सुरंगाच्या मर्णाक रणजीत कारण जाला हाचेविशीं गांवांतल्या कोणाकूच दुबाव नासलो. तेन्ना सावन यदू रणजीताचो सूड घेवपाक मुंजीक कोयतूल लावन भोंवपाक लागलो.
सगळी खबर सांगून जातकूच दुलून म्हळें,
– आतां लोक अुलयतले कशे ? आनिक कोणाची खबर जाल्यार अुलोंव येताली. पुण रणजीताची खबर कशी अुलोंव येता ? तो मुक्तिदाचो पूत न्हू !
अुलयतां अुलयतां दुलूचो आवाज ओलो जालो.
– आमी आयकल्लें, आदल्या तेंपार खंय मुक्तिदा लेगीत पुलिसांक भितालो.

आतांचे पुलीस तेगेल्या पुताक– रणजीताक भितात.

आनी मृदुलेच्या तोंडा वयली नदर कुशीक वळयत ताणे म्हळें,

– सुरंगा पोर अब्रूचें म्हण तेणे आत्महत्या केली. आमी पोटा खातीर अब्रू घाणांक दवल्ल्या. नाजाल्यार आमकां धा फावटी तरी आत्महत्या करची पडटली आसली.

दुलूची अुतरां मृदुलेच्या काळजाक रोमलीं. ताजे नदरेक नदर दिवपाचें धाडस तिका जालें ना.

आपणांक आयिल्ली येदी व्हडली चीट पळोवन मृदुला अजापली. लाखाटचार धाडटल्याचो पत्तोय नासलो. अुमळशिकेन तिणे चीट फोडली. पळय जाल्यार चीट नीलाची. ती सामकी भुरकुटली. कितली पानां ? अेक–दोन–तीन–चार. शिवाय आनिक दोन बारकेली पानां. सामकी परीक्षेची अुत्तरपत्रिका. तिका याद जाली– नीला परीक्षेक अशेंच पेपर बरयतालें आनी वयल्यान पुरवणी जोडटालें. चीट पळोवनूच मृदुला फाटले जिणेत गेली. नीला वांगडा सारलेले ते कॉलेजचे दीस तिच्या मनांन अुडक्यो मारूंक लागले.

मृदुलेन पत्र वाचपाक सुरवात केली. अपेक्षे प्रमाण पत्रांचे सुरवातीक फाटल्या दिसांच्यो यादी अुजळिल्ल्यो. मृदुलेच्या लग्नाचो अुगडास करून नीलान बरयिल्लें,

मनांत खूब खूब आसुनूय तुज्या लग्नाक पावलें ना. कारण दुसरे दिसा म्हत्वाच्या पेपराची परीक्षा आसली. तूं म्हणटलें, आतां आनी कसली परीक्षा ? पुण तुकां घडये खबर नासत. नासतलेंच. हांव आतां आदव्होगाद जालां. आमी दोगांय बरोबर ग्रॅच्यूअॅट जालीं आनी फापसलीं. मागीर हांवें अेल्. अेल्. बी. केली. प्रॅक्टीस बरी चलता. हांव चडश्यो बायलांच्योच केसी घेतां. दादल्यांनी बायलांचेर केल्ल्या अन्यायाआड कोर्टांत अुबें रावतना बरें दिसता. वकील जाल्ल्याचें समाधान भोगता. तुका खरें सांगू ? ह्या संवसारांत बायलांचे प्रश्न समजून घेतलो जाल्यार बायलांचेच जातीक जल्मांक येवंक जाय. तुकां केन्नाय गरज भासल्यार म्हजो अुगडास कर. आदीं पत्र बरयल्यार. खूब बरें.

तूं म्हणटलें, आयज अकस्मात अितल्या तेंपान पत्र बरोवपाचें कारण कसलें ? आसा अेक कारण.

कशें सुरू करूं ? तुज्या लग्नाक हांव पावूंना ताची खंत काल मेरेन दिसताली पुण आतां दिसना. खूब बरें जालें. नाजाल्यार वोगीच तुज्या

सुखाच्या आड येतलें आसलें. खरें म्हळयार आतांय हें पत्र बरोवन तुज्या सुखी संवसारान हांव अेक ल्हानशें वादळ निर्माण करतलें, हाची म्हाका जाणीव आसा. पुण हें पत्र तुकां वेळाकाळाक अेक शिटकावणी कशी थरूं येता देखून हो प्रपंच.

खूब घुस्पागोंदळाचें बरयला न्हय ? तुकां याद आसा ? आमची कॉलेजांत कशी भेट जाल्ली ती ? खरें म्हळयार हांव फर्स्ट अियर पासून तुमच्या कॉलेजीची विद्यार्थिनी न्हय. हांव अिंटराक तुमचे कॉलेजींत आयलें. कित्याक म्हण जायते फावट तुमी विचारील्लें पुण हांवें कसलें तरी कारण सांगून वेळ मारून व्हेल्ली. तूं सामकी जिवा–भावाची अिश्टीण आसून लेगीत तुकांय फटयिल्लें. मात अेक दीस तुज्या प्रश्नार हांवें म्हणिल्लें, ते कॉलेजीत फाजिलपणां चलतात. आनी विशय थंयच सोंपयिल्लो. आज तोच विशय हांव परत सुरु करतां. कित्याक तें मागीर तुका कळटलें.

ते कॉलेजीतलें म्हजें तें दुसरें वर्स. पयलें वर्स बरें गेल्लें. दुसऱ्या वर्सा वर्गांत अेका तवनास पंगडाच्या विद्यार्थ्यां कडेन गांठ पडली. दोन-तीन वर्सां ते तेच क्लासीन ठाण मांडून बशिल्ले. आमी पांच चलयो तांचे मात लेगीत लगाडीक वचनासल्यो. तरी पुण तेच लेंमें लेंमें करताले. म्हाका तांचे थेर निखालस पसंत पडनासले. सुरक्षितते खातीर आमी पांचूय जाणा अेकठांय पंगडान भोंवताली. पुण तांचो पंगड सात-आठ जाणांचो आसलो. दिसान दीस तो वाडटालोयबी. ते व्हरांदांत अुबे रावल्यार आनकां तेवटेन वचपाक सामकें कुस्तार जातालें. प्रिन्सिपला कडेन तक्रारुय करून कांय अुपेग जायनासलो. आमचीं तरांतरांची फकाणां आनी मस्कऱ्यो मारपाची तांचे मदीं सर्त लागताली. चड करुन तांचो दोळो म्हजेरूच आसतालो. कारण हांव तांकां सहसा बदनासलें.

ते दीस घडलें तो तांचे मदले सर्तिचोच अेक भाग आसूंक जाय. अेक पिरियड जातकूच हांव दुसऱ्या पिरियडा खातीर दुसऱ्या वेगळया क्लास रूमांत वचपाक भायर सल्लें. म्हाका वयल्या माळ्याचेर वचपाचें आसलें. सोंपणा चडून हांव अदर्‍या जिन्यार पावलें– थंय कोनशाक वळसो घेवन दुसरीं सोपणां चडपाची आसलीं. ज्यूस्त त्याच कोनशाक त्या पंगडातलो अेकलो धडधाकट तवनास म्हजी वाट पळयत आसलो. हांव थंय पावलां मात ताणे म्हजेर झोंपय घाली आनी म्हाका घट वेंग माल्ली. हांव जिवाच्या आकांतान म्हजी सुटका करुन घेता आसतानाच ताणे म्हजो कीस घेतलो. तेसरशीं वयर तागेल्या अिश्टांनी ताळयो पेटून तागेल्या पराक्रमाचें कवतुक केलें. तागेलें अिप्सीत साध्य जातकूच ताणे म्हाका सोडलें आनी धांवत तो आपणाल्या अिश्टांत भरसलो.

हांव फाटल्या फाटीं सल्लें आनी म्हगेल्या अिश्टीणीत मिसळ्ळें. व्हडल्यान

बोबो मारून सगळें कॉलेज माथ्यार घेवचें अशें म्हाका जालें. खिणभर कितें करचें आनी ना करचें ह्या विचारान हांव आनी म्हगेल्यो अिश्टीणी घुस्पल्यो. आनी मागीर आमी नीट प्रिन्सिपलाच्या कॅबीनांत भितर सल्लीं. म्हाका अुतरां फुटनासलीं. घडिल्ली गजाल म्हगेले अेके अिश्टीणीन प्रिन्सिपलाच्या कानार घाली. प्रिन्सिपलान सगळ्यांत पयलीं बाकीच्यांक कॅबीनांतल्यान भायर वचपाक सांगले आनी म्हाका अेकल्याकूच बसपाक फर्मायलें. हांव खूब रडलें. ताणी म्हाका थातारलें आनी शांतपणान त्या भुरग्याचें नांव विचाल्लें. म्हाका नांव सांगपाक जमलेंना कारण म्हाका ताची फक्त तवनासपणां खबर आशिल्लीं. पुण हांवें ताचें वर्णन केलें आनी प्रिन्सिपलाक ताका पारखुपाक वेळ लागलो ना. ताणे प्यूना कडल्यान निरोप धाडलो आनी ताका आपोवन हाडलो. सामको साव जावन तो प्रिन्सिपला मुखार अुबो रावलो.

– हाका वळखता ?

प्रिन्सिपलान ताका म्हजे कडेन बोट दाखयत विचाल्लें.

– बरो !

ताणे सामकी लागींची अिश्टागत आशिल्ले भशेन सांगलें. म्हाका अशी तिडक आयली.

– आज तुवें कितें केलें ?

– कितें सर ?

परत सामको साबळो.

– ताचो कीस घेतलो ?

– हय सर.

ताणे निलाजरी जाप दिली.

– कितें हय सर ?

प्रिन्सिपल ताचेर तिडकलो.

– तातूंत कितें सर ? सदां घेतालो. हांव जाणा तें आजूच कम्प्लेन करतलें म्हण ? सर, ताका आवडना जाल्यार फाल्यांच्यान कोण घेता !

ताणे सहजपणान सांगलें. तागेल्या त्या अुलवण्याचेर प्रिन्सिपलूय थंडगार पडलो. म्हाका थंयच दिसलें, हाका आख्ख्याच्या आख्खो थंयच खावन वडोवचो.

– गेट आवृट !

प्रिन्सिपलान रागान म्हळें.

– येतां सर.

ताणे सहजतायेन म्हळें आनी मार निरोप घेतिल्ले भशेन तो कॅबिनांतल्यान भायर सल्लो.

– नीला, हे प्रकरण हांगांच सोंपयल्यार बरें. कारण हें घसाक लायतले तितली

तुजी चड लज वतली. तो भुरगो निलाजरो हें खरें पुण आमी ताचेआड कांय अुपाय घेवंक शकना कारण तो अेका नांवाजत्या स्वातंत्र्य सैनिकाचो पूत जावन आसा. स्वातंत्र्यवीर मुक्तिदा नृसिहाचें नांव तुवें आयकला आसतलें, जांचे पुण्याये खातीर आयज आमी हे कदेलीर बसपाक पावले.

प्रिन्सिपलान मेजा वयलें वक्ल काडलें आनी हातांत पेन घेवन तो दुसऱ्या कामांत गुल्ल जालो. म्हजी अवस्था कितें जांवची ? नशीब म्हजें, हांवें तेन्नाच आत्महत्या केली ना. मात दुसरे दिसाच्यान तें कॉलेज सोडलें.

मुक्तिदा नृसिहाची तूं सून आनी तो पराक्रमी वीर रणजीत तुजो देर. धाकलो देर. धाकलो देर सदांच सुनेक पुता समान आसता खंय ! तूं ताका आडवाद कशें आसतलें ? तूं खूब माया करता आसतलें ताची न्हय ? सद्याक ताचे कसले पराक्रम चल्ल्यात ? ताचे पराक्रम चल्ल्यार ताचेर कांबरूण घालपाचें काम तुका करचें पडटा आसतलें, त्या प्रिन्सिपला सारखें. कितें करतलें ? मुक्तिदाचे पुण्याये खातीर हें सगळें करचें पडटलें न्हय ? केन्ना केन्ना म्हाका वोगीच पोरकटपणान दिसता– असले हे मुक्तिदा जावन वचूंना जाल्यार खूब बरें जावपाचें. तांच्या असल्यांचे पुण्यायेच्या म्हालवजार कोणाचे बळी पडचे नासले.

पत्र सोंपयतां. तुजे कसलेय जापेचें स्वागत करपाक रावतां.

आनी अितल्यान नीलान पत्र सोंपयिल्लें.

मृदुला दिसभर नीलाच्या पत्राचे घुंवळीतूच अुल्ली. रात जाली तरीय ती निवळ्ळी ना. राती कडेन विद्यानंदान विचाल्ल्यार कितें सांगचें ह्या विचारान ती कांचवेली.

न्हिदपाक दोगांय अेकठांय आयलीं तेन्ना विद्यानंद आपल्याच विचारांत गुल्ल आशिल्लो. आज शाळेंत घडिल्ली गजाल मृदुलेक सांगची काय नाका ह्या विचारान तो फाटी फुडें जातालो. मात परत परत तो प्रसंग ताच्या दोळ्यां मुखार अुबो रावतालो.

हेडमास्तर जाल्ल्याक खूब तेंपान तो त्या वर्गांत गेल्लो. पिरियड ताचो नासलो पुण अेक मास्तर नाशिल्ल्यान तो पिरियड ताणें घेवपाचें थारायलें. अमुकूच अशा अेका खास विशयाचेर न्हय पुण भुरग्यांचें सामान्य ज्ञान अजमावपाक विद्यानंदान भरग्यांक कांय प्रश्न विचाल्ले. त्या संदर्भांत मोटमोट्यांच्या नांवाचो अुल्लेख जालो. साहित्यिक, डॉक्टर, फुडारी, संशोधक, कलाकार आदि मळा वयल्या नांवाजत्या लोकांची नांवां आयलीं. पिरियड सोंपपाक आनी मातसो कळाव आसलो. त्याच विशयाक मातशी बगल दित विद्यानंदान दर अेकल्याक विचारपाक सुरवात केली.

– तूं कोण जातलो ?

खिणभर सगळीं तोंडां बंद जालीं आनी मागीर अेक अेकल्याक वाचा

फुटूंक लागली. आनी आपणाक विचारचे आदींच अेकलो बांकार अुबो रावलो आनी म्हणूंक लागलो,
– सर, हांव रणजीत जातलों.
आनी ताणे नेटा बराबर कुशीक बशिल्ल्या दोगांयचेर दोन–चार धुमके घातले. ते सरशीं दुसऱ्या बाका वयलो दुसरो अुबो रावलो आनी आर्मींचो तीर ताचेर जोखिल्लेवरी करीत ताणे म्हळळें,
– सर, हांव मुक्तिदा नरसिंह जातलों आनी ह्या रणजीताक काबार करतलों.
कितें करचें तें थारावचे आदींच पिरियड सोंपिल्ल्याची बेल वाजली आनी विद्यानंदाक सुटकावाट मेळ्ळी. विद्यानंद नीट ऑफीसांत गेलो आनी ताणे मेजा वयली बेल वाजयली. प्यून कडकडत भितर आयलो. कारण ताणे धांदरटपणान पांच मिनटां आदींच बेल वाजयल्ली. विद्यानंदान ताका फर्मायलें,
– अेक ग्लास अुदक हाड.
वर्गांत घडिल्ली ही गजाल ताका परत परत येवजून येताली. ताणे मृदुले वटयां पळयले. ती आपलेच तनरेंत आसली. ताणे तिजे वटयां फाट केली आनी तो न्हिदलो. मृदुलेनूय ताचे वटयां फाट वळयली. दिवो वाडयलो. रातभर दोगांय हे कुशी वयल्यान ते कुशीर तळमळत अुल्लीं.

**मा**ईच्यान जातालें तोमेरेन माई आतऱ्या पयऱ्यान घाडी–भगत, प्रसाद–पाकळी हांचे खातीर भायर सरताली. पुण तिज्यान घरा भायर सरप नजो जालें आनी तिज्यो अित्सा भितल्ले भितर कोंडून अुल्ल्यो. तशें पळोवंक गेल्यार तिजो ह्या गजालीं वयलो विश्वास आदल्या अितलो नासलो तरी पुण मदींमदीं तिका चुकिल्लेवरी दिसतालें.
अेक दीस तिणे घाडयाकूच घरा येवपाक निरोप धाडलो. लांब जटाधारी घाडी रातच्या वेळार आयलो आनी माईचे कुडींत पाट मांडून बसलो. माईन मृदुलेक आदींच सांगिल्लें,
– तुमी हातूंत लक्ष घालूं नाकात. हांव फक्त हें म्हज्या समाधाना खातीर करतां. तुमी आपलीं कामां करात.
विद्यानंद आनी मृदुला आपले कुडींत बाज्जेर आड पडिल्लीं.
घाडी खुदतालो. आशे काडटालो. मुखार बसून माई अेक-अेक प्रश्न विचारताली. मदींच मनांत चुकचुकपी अविस्वासाचे पालीक थातारताली.

माईचो सगळो रोख रणजीताचेरूच आसलो.
– तो आता सुदारतलो. ताच्यो सगळ्यो गिरा बदलल्यात.
घाडयाच्या अुतराचेर माई विस्वास दवरपाचो यत्न करताली पुण अितल्या वर्साचो अणभव तिच्या विस्वासाक चीर फोडटालो. माईन घाडयाक परत अेक फावट बारीकसाणेन आनी चत्रायेन पळोवपाक सांगलें. घाडयान मांडी घट केली. मातसो आवाज चडयलो. जटा व्हिजळायल्यो आनी आशांक हात घालो.
अितल्यान भायर कोणे तरी दारार माल्लें विद्यानंद आनी मृदुला न्हिदल्यां आसतलीं अशें धरुन माई अुठली आनी तिणे वचून भायलें दार काडलें.
दारांत दुलू वावराडी. केंस विस्कटिल्ले. न्हेसण अस्ताव्यस्त.
– माई, त्या रणजीताक सांबाळ. तो घरांत भितर सरून म्हजेर हात घालूंक सोदता. म्हजो घोव तेका कसोच दवरीना.
आनी दुलू बुळूबुळू करून रडपाक लागलें.
बाज्जेर बशिल्ले मृदुलेन कुशीक आड पडिल्ल्या घोवा कडेन पळयलें. व्हदळ परयान ताचे दोळे अुक्ते आशिल्ले.
– ताका वचून हाडल्यार बरो न्हय ?
तिणे घोवाच्या भुजाक हात लावन हालयत म्हळें.
विद्यानंदाक रणजीताचो आकांताचो राग आयलो.... न्हीद म्हळचार न्हीद ना. अेक दीस स्वस्थताय ना. असोच अुठून भायर वचचो. रणजीताक आसा थंय सावन बचकुलाक धरून भरभरीत ओडून घरांत हाडचो. तागेले कुडींत घालचो. भितल्ल्यान खिळी घालची आनी येतिश्ट पेटचो.
ताणे अितले मेरेन चित्र दोळ्यांमुखार अुबें केलें आनी मागीर सुखार ताका दिसलें– कुडीची खिळी काडून भायर सरता तेन्ना आपुणूच ताचे कडल्यान मरसर मार खावन भायर सल्लां.
मृदुला ताका अेकसारकी अुठयत आसली. पुण ताका दिसलें, मारान आंग अितलें जड जालां– आतां अुठप कशेंच शक्य ना. तो न्हिदेचें सवंग घेवन तसोच पडून रावलो.
दुलूची गजाल आयकून माई वितरागली आनी तिणे म्हळें,
– तुमकां जाय तें करात.
तिणे दार आड केलें. दुलू कमराक पदर खोवन भायले भायर परतलें.
माई कुडींत आयली. घाडयाक ती अितलो वेळ विसरूनूच गेल्ली. व्हदळचेच आशे काडून ताणे म्हळें,
– कसलीच भिरांत ना. आतां तो सुदारतलोच.
माईक सणसणीत तिडक माल्ली. केन्ना न्हय तें तिका बळ आयलें. घाडया मुखा वयलो पाट तिणे दोनूय हातांनी अुबाल्लो आनी घाडयाच्या कपलारुच

मारपाचो पुण ताचे मांडयेरुच तिणे तो आदळ्ळो. पेटलांतल्यो चार नोटी काडून ताच्या मुखार वडयल्यो. घाडी समजुपाचें तें समजलो. तो कसली मखलाशी करपाक रावलोना. आपलें सामान कवळ्ळें. पैशे मुठीत धल्ले आनी वाटेक लागलो.

माई तोल वचून झोपाळयाचेर कोंसळ्ळी आनी भायर रणजीताचे जागी कडेन कान दिवन हालत उल्ली.

मृदुलेच्या लग्ना उपरांत दुसरे दिसा मृदुला रांदचे कुडींत येवन माईक आदार करपाक लागिल्ली तेन्ना माईन तिका सांगिल्ले,

– अेक लक्षांत दवरपाचें, तुवें रांदल्यार जाता पुण रणजीताक तूं वांडू नाका. ताका आवय बगर दुसऱ्या कोणेनूच वाडील्लें आवडना.

अितलें सांगून माईन तो विशय थंयच काबार केल्लो आनी ती भाजी शिनीत बशिल्ली. नाय म्हळचार मृदुलेच्या मनांक मातशें लागिल्लें पुण मांयची आज्ञा ती पाळीत आयिल्ली. ती रांदताली, विद्यानंदाक वाडटाली. माईक फोर्स करताली पुण माई फोर्सान तिकाच जेवपाक लायताली आनी आपूण फाटल्यान रावताली. रणजीताक काम धंदो नाशिल्ल्यान तो खंयच्याय वेळार जेवणाक येतालो. केन्ना केन्ना येनाय आसलो. माई भूक सोंसून रावताली. केन्ना जेवपाचें विसल्ल्यारूय तिका जाणवना आसलें. तिका सोंसपाची खूब संवय जाल्ली.

ते दीस सकाळच्या वेळार च्याचो घोट घेतना तिणे मृदुलेक म्हळें,

– आयच्यान रणजीताक तूं वाड. म्हज्यान आतां नजो. हांव झोपाळयार पडून रावतां.

आनी ती वचून झोपाळयाचेर आड पडली. रातच्या प्रकरणान ती अस्वस्थ जाल्या म्हणपाचें मृदुलेन पारखिलें. तिणे च्या सारखी घेंव नासली. रातच्यान कांयच खावंक नासलें.

दनपारच्या अदमासाक मृदुला तिजे कुडींत भितर सल्ली. माई झोपाळयाचेर सूस्त न्हिदिल्ली. झोपाळो थीर आसलो. ते थीर अवस्थेंत तिका पळोवन मृदुलेच्या काळजांत चर्र जालें. ती तिच्या म्हऱ्यांत गेली. माईची न्हीद खूब जागृत. जागीन तिणे दोळे उक्ते केले.

– माई पेज केल्ली.

अशा वेळार माईचे बलायकेक पेज बरी पडटा हाची मृदुलेक खबर आसली. मंद अुज्यार तिणे मोव बरी पेज रांदिल्ली. माई अुठून झोपाळचार बसली तशें ते कुडीक चैतन्य आयलें. झोपाळचार बसून माई सगळी पेज जेवली. बऱ्याच वर्सां अुपरांत तिच्या मनांतली ती खंत भायर सल्ली. आपणाक धूव नाशिल्ल्याचें दुःख. मृदुलेच्या अस्तित्वान तिची खंत चड बळावली आनी मागीर मृदुलेची अेक अेक हालचाल पळोवन तिच्या तोंडार ल्हवपीक खोशयेचें ल्हार आयलें.

– वेळ आसा न्हय ?

माईन मृदुलेचे ताकतिकेचो अदमास घेत विचाल्लें. मृदुलेन हाशांतूच हयकार दिलो. माई झोपाळयार बसूनूच रावली. तिणे मृदुलेक आलमार अुक्तीं करपाक लायली. आलमारींतल्या वयल्या खणांत अशिल्लें अेक पेटूल काडपाक लायलें. मृदुलेक दिसलें, पेटलांतल्यान माई कसलोय मोलादीक अळंकार काडटली आनी म्हणटली,

– हो मुक्तिदाच्या घरांतले सुनेन घालपाचो अळंकार. सांबाळ.

माईक कितें सांगून तो परतो करचो ह्या विचारान आसतनाच मृदुलेन तें पेटूल हाडून माई मुखार दवल्लें.

– हातूंत कसले अळंकार नात.

आनी मृदुलेक सू ऽऽ जालें. तिका मना पासून कसलो सोस नासलो.

माईन पेटूल अुक्तें केलें आनी तातूंतली अेक वस्त काडून तिचे मुखार धरीत विचाल्लें,

– हाका कितें म्हणटात जाणां ?

मृदुलेन तकली खाजयली. अुतर चट् करून तिज्या तोंडार आयलेंना. शाळेंत शिकता आसतना अितिहासाच्या पुस्तकांत तिणे वाचिल्लें आनी अेक फावट पिकनिकेक गेल्ले कडेन अितिहासीक वस्तू संग्रहालयांत पळयल्लें.

– खंजीर !

माईन तिजी परीक्षा चड वेळ लांबय नासतना म्हळें आनी मृदुला खजील जाली. खंजीर बरोच पोन्नो जाल्लो. भितर अुरून कळमेल्लो. धार सामकी मुणेल्ली. मृदुलेन तो हातांत घेवन सांसपिलो. तो थंयच दवरपाक माईन सांगलें. मृदुलेन तो मुखार तसोच पेटलान अुबो करून दवल्लो. पेटूल झोपाळचा मुखार बऽऽऱ्या अंतरार दवल्लें.

– यो, हांगा बस.

माईन मृदुलेक झोपाळचाचेर आपले बगलेक सुवात करून दिली. दोगांकूय घेवन झोपाळो हालपाक लागलो. मृदुला त्या खंजीराक पळयत आसली. आनी मागीर झोपाळचाच्या झोकाचेर माई मृदुलेक घेवन फाटल्या काळांत गेली.

तो काळ मुक्तिदाचे आनी सुधामाईचेय सत्वपरीक्षेचो आसलो. मुक्तिदाच्या भूमिगत चळवळीक नेट चडिल्लो. परकी सत्तेच्या पुलीसांचे बळी पडटाले. तशे क्रांतीकारकूय-पुलीसांच्या हातसून सुण्याचे अवतिकायेन मरताले. क्रांतीकारकांच्या घरच्यांचे हाल हालं जाताले. वेळाकाळार अब्रूचेरूय घालो येतालो. मुक्तिदा रातचो भायर सरतालो. माईक सांगतालो,
– येतां आं.

पुण तो परत येतलो काय ना म्हणपाची मुक्तिदाकूय खात्री नासताली आनी माईकूय.

अेक दीस रातच्या वेळार भायर सरता आसताना मुक्तिदान माईच्या हातांत खंजीर दित म्हळें,
– घे. म्हजी तुका भेट.

त्या जड खंजीराक माई पळयतूच अुल्ली. घोव आपणाक असली कितें भेट दित हें तिणे येवजूंक पासून नासलें.
– गरज पडटा तेन्ना जाय तसो वापर कर. गंभीरतायेन सांगून ताणी मागीर हांसत म्हळें,
– आनी वेळ प्रसंगार वीख खावन मरपाची ती कल्पना तकलेंतली काडून वडय. म्हजें कितेंय जाल्यार भुरग्यांचो प्रतिपाळ कोण करतलो ?

माईच्या दोळयांतल्यान दुकांनी घालून घेतलें. तिका अजाप जालें. पुण असल्या अजापांची तिका आतां संवंय जाल्ली. मुक्तिदाक दुसऱ्याच्या मनांतलें ज्यूस्त कळटालें. मात अेकूच फावट तांचो अंदमास चुकलो. पद्मनाभाचे बाबतींत. अखेर पर्यंत तांका ती खंत आसली. भावाक आपणे जिवानीशीं माल्लो हाची खंत न्हय, आपणाल्या धाकल्या भावाक आपूण वळखूंक शकलो ना ही खंत. लोक कितें म्हणटले ताचीय तांका पर्वा नासली. मात हे बाबतींत माईची अेक गजाल ताणी आयकून घेतली. माईन अेक दीस घोवाक म्हळें,
– लोक म्हणचेनात, सगळे बेंस आपणाकूच पडपाक जाय म्हण भावाक काबार केलो म्हण ?

मुक्तिदान मोन्यानी तें आयकून घेतलें. दुसरे दीस वकीला कडेन गेलो आनीं अवघ्या काळा भितर बेसाच्या अदर्या वांटयाची विल्हेवाट लावन आयलो. त्या जाग्यांत शाळे खातीर जागा आंखली आनी अुल्लेली जमीन विकून त्या पैशांनी शाळेची अिमारत अुबी जावपाक लागली.

अुलयतां अुलयतां माई थांबली. झोपाळोय थीर जाल्लो. मृदुला थीर नदरेन त्या खंजीराक पळयत रावली.
– तर अशी गजाल ह्या खंजीराची.

माई परत मूळ मुद्द्यार आयली. परत झोपाळो हालपाक लागलो.

– हो दवर तुजे कडेन. पारतंत्र्यांत म्हाका काय केन्ना ताची गरज भासलीना, घडये ह्या स्वातंत्र्यांत तुका ताची गरच भासत.

आनी माई दोळे मेटून तशीच झोपाळयाचेर आड जाली.

शाळेंतल्यान परतलो तेन्ना विद्यानंद बरोच खोशयेंत दिसतालो. पुण मृदुलेन तागेले खोशयेक खंयच साथ दिली ना. तोंड दामून विद्यानंद तसोच रावलो आनी मागीर रातचो बाज्जेर आड पडिल्ले कडेन शाळेंतली गजाल आपूण जावन सांगूंक लागलो,

– अिन्स्पेक्टराक अजाप जालें. ताणे आपल्या तोंडान म्हळें न्हय– शाळेचें अितलें बरें शिस्तबद्ध व्यवस्थापन आपुण पयलेच खेप पळयतां. अेक बरें जालें, त्या वेळार मॅनेजमेंटाचो चेअरमन भगत थंय आसलो. खरें म्हळयार ताणेच आयकून बऱ्याक पडलें. म्हाका कुशीक दवरून त्या अंगडीक सिनिअरटीच्या नांवाखाला हेडमास्तर म्हण बसोवंक सोदी नासले ? रणजीत न्हय जाल्यार....

ताणे मृदुले कडेन पळयलें. तिणे सामके कानार केंस काडील्ले. ताका बायलेचो राग आयलो. घोवाच्या कर्तृत्वाची तोखणाय करपाची सोड आयकुपाची जे बायलेक वान्सा ना ...

तो तिका कितें तरी म्हणून पाडूंक सोदी अितल्यान मृदुलेन ताचे वटेन नदर हाडीत म्हळें,

– आज रणजीतान म्हजो बळजबरीन कीस घेतलो.

कांय वेळ कोणूच कांय अेक अुलयलीना. मागीर तिणेच म्हळें,

– तुमी ताका विचारुंक नाका. विचाल्ल्यार सांगतलो– सद्चे सारखो घेतलो कीस. हांव जाणा ती आजूच तुकां सांगतली म्हण ! तिका आवडना जाल्यार फाल्यांच्यान–

फुडलीं अुतरां मृदुलेच्या तोंडातल्यान भायर सल्लींनात. विद्यानंदाक शीट् जालें. रणजीताच्या कॉलेजांतल्या प्रकरणाची ताका याद जाली. ताच्या कानार पाविल्लें तेदेवेळार ताका ती कोणेंतरी रचिल्ली आडेची गजाल कशी दिशिल्ली. पुण आतां मृदुलेन ते गजालीची अप्रत्यक्ष याद करून दिली आनी विद्यानंदाचें पीत्त खवळळें,

ताका दिसलें,– असोच वचचो. रणजीताक भरभरीत ओडून हाडून कुडींत घालचो. भितल्ल्यान खिळी घालून येतिश्ट ...

आनी मुखार ताका तेंच चित्र दिश्टी पडलें. कुडींतल्यान भायर सरताना आपुणूच मरसर मार खावन भायर सल्लां.

विद्यानंद तोंड अुक्तें करतलो म्हण मृदुला कितलोसोच वेळ रावली. तो आतां जाप काडचोना अशी खात्री पडटकूच तिका दिसलें, आलमारींत दवल्लेलो तो खंजीर काडचो, बळजबऱ्यां घोवाच्या हातांत चोंदचो आनी ताका सांगचें –

– म्हाका मारुन वडय नाजाल्यार....

तिणे मुखा वयलें चिंतपूच सोडून दिलें आनी दिवो पालयलो. विद्यानंदाक सूऽऽजालें.

दुसरे दीस फांतोडेर अुठून विद्यानंद भायर सल्लो. त्या दिसा ताणे शाळेंत निरोप धाडून आपुण पावचोना म्हणपाचें कळयलें. खंय वता ? म्हण ताका मृदुलेनूय विचाल्लें ना आनी ताणेय सांगलेना. माईक सांगपाक तो तिगेले कुडींत गेलो आनी ती न्हिदल्या ती पळोवन तसोच फाटीं वळ्ळो आनी घरांतल्यान तुरतुरीत भायर सल्लो.

माई सामकीच हाथरुणाक तेंकिल्ली. झोपाळयाचेरुच हाथरूण पातळायिल्लें आनी थंयच न्हिदताली. मृदुलेन फोर्सान म्हणटा तशी तिका चार कुर्यां खावयलीं.

घरांत कोणूच नासलो. मृदुलेन पेपर काडले. पेन घेतलें आनी नीलाक चीट बरयली. ताणे बरयिल्ले चिटी परस व्हड.

सांजच्या वेळार विद्यानंद भुजां गळसणायत घरांत भितर सल्लो. पयल्यान पयलीं तो माई म्हऱ्यांत वचून बसलो. ताची जाग आयकून माईन कूस वळ्ळी.

– खंय गेल्लो ?

माईन नदरेंतूनच ताका प्रश्न केलो.

– माई, दोन कडेन अुतर घातलें.

आनी मागीर ताणे रणजोताचे सोयरीके खातीर आपुण आयज भायर सरिल्ल्याची गजाल माईक सांगली.

सकाळच्या आदेसाक तो देसायागेर गेल्लो. तीं तांगेली पयसुल्ल्यान सोयरींय लागतालीं. विद्यानंदाक पळोवन जाणटेलो देसाय वयर सकयल

जालो. ताणे विद्यानंदाक अुर्बेभरीत येवकार दिलो. तो हेडमास्तर जाला म्हणपाचें ताच्याच तोंडातल्यान आयकून ताका खोस भोगली. ताणे माईची वासपूस केली. मुक्तिदाचो अुगडास काडलो. घरांतल्या सालांत मुक्तिदाचो फोटो लायिल्लो. विद्यानंदाक त्या घरांत खूब आपलेपण दिसलें. जाणटेल्या देसायान ताका आपणाल्या गोड गोड अुलोवपान सामको आपलो केलो. देसाय आपल्यो आनी मुक्तिदाच्यो गजाली सांगतालो. ताचे वयल्यान तांचे खूब लागीचे संबंद आसा म्हणपाचें कळून येतालें.
– तेच संबंद परत घट जांवचे म्हण आयलां.

विद्यानंदान विशयाक परत आरंभ केलो आनी बडबडत राविल्लो जाणटेलो देसाय शिटकावलो. अकस्मात वोगी पडलो आनी थातुर मातुर अुलोवन भितर गेलो.

ताची बायल भितर आसली. बायलेन आपणालो निर्णय सांगपाक वगत केलो ना. आनी देसाय तोंड वाकडें करीत भायर आयलो. ताणे म्हळें,
– आमकां येन्ना कर्तव्य ना.

हय, ना करीत विद्यानंद अुठलो आनी ताणे देसायाचो निरोप घेतलो. देसायानूच ताका निरोप दिलो आनी असोच केन्नाय येवपाक वयलेदरा आगरो केलो.

विद्यानंदाक अजाप दिसलें,–देसायाल्यो चलयो तिगी. पुण ताणे कोणाक सोयरीक अितलें लेगीत विचाल्लें ना. तितलेंच न्हय, रणजीताचो अुल्लेख पासून केलो ना.

विद्यानंदाचो सकाळचो आदेस थंयच सल्लो. सांजच्या आदेसाक तो बद्द रंगनाथाले थंय गेलो. रंगनाथ तागलो अेक अिश्ट. चड लागींचो न्हय पुण ताणी दोगांयनी बरोबर शिकोवपाचें ट्रेनिंग केल्लें. अदींमदीं शिक्षण खात्यांत तांची कामा निमतात वता तेन्ना गांठभेट जाताली. तोवूय अेके शाळेचो हेडमास्तर आसलो. विद्यानंद तागेर पावलो तेन्ना सांजच्या आदेसाक रंगनाथ घराच आसलो. रंगनाथ पयलीं समजलो, तो कसल्या तरी शाळेच्याच कामाक आयला म्हण. पुण विद्यानंदान येवपा फाटलें कारण सांगलें तेन्ना रंगनाथाक मातशें आखुडिल्लेवरी जालें. तरी ताणे म्हळें,
– कांय हरकत ना. म्हजी भयण घरांतूच आसा. हांव तिकाच विचारतां. आतांच्या काळार अेकामेकांचे संमतेनूच जाल्लें बरें न्हय ?

अितलें म्हणून तो भितर गेलो. विद्यानंद स्वास दामून भायर बसून रावलो. रंगनाथाची भयण भायर आयलीच ना. पुण ती तोंडान फटकळ म्हणपाचें समजून आयलें. विद्यानंदाक मुद्दम आयकूंक येंवचें येदचा व्हडल्यान तिणे भितल्ल्यानूच म्हळें,
– गांवांतल्या सगळया चलयांक बुडोवन जालीं खंय ?

कोणे तरी तिच्या तोंडार हात धल्लो. विद्यानंद भायर रंगनाथाची वाट पळयत बसलो, ताचो निरोप घेवन कडसुपा खातीर.

कांय वेळान रंगनाथ खजील जांवन भायर आयलो आनी ताणे विद्यानंदाची भुजां थापटीत म्हळें,

– माफ कर अिश्टा, ताची आवय म्हणटा– अंदू आमकां कर्तव्य ना.

विद्यानंद गरजे भायर तोंड पेंचून हांसलो आनी 'कांय नजो' अशा आविर्भावात ताणे रंगनाथाचो निरोप घेतलो.

माईक सगळी खबर सांगून विद्यानंदान अेक लांब सुस्कार सोडलो आनी माईच्या अुतराची तो वाट पळयत रावलो. माईन दोळे बंद केले आनी आपणाक कांयच पडूंक ना अशे तरेन मुद्रा केली. बरोच वेळ तो वाट पळयत बसलो आनी मागीर अुठून आपले कुडींत गेलो.

राती कडेन न्हिदपाच्या वेळार मृदुलेन घोवाक सांगलें,

– आयज रणजीतान म्हाका फक्त भोगपाचीच बाकी दवल्ल्या. हांव न्हातां थंय न्हाणयेंत ताणे बळजबरी केली.

विद्यानंद रागान घुस्मटून गेलो. पुण तो कांयच अुलोवंक शकलोना. ताचें मोनेपण पळोवन मृदुलेन हातांतलीं चार कांकणा देंवयली आनी बाज्जेर अुदारो पडिल्ल्या विद्यानंदाच्या पोटार वडयलीं. विद्यानंदान अचळय कांकणां अुखल्लीं आनी कुशीच्या मेजार दवल्लीं. फाल्यां नव्या बळान खंय सोयरीकांक वचपाचें ताची वळेरी तो मनांत येवजूपाक लागलो.

दुसरे दीस विद्यानंदाक शाळेंत वचचोच पडलो. पयल्या दिसा ताणे फक्त अेकाच दिसाची रजा काडिल्ली. आनी त्या दिसा शाळेंत परीक्षा सुरू जाताली. पयलो पेपर विद्यानंद शिकयता त्या विशयाचो आसलो. सांजच्या आदेसाक रणजीताचे सोयरीकेक वचपाचें थारावन तो शाळेंत गेलो.

दनपारच्या वेळार तो घरा आयलो. जेवलो. ताणे घडयाळांत पळयलें आनी पेपरांचो अेक गठ्ठो सोडलो. ताका भायर सरपाक आजून कळाव आसलो.

विद्यानंद जेवणा वयलो अुठल्या अुपरांत रणजीत घरांत भितर सल्लो. मृदुलेन ताका वाडपाची तयारी केली. तो जेवता आसताना मृदुला चड वेळ जेवणाचे कुडींत रावलीना. तरी आसताना ताच्या अुल्यार तिका मदीं मदीं

वचचें पडलें. दोन तीन मिनटांनी तो 'भाभी,' 'भाभी' म्हण अुलो मारतालो आनी दर खेप मृदुला विद्यानंदाच्या मुखा वयल्यान ताका वाडपाक वताली. विद्यानंद भायर पेपर तपासपांत सामको गुल्ल जाल्लो.

अखेरेक रणजीत जेवन अुठलो. तागेलीं अुश्टीं आयदनां काडून मान्न्यांत दवरताना, रणजीतान तोंड धुवन येतना तिच्या पालवाक हात पुसलो. मृदुलेन पालव सोडोवन घेतलो. रणजीत तिका दोळे मोडीत आपले कुडींत गेलो आनी कुडीच्या दारार तोल सांबाळीत अुबो रावलो.

मृदुला माईचे कुडींत अेक पासय मारून आयली. व्हदळ मुठभर पेजेचीं कुयां खाल्ल्या अुपरांत माई आतां झोपाळयार शांत विसावल्ली.

शेवण्याच्या नरान मादयेक साद घालचो तसो रणजीत दारार रावून मृदुलेक सादयत आसलो.

– भाभी ऽऽ भाभी ऽऽ

तागेल्या सादांनी विद्यानंदाची तनरी भंगली. ताणे घडयाळांत पळयलें. वसीचो वेळ जाल्लो. भायर सरपाक तो आंगार कपडे चडोवपाक लागलो. मृदुला थंयच बसून आसल्ली. रणजीत सादयत आसलो. विद्यानंदाक तागेलें सादोवप असह्य जालें तेन्ना तो मृदुलेचेर धेंगसलो.

– तुका मनशाची मात पर्वा ना? केन्नाच्यान तो तुका सादयता? ताका कितें जाय तें पळय. तो मनीस न्हय?

वशिल्ली मृदुला फट् करून अुठली आनी तिणे म्हळें,

– तो मनीस हें म्हाका समजलां. मात तूं कोण तें आजून समजूना.

तिजी अुतरां खतखतलीं. पयलेच खेप तिणे घोवाचो अेकेरी अुल्लेख केल्लो. तिज्या अुलोवपांतलें वेगळेंपण जाणवलें तेन्ना विद्यानंद तिजे वटेन वळ्ळो. तिच्या दोळयांत वेगळीच चमक आसली.

– खंय भायर सरता?

तिणे घोवाक विचाल्लें,

– भायर सरपाची गरज ना.

विद्यानंद आयकतूच अुल्लो.

– ताका आतां सोयरीकांची गरज ना. ताची गरज हांवें भागोवपाची थारायल्या. तुजें कितें तें तूं थाराय. म्हाका तुमची दोगांयची गरज भागोवप शक्य जांवचें ना. हांव ताचेच बरोबर रावतां. भया विरयत.

ती कितें अुलयता ताचेर खिणभर ताचो विस्वासूच बसलो ना. कितें तरी अुलोवपाक ताणे तोंड अुक्तें केलें आनी कितें अुलोवचें हें येवजनासून ताचें तोंड अुक्तेंच अुल्लें.

मंतरलेल्यावरी मृदुला कुडी भायर सल्ली. दारार सादयत राविल्ल्या रणजीतान तिका दोळो घालून आपले कुडीत आपयली. तिणे तितकेच धिटायेन

रणजीताक दोळो घातलो आनी तांका कडेचे कुडींत आपयलो. रणजीताक कडेचे कुडींत वचपाची कल्पना मानवली. तो भुरकुटलो आनी मृदुलेच्या फाटोफाट गेलो. दोगांयनी ते कुडीचें दार अुक्तें केलें.

विद्यानंद घामाघूम जावन भायर आयलो. तांका आडावपाक धांवत तांच्या म्हऱ्यांत आयलो. मृदुलेन ताचे धडपडी कडेन लक्ष दिलेंना. रणजीतान मात ताजे वटयां नदरेची करा केली आनी विद्यानंदाचें अुखल्लेलें पावल थंयच अडलें. दोगांय भितर सल्लीं आनी घडायंच् करून ताणी दार बंद केलें. विद्यानंद धांपिल्ल्या दारा कडेन पळयतूच अुल्लो.

विद्यानंद धांवत धांवत रस्त्यार आयलो तेन्ना तो सामकोच थतर–वितर जाल्लो. पयसुल्ल्यान दुलूच्या घोवान ताची अवतिकाय पारखिली: विद्यानंदाक बस चुकपाची पुण मेळ्ळी. बसी खातीर धांवून घामाघूम जाल्ल्यान ताची भिरांत तातूंत भरसून गेल्ली. नाजाल्यार सहज कोणाचेय नदरेंत भरपाची. ताचे हातपांय लटपटपाक लागिल्ले. अेका सिटार ताणे घालून घेतलें आनी बस चालीक लागली.

दुलूच्या घोवाची खात्री पटली– घराकडेन कसलो तरी बोवाळ जाला. ताचो अदमास खरो जाल्लो.

आयज दनपारच्या वेळार तो गांवांतले गादयेर सदचे संबये प्रमाण कुट्ट करपाक गेल्लो. भितर रणजीत आनी ताची चांडाळ–चौकडी पीत बशिल्ली.
– पैंज ? आयज हांव तें करून दाखयतां. म्हाका कांयच कठीण न्हय. आनी आतां तर खांदी सामकी लागीं आयल्या.

रणजीत पैंज मारतालो, विद्यानंदाच्या लग्ना दिसा भर माटवांत जाचेर ताणे थापट फुलयिल्लें त्याच अिश्टा कडेन.
– तुका शक्य आसा. भाव तुजो. भाभी तुजी.

आनी सगळें ख्खो ऽऽ करून हांशिल्ले. दुलूचो घोव भितर कान दिवन भायर अुबो रावन पिवपाचें सवंग करता तें पळोवन गल्ल्या वयल्या दादान ताका रणजीता वटेन बोट दाखोवन शिटकायिल्लो.
– तुकां जीव जाय मरे ?

आनी दुलूचो घोव थंयसून कडसल्लो. रणजीत केन्ना घरा वता ताचेर ताणे बारीक नदर दवल्लेली. रणजीत घरा कडेन गेल्या अुपरांत तागेल्या घरा वटयां तो लक्ष दिवन आसलो.

विद्यानंद थतर–वितर अवस्थेंत भायर सरून बसींत चडला तो ताणे पळयलो आनी मागीर बेगीन बेगीन तो येदूक सोदपाक गेलो.

येदून मुंजीक कोयतूल लायलें. दुलूच्या घोवान हातांत दांडो घेतलो आनी ते दोगूय मुक्तिदाल्या घरांतली जाग घेत भायले भायर गणोत्रपाक लागले.

विद्यानंद बसींतलो देंवलो आनी ताणे पुलीस स्टेशनार घालून घेतलें.
– कोण आसा ? कोण आसा ?

धा बारा जाण पुलीस थंय बोवाळटाले. तांकां अथीर नदरेन पळयत ताणे विचाल्लें. ताची अवतिकाय पुलीसांच्या लक्षांत आयली. अेकल्यान ताका कॅम्प्लेन काऊंटर दाखयलो. सगळयांनी अेकठांय येवन तागेली गजाल आयकली आनी ताणी आपणाली बरी करमणूक करून घेतली. विद्यानंद पोटतिडकीन सांगतालो आनी ते घोस्तान आयकताले.

– तुमी ताका बंदखणीत घालात नाजाल्यार म्हज्या हातसून ताचो अंत जातलो.

विद्यानंदान तांच्या मुखार मुठी आंवळीत म्हळें.

– तूं रणजीताविशीं उलयता ?

पुलीस इन्स्पेक्टरान ताचे कडेन पळयत अजापान विचाल्लें.

– हय. म्हजो धाकलो भाव तो. हांव विद्यानंद, हेडमास्तर. मुक्तिदा नृसिंहाचो पूत.

ते सरशीं अिन्स्पेक्टर सडसडीत उठलो. ताणे धडाधड बाकीच्यांक आज्ञा केल्यो आनी धा–बारा जाण पुलीस जिपींत बसले. पुलीस अिन्स्पेक्टर आनी विद्यानंद मुखा वयल्या सिटार बसले. खूब तेंपान पुलीसांची गाडी मुक्तिदाल्या गांवां वटयां धांवपाक लागली.

– म्हजे हातसून ताका मर्ण आयिल्लें म्हाका नाकां.

सबंद वाटेंत विद्यानंद अितलेंच उलयलो. अिन्स्पेक्टरान ताच्या हाडकुळया देहार नदर भोंवडायली आनी कल्पनेंत रणजीताक ताच्या मुखार उबो केलो. मिशांतल्या मिशांत तो मुमुर्वेंच हांसलो आनी मागीर सबंद वाटभर कोणूच कोणा कडेन उलयलोना.

पुलीसांची जीप मुक्तिदाच्या घरा कडेन पावली तेन्ना आशिकुशीक गणयताले ते लोक जीपी कडेन अेकठांय जाले. वीशेक लोक आसले. तातूंत येदू आनी दुलूचो घोवय दिश्टी पडटाले.

विद्यानंदा फाटोफाट पुलीस अिन्स्पेक्टर आनी तांच्या फाटोफाट धा–बारा पुलीस घरांत भितर सल्ले. विद्यानंदान तांका ते कुडी म्हऱ्यांत व्हेले आनी दारा कडेन बोट दाखोवन तो थंयच उबो रावलो. अिन्स्पेक्टरान दाराचेर टक् टक् केलें. सगळे पुलीस दारा कडेन अेकठांय जाले. भितल्ल्यान

हय न्हयसो आवाज जालो आनी दार अुक्तें जालें.

भितल्लो देखाव पळोवन विद्यानंदान किळांच माल्ली आनी हात कानार धरून तो माईचे कुडींत धांवलो.

– माई, माईऽऽ

माईन कसलीच जाग केली ना. माई सूस्त न्हिदल्या अशें पळोवन झोपाळो हालयत विद्यानंदान म्हळें,

– माई, हांवें रणजीताक मारुंना.

माईन दोळे अुक्ते केलेना. अर्दे जागृत अवस्थेंत ती येवजिताली,

– त्या पोराक, विनयाक वोगीच फटयलो. भावाचीं रक्तां भाव काडटलो अशें म्हाका कोणा घाडी–भगतान सांगलेंच ना. म्हज्याच मनांक दिसलें तशें. आनी येवजिल्लें ताचे परस कितलेंशें वेगळें घडलें...

– माई, माई.

विद्यानंद सामको गळवज्ञा आयिल्लो. सगळें खबर आशिल्ले भशेन माईन शांतपणान म्हळळें,

– म्हाका आता कोणूच अुठोंव नाका.

माईचीं अुतरां आयकून विद्यानंद पोरक्या पोरावरी अुठलो आनी कुडी वटेन धांवलो.

कुडींत पुलीस पंचनामो करताले. रणजीताचें मडें रक्तांत पातळिल्लें. खंजीर पोटांत रोमून अुरिल्लो.

मुक्तिदा नृसिंहाच्या फोटोखाला मृदुला अुबी आसली. वादळा अुपरांतची शांतताय तिच्या मुखार पातळिल्ली. विद्यानंदाक दिसलें, तिचे नदरेक नदर भिडोवपाचें सामर्थ्य ह्या जल्मांत तरी आपणांक येवप शक्य ना.



**पुंडलीक नारायण नायक**

हांगेलें पुस्तक रुपान अुजवाडाक आयिल्लें साहित्य

| | |
|---|---|
| कविता | **गा आमी राखणे** |
| बालनाट्य | **रानसुंदरी** |
| | **आळशांक वाग खातलो** |
| अेकांकी संग्रह | **गांवधनी गांवकार** |
| | **चौरंग** |
| अेकपात्री | **छप्पन्न थिगळी येसवंत** |
| नाटक | **खण खण माती** |
| | **रक्तखेव** |
| | **राखण** |
| | **सुरींग** |
| | **सूर्यसांवट** |
| कथा संग्रह | **मुठय** |
| | **पिशान्तर** |
| नवलकथा | **अच्छेव** |
| नवलिका | **बांबर** |
| | **वसंतोत्सव आनी दायज** |

अुजवाडाक येता

| | |
|---|---|
| नाटक | **शबै शबै भौजनसमाज** |
| | **पिंपळ पेटला** |
| कथा संग्रह | **अर्धूक** |
| बाल नवलिका | **गंपू** |



**पुंडलीक नारायण नायक**

कोंकणी साहित्यांतलो अश्ट तासांचो तरनाटो साहित्यिक/ अुक्त्या मळार बांगर बैल धेक घालीत चौखुरचो तसो काव्याच्या मळार अवतरलो/कथेच्या क्षेत्रांत देवतांच ताणे खरायेक हात घातलो/कोंकणी मातयेचो कस पारखून नाटकाक पोसवण दिलो/नवलिका–नवलकथेच्या प्रांतांत नवो चमत्कार घडयलो/देखुनूच रवीन्द्रबाब केळेकार सारखो ज्येष्ठ साहित्यिक ताचेविशीं अुलयताना म्हणटा, "गोंयात फाटल्या चारशीं वर्सांत अशे भौमुखी प्रतिभेचो लेखक दुसरो जालोच ना."

**लाबिल्ले पुरस्कार**

* कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार * गोंय कला अकादमी पुरस्कार * १९८० वर्सा अ. भा. नाटकां सर्तितलो आकाशवाणी पुरस्कार * १९८४ वर्साचो साहित्य अकादमी पुरस्कार *